# सैम-सांगात

कमलादेवी राव देशपांडे




गोवा कोंकणी अकादेमी

सैम-सांगात
(सृश्टीचें म्हत्व)

बरोवपी :
**श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे**

प्रकाशन क्रः ४१


उजवाडावपी :
**ज्यॉर्ज द् आब्रेव**
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडे, गोंय

छापपी :
**सम्राट प्रिंटर्स,**
बाणस्तारी, गोंय.

मुखचित्र आनी सजावट :
**विनायक तारी**

पयली आवृत्ती :
**४ फेब्रुवारी २००२**

मोल : १५०/- रुपया

**SAIM SANGAT**
(Facts of Nature)

Writer :
**Smt. Kamaladevi Rao Deshpand**

Publication No. 41


Publisher :
**Jeorge de Abreu**
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Borim, Ponda, Goa.

Printers :
**Samrat Printers,**
Banastarim, Goa.

Cover & Design:
**Vinayak Tari**

First Edition
**4th February 2002**

Price: Rs.: 150/-

# मांडावळ

# सैमाचें म्हत्व

आवय-बापाय पसून आमची उत्पत्ती जाता. आवय आमकां गर्भाच्या रुपान आपल्या उदरांत णव म्हयने सांबाळटा. गर्भावस्तेंत आमची वाड आनी पोसवण करचे पासत ती आमकां आपलें रगत-मांस दिता. णव म्हयन्यां उपरांत आमकां ती जल्म दिता. उपरांत आपलें दूद दिवन ती आमचें पालन - पोशण करता. आमचे वाडी खातीर जें जें कितें जाय पडटा, तें आमकां बापूय हाडून दिता. हालींच्या काळार तर आवयय हे मदतीचो वांटो उखलता.

आवय-बापूय, आमचो रोगराईपासून सांबाळ करतात, रातीचो दीस करून आमची सेवा-सुश्रुशा करतात. आमच्या जिवाक कितेंय अपाय जायत म्हणून जागृत रावून तीं आमकां खूब जपतात. आमचो सांबाळ करतात. आमकां कसलेच त्रास, अपाय, दुख्ख, जावं नये म्हणून तीं स्वताच्या जिवाची पर्वा करीनासतना त्रास, कश्ट उस्पितात. आसात काय ना तांचे आमचेर अपरंपार उपकार?

गुरू आमचे खातीर कितें करता? गूरू आमचे बुद्धिक आकार दिता. आमचे बुद्दींत तो गिन्यानाची भर घालता आनी आमचें व्यक्तिमत्व घडयता. रात-दीस खर्चून आनी आपली जीण कश्टून गुरू आमचे खातीर विद्यादानाची तपश्चर्या करता. देखून गुरूचे आमचेर अपरंपार उपकार आसतात. आनी हे माळेंत सैमाचीय गणना जाता. देखूनच आवय-बापूय गुरू, हांचे बराबरच सैमाचेंय म्हत्व आमी मानतां.

सैमांत एक व्हड शक्ती आसा. ही शक्ती म्हणचे सूर्य. हॉस्पिटलांत जसो एक दोतोर दिसपट्टो सकाळींफुडें येवन व्हिजीट पासार करून म्हळ्यार आपल्या रूग्णांचेर नदर भोंवडावन तांची वासपूस करता, तसोच नित्या नेमान, एक दीस लेगीत विश्रांती घेनासतना, सूर्य येवन, आपलो उजवाड आनी ऊब आमकां दिवन सर्वतरांनी आमच्या कल्याणाखातीर वावुरता आनी कश्टता ताचेच कृपेन हो विश्वरुपी सैम आमचो सांबाळ करता. सूर्य नाशिल्लो जाल्यार, उष्णता आसची नासली उशणता नासली जाल्यार आमकां वत ना, पावस ना, झाडां ना हवा ना, खाण ना, जेवण ना, उदक ना... कितेंच ना उजवाड लेगीत ना जावन आमी जीण जियेवंकच

पावचे नासले. हो सूर्य आसा म्हणून हो सैम आसा आनी हो सैम आमचे भोंवतणी आसा देखूनच आमी आसात.

आमचे भोंवतणीं हें जें सगळें कितें आमी पळयतात, म्हळ्यार सूर्य, चंद्र, पृथ्वी भोंवतणचें आवरण, हवा, दर्या,न्हंयो, व्हडले व्हडले म्हासागर, तातुंतलें नुस्तें आनी हेर गिरेस्तकाय, तशेंच दोंगर, पर्वत, रानां, जंगलां, जंगलांनी आशिल्ले व्हडले व्हडले रूख , झाडां-झोपां, जनावरां, सुकणीं, क्रूर सावदां, जीव-जिवाणू तशेंच आमचे वांगडां गांवांनी आशिल्ले, आमकां सांगात दिवपी वडा - पिंपळा सारके व्हडले व्हडले रूक, आडसार्टी झाडां, झोपां, गल्लां, आमच्या पांया पोंदची माती, म्हळ्यार धरती-माता, पोशिल्लीं जनावरां, शेवर्णीं, जीव-जिवार, किडी, मुयो, पाखे, बिरमुट्यो, गांजीलमूस हें सगळें सगळें जें कितें आमचे भोवतणी आमी पळयतात, तें म्हळ्यारच सैम! मनशांक जशे हात, पांय, धड, तकली, नाक, कान,दोळे, केंस बी तरेतरेचे अवयव आसतात, तशेच सैमाचे हे सगले अवयव जावन आसात. देखूनच ह्या सैमाचेर आमी मोग करूंक जाय. हो सैम आमी बरे तरेन सांबाळपाखातीर वावरूंक जाय. म्हणपाची शिकवण, आमचे जाण्टेले आमकां दीत आयल्यात.

आमगेल्या जाण्टेल्यांनी, सैमाच्या समाजशास्त्राचो खूबच अभ्यास केल्लो. पृथ्वी आपले भोंवतणी घुनाळ्यो काडीत-काडीत सुर्याभोंवतणीं काडटा, देखून आमकां ऋतूंचें वेगळेंपण जाणवता, हें तांकां समजल्लें. म्हणूनच, आमचें मनीस-जातीचें सैमाकडलें नातें वळखून संस्कृतायेच्या विकासाची आमकां तांणी रीत थारावन दिली. तेपासत तांणी, सण, परबो, व्रतां बी थारावन दिलीं, जीं. आयज मेरेन सैमाच्या ऋतुचक्राप्रमाणेच मनयतात.

देखीक संवसार - पाडवो, दिवाळी , तुळशी-लग्न, दसरो, शिगमो, होळी, धुळवट, धेणल्या-पाडवो, धालो, वसंतपुजा, फुलविडे, नवरात्रां, कोजागिरी, माननी पुनव, चैत्री-पुनव, आडाव, फेस्तां, जात्रा, चवथ, नव्यां पंचम, कृषी-पंचम, सुतां-पुनव, वडां-पुनव, मकर-संक्रांत, भावबीज, रक्षाबंदन, गोकुळाश्टम वा गोकळां पुजप, अनंत-चतुर्दस, तेचपरी संकश्टी, विनायकी, शिवरात्र, प्रदोष, नमी, दसमी, एकादशी, असलीं व्रता आनी परबोय मनवपाचे नेम तांणीं आमकां थारावन दिले. हे सगळें

आमकां शिकोवपा फाटलो तांचो हेतू म्हळ्यार समाजांत खुशालकाय, भौशीक एकवट, नेम निश्ठा, कर्तव्य, मोग, आदर शिस्त हे गूण आमी आपणावचे. तशेंच मनशाचो आपल्या मनाचेर ताबो आसचो, मनशाची भलायकी बरी उरची ... आनी संवसारांत शांतताय आनी सवस्तकाय नंदची. पूण हें सगळें साध्य करतले जाल्यार तांच्या मुखार एक व्हडलो प्रस्न उबो जालो. तो म्हळ्यार, सैमाचें संतुलन, मनशाचें सैमाकडेन नातें आनी संस्कृताय हांचो मेळ घालून, सुवार्थी आनी अजाण अशा मनशाक हें सगळें पटोवन कशें दिवप?

हाकाच लागून तांणी नेम, निश्टा, शिस्त, कर्तव्य, मोग, आदर, सौजन्य हे कल्पनेंतल्यान देवाची निर्मिती केली. तेच वांगडा पूजा, प्रार्थना, सुरू जावन संस्कृतायेच्या नांवाखाला कर्मकांड सुरू जालें. देवाचे पुजेक फुलां -पत्री जाय, बायलांक माळपाक फुलां जाय, लग्ना कारणांनी फुलां जाय, हे तरेन फुलझाडाचो मनशाक मोग लागलो. मनशांक रावपाक घरां जाय, घरा-दारां बांदपाक मदेर जाय. झाडां आमकां गोड गोड फळां दितात. म्हण्टर तींय खावंक मेळूंक जाय. तसोच रांदपाक जळव जाय. ... म्हण्टगर झाडांय मनशाक प्रिय जालीं. मनीस हो प्राणी मांसाहारी, तो नुस्तें खाता, जनावरां, सवणीं मारून तांचें मांस खाता. तशेंच आपली भलायकी इबाडली जाल्यार, सैमान दिल्ली वखदी वनस्पतींची गिरेस्तकाय संवसारभर पातळ्ळेली आसा, म्हण्टगर हे सगळे गिरेस्तकायेचो हो सुवार्थी मनीस कशाकसोय उपेग करून सैमाचें संतुलन इबाडीत आनी पर्यावरणाचो इबाड करीत म्हणपाचो ताका भंय आनी हुस्को जालो. हाचेर उपाय म्हणून, जाण्टेल्यांनी त्या त्या सणां परबांचेर, कथा, पुराणां, दंतकथा... बी रचून तांचो झाडां पेडां, जनावरां, सुकणीं-सावदां जीव-जिवाणू, दोंगर-मांगर, न्हंयो-दर्या, बी हांचेकडेन संदर्भ जोडून, ताची सांगड कर्मकांडाकडेन घाली आनी संस्कृतायेच्या नांवाखाला श्रद्धा, अंधश्रद्धा, भंय, भिरांत घालून मनशाक सैमाचें संतुलन राखपाक प्रवृत्त केलो.

भारतीय संस्कृतायेंत झाडां-पेडांक, मोनजातीक, तशेंच न्हंयांक, दोंगरांक, दर्याक आनी धर्तरिक लेगीत खूब म्हत्व दिल्लें आमी पळयतात. धर्तरिक आमी भूमाता म्हूण संबोधतात. गंगेसारकी आमची पवित्र न्हंय, गंगामाता म्हणून आमी वळखतात.

दर्याक आमी केदें व्हडलें म्हत्व दितात. सुतां-पुनवे दिसा दर्याराजाची पुजा करून, दर्यांत भांगराचो माणकुलो नाल्ल करून ओंपपाची आमची व्हड परंपरा! झाडां-पेडांचेय बाबतींत हीच गजाल। वडां-पुनवे दिसा सवाशिणी बायलो, वडाची व्हडा भक्तिभावान पुजा करतात. देवळांच्या परिसरांत वड, पिंपळ, रूमड... बी व्हडले-व्हडले रूख आसतात. तांका मुळांत बरी ऽऽ पेडां बांदून, व्हडा श्रद्धेन आमी तांची जतनाय घेतात. केळ, आंबो तरआमकां दर सणा-परबेक आनी कसल्याय देवकार्याक आनी दबाज्याच्या सुवाळ्याक सांगात दिता. दर एका हिंदूच्या आंगणांत तुळशीवृंदावन आसता. तुळशी झाडाची आमी दिसपट्टी पुजा करतात. अशीं हीं एक आनी दोन झाडां न्हय, तर रुचीन कोडू आशिल्या कोडूलिंबाचो आनी काट्टिणीच्या कोडू काट्टांचो लेगीत आमचे जिणेंत म्हत्वाचे वांटो आसा.

झाडां-पेडां वरीच मोनजातीकय भारतीय संस्कृतायेंत व्हड मान-भौमान प्राप्त जाल्लो आसा. तो म्हळ्यार गायेक आमी आवय मानल्या. बैल म्हळ्यार नंदी ! म्हादेवाचें तें वाहन जावन आसा. म्हादेवाच्या देवळांत ताका व्हडा मानाचें, अढळ स्थान आसा. धेणल्या पाडव्या दिसा आमी बैलांची खूब तोखणाय करतात. तांकां बरेऽऽ करून तेल बी लावन न्हाणयत. तांचीं शिंगां, आंग बी रंगयतात. तांकां फुलाच्यो माळो घालून सजयतात. तांच्या गळयांत घांटींचीं गांठलीं, फुलाच्यो माळो तशोच गोळ्यांच्यो माळो करून घालतात. तांकां पोळे, गोडशें बी करून खावयतात. आनी असो हो मान -भौमान फकत गाये बैलाचेच बाबतींत न्हय, तर अन्य जनावरांचोय जाल्लो आमी पळयतात.

देखीक वाग. ताका वागरो अशें म्हणटात. वागरो हें श्री शांतादुर्गेचें तशेंच श्री विजयादुर्गेचें वाहन जावन आसा. दुर्गामाता महिषासूर मर्दिनी वागऱ्याचेर बसता. ह्या दैवतांचो भौमान करता आसतना, म्हळ्यार देवकारें बी घरांत वाडटात तेन्ना वागऱ्याच्या नांवान आनी वागऱ्याचें पील म्हणून, ' एक जाण्टो दादलो' आनी ' एक भुरगो' भौमानान जेवयतात. श्री दामोदर, रामनाथ, नागेश बी देव घोड्यार बशिल्ले आमी पळयतात. श्री गजांत लक्ष्मी वांगडा सदांच हत्ती आसता. श्री दत्तम्हाराजाच्या सान्नीध्यांत गाय, सुणीं, बोकडां असले प्राणी व्हडा माना - भौमानान आशिल्ले

आमी पळयतात. श्री सरस्वती मोराचेर बसता, विष्णूदेव गरुडाचेर बसून भोंवता. इतलेंच न्हय, तर हुंदरासारको त्रास दिवपी, दुश्ट प्राणी श्री गणेशाचें वाहन म्हूण मिरयता. सोरपा सारकिल्ल्या विखारी प्राण्याक भारतीय संस्कृतायेंत व्हडा मानाचें स्थान आसा. म्हादेव ताका आपल्या गळ्यांतलो अलंकार म्हणून भुशयता. नागपंचमी दिसा लोक नागाची पुजा करतात. रानांनी - वनांनी वचून, रोयणींतल्या नागाक ना जाल्यार आपापल्या घरांनी नागाची चिकणमातयेची मूर्त पुजेक लावन बायलो ताका भक्तिभावान दूद-ल्हायो ओंपतात आनी 'दूद-ल्हाया चाख आनी भावाक म्हज्या राख' अशें ताका गाराणें घालून होरायतात. पारव्याक आमी शांती-दूत मानतात. आनी ह्या सगल्या गजालींची तेंगशी म्हळ्यार खांची -कोंयड्याक पडून कुशिल्ली घाण खावपी कावळ्याक आमचो वाड-वडील म्हणून मानपाचो भौमान आमी प्राप्त करून दितात! अशी ही आमची भारतीय संस्कृताय! तर हाचे फाटलो हेतू इतलोच सैमान हो येदो व्हडलो आमचो संवसार रचला, तातूंत जशी जमीन, दर्या, दोंगर-मांगर, झाडां-पेडां, मोनजात, किडी-मुयो... बी रचल्यात, तशीच आमचे सारकी मनीसजातय निर्माण केल्या. असो हो संवसार! हाकाच आमी सैम म्हणटात. हातुंतल्या जण -एकल्याचो दुसऱ्याकडेन आनी खास करून मनीस जिणेकडेन मायेमोगाचो संबंद आसा, नातें आसा. आमचे भोंवतणीं हीं सगलीं झाडां पेडां, मोनजात, सुकणीं - सावदां आसात, देखूनच आमी ह्या संवसारांत जगूंक शकतात. केदे व्हडले हे सैमाचे आमचेर उपकार! ह्या सैमाची करणी आनी मोडणी अशे तरेन जाता की तातुंतल्यान आपसुकच संतुलन घडून येवपाची तजवीज केल्ली आसा. देखूनच अशें हे अप्रुप रितीन राखपी सैमाचें समाजशास्त्र, म्हळ्यार 'इकोलोजिकल बॅलन्स' राखपाची व्हड जापसालदारकी आमची मनीस कुळयेची जावन आसा. ह्या सैमांतले दर एके गजालीची जतनाय करप आनी तिची चड आनी चड वाड करप, हें आमचें मनीसकुळयेचें कर्तव्य जावन आसा. आनी नेमकें हेंच आमकां पटोवन दिवचे पासत, तशेंच सैमाविशींची आमची कृतज्ञभावना अखंड जागृत दवरचे पासत भारतीय संस्कृताय आमकां सैमाचें म्हत्व पटोवन दिता, आमच्या काळजांतलो सैमाबदल्लचें सेवाभाव श्रद्धेच्या बळग्यार जागो करता आनी ताचें संतुलन घडोवन हाडटा.

तर ह्या श्रद्धा-अंधश्रद्धांची सांगड, संस्कृतायेकडेन कशेतरेन घाल्या आनी ातूंल्यान शास्त्रीय नदरेन कितें साध्य करून घेतलां ताचो थोडे भितर आमी नियाळ रून पळोवया.

देखीक तुळस घेवया. तुळशीचो संदर्भ श्रीकृष्णाकडेन जोडून, ताचेर व्हडल्यो व्हडल्यो कथा-दंतकथा रचून आमच्या जाण्टेल्यांनी तुळशीक देवपण प्राप्त करून लें. तातुंतली एक कथा अशी सांगतात.

श्रीकृष्णाक खंय सोळा हजार बायलो आशिल्ल्यो. नरकासूर राकेसान गांवच्यो न्ना सगल्यो वाडिल्ल्यो चलयो व्हरून, गावांत हाहाकार माजयलो, तेन्ना रकचतुर्दशी दिसा त्या नरकासुराचो वध करून ताणें ह्या सगळ्या चलयांक ताचे ावडेंतल्यान मेकळ्यो केल्ल्यो, पूण असल्यों राकेसाचे तावडेंत आशिल्ल्या लयांकडेन कोण लग्न जातलो आशिल्लों? देखून त्या सगल्या चलयांकडेन आपणें ता लग्न जावन, श्रीकृष्णान तांचो उद्धार केलो. ते भायर रुक्मीण, सत्यभामा.... बी ी तागेल्यो बायलो आशिल्ल्योच! एक दीस सत्यभामेक तागेल्या त्या सगल्या यलांचो मत्सर जालो. श्रीकृष्ण आपलो एकलोच जावचो, ताका सगल्यापरस ापुणूच चड आवडची, ताची ओड आपलेकडेन आसची म्हणून नारद मुनीकडेन णें सल्लो घेतलो. तेन्ना हाचेर उपाय म्हणून कोणाय ब्राह्मणाक तिणें श्रीकृष्णाचो गराचो तुळाभार दान करचो असो उपाय तिका नारदमुनीन सुचयलो. सत्यभामेन डली तागडी. एका दाल्यांत श्रीकृष्णाक बसयलो आनी आपलेंच न्हय तर त्या ळा हजार बायलांचें आनी सगल्या राज्यांतले भांगर हाडून दुसरे वाटेनच्या दाल्यांत ले. पूण श्रीकृष्णाचें वजन कशेंच भरना जालें. रुक्मीण मोटी राणी आशिल्ली. तिणें कृष्णाच्या आवडीचे तुळशीचें एक पान हाडून त्या दाल्यांत घालें. आनी अजाप ळ्यार श्रीकृष्णाचें वजन त्या एका तुळशीच्या पानान भरून आयलें. हे कथेंतल्यान ळशीचें म्हत्व दाखोवन दिलां.

अशीच तुळशी संबंदाची आनीक एक गजाल सांगतात. जालंदर म्हणून एक ापराक्रमी राकेस आशिल्लो. ताचे बायलेचे नांव वृंदा अशें आशिल्लें. वृंदा सामकी व्रता आशिल्ली. तिच्याच पातिव्रत्याच्या बळग्यार जालंदर राकेस कोणायकडेन

कसलीच हार खाय नाशिल्लो. ताका लागून तो मदान्त जालो. सगल्या देवांकडेन झूज करुन ताणें तांका हारयलें आनी बंदखणीत घालून दवरलें. देवांचेर आकांत आयलो. तेन्ना श्रीविष्णू जालंदराचें रूप घेवन वृंदेकडेन गेलो आनी तिचे पातिव्रत्य भंगयले. अशेतरेन कपटान ताणें जालंदर राकेसाचो वध केलो. सत्य उकतें जातकच वृंदा सती गेली. तेन्ना श्रीविष्णूक पश्चात्ताप जालो. तो तिचे सारयेकडेन बसून रावलो. कांय दिसांनी ते सारयेंतल्यान एक रोपी किल्लून आयली, तीं रोपीं आसली तुळशीची. श्री विष्णून तीका सर्गांत व्हेली आनी कार्तिक शुद्ध दुवादशीक तो तिचेकडेन लग्न जालो. हे कथेच्या श्रद्धाभावान दर वर्सा आमी व्हडा दबाजान तुळशीचें लग्न श्रीविष्णूकडेन लायतात.

अशीच तुळशी संबंदान आनीक एक कथा सांगतात.

गोकुळांत खंय तुळशी म्हणून एक चली आशिल्ली. कृष्णाचेर खंय ती मोग करताली आनी व्हड जातकच आपूण कृष्णावांगडाच लग्न जातली अशें तिणें मनांत थारायल्लें. पूण हे तिगेलें सपन साकार जावंक पावलें ना, कित्याक, ती अल्पायुशीच जाली. मरतना मात ती ही इत्सा मनांत धरूनच मेली. दुसऱ्या जल्मांत ती धर्मध्वज नांवाच्या राजागेर जल्माक आयली. आपलें लग्न विष्णूवांगडा जावचे म्हणून तिणें खर तपश्चर्या केली. पूण तिचे लग्न विष्णू वांगडा जावचे सोडून शंखचूड नांवाच्या राकेसांच्या राजाबरोबर जालें. शंखचूड हो जातीचोच राकेस. तातूत बायलेच्या म्हळ्यार तुळशीच्या पातिव्रत्यांचे पुण्यायेन तो युद्धात कोणाचकडेन हारनाशिल्लो हे भशेन तो सामको मातलो. तेन्ना देवांचेर संकश्ट पडलें आनी श्री विष्णूक शंखचूडा रूप घेवन तुळशीचें पातिव्रत्य भंगोवचें पडले आनी अशेतरेन शंखचूडाचो झुजा अंत जालो.

तुळशीक हें कपट कळटकच तिणें विष्णूक 'तूं फतोर जावन पडूं' असो श्र दिलो. तेन्नाच्यान विष्णू साळीग्राम जावन पडलो. तेन्ना विष्णूक पश्चाताप जाल ताणें तुळशीक वर दिलो, 'तुज्या केसांतल्यान एक झाड किल्लून येतलें, त्या झाडा

ानां लोक देवाचे तशेंच म्हजे पुजेक सदांच वापरतले. तशेंच तुजो घोव शंखचूड खाच्या रुपान म्हजेवांगडा उरतलो. आनी त्या शंखांतल्यान घाल्लें उदक माथ्यार डटकच हांव प्रसन्न जातलो. तेन्नाच्यान लोक तुळशीचीं पानां विष्णूक ओंपूक लागले. कुळाष्टमी दिसा तर इकराशें आठ तुळशी, श्रीकृष्णाक अर्पण करपाची चाल आसा.

ह्यो जाल्यो सगल्यो पुराणांतल्यो कथा आनी तातुंतल्यान उदेल्ली श्रद्धा! पूण ास्त्रोक्त नदरेन तुळशीक इतलें हें म्हत्व कित्याक ? हो प्रस्न उरताच.

तुमी आयकलांच आसतलें, झाडांपासून मनशाक प्राणवायू मेळटा. झाडाक ीं लाकडाचे आंग आसता, ताका 'खोड' म्हणटात. खोडाक वयर खांदेच -खांदे ासतात, आनी खांद्यांक - ताळ्यांक पानांच - पानां आसतात.. खोडाचो सकलो ग जमनींत भितर आसता. थंय त्या झाडाक मुळां आसतात. मनशाक व्हड जावपाक शी अन्नाची गरज आसता, तशीच झाडाकय वाडीखातीर अन्नाची गरज आसता. हे न्न ताका तयार करचें पडटा. झाडां आपलें अन्न कशें तयार करतात, ते आयकात.

धर्तरे भोंवतणच्या वातावरणांत मुखेल अशे ऑक्सिजन म्हळ्यार प्राणवायू, यट्रोजन, कार्बन डायऑक्सायड आनी उदकाची वाफ हांचे नैसर्गिक रितीन सल्ल्या वायूंचें आवरण आसता. दिसाचीं जेन्ना सुर्यकिरणां झाडाचेर पडटात ा झाडांचीं पानां हीं उजवाडाची किरणां, कार्बन डायोऑक्सायड आनी उदक ड्टून घेतात आनी झाडाचें अन्न तयार करपाची प्रक्रिया सुरू जातात. ही प्रक्रिया ता तेन्ना, पानांच्या पोंदचेवाटेन जीं काय छिद्रां आसतात, जांकां इंग्लीश भाशेंत ामाटा अशें म्हणटात तातुंतल्यान ऑक्सिजन म्हळ्यार प्राणवायू भायर हवेंत ड्न दितात. हो प्राणवायू आमकां मनशांक, जनावरांक, बी सगल्या प्राणीमात्रांक ोवपाखातीर खूबच गरजेचो आसता. प्राणवायू मेळलेना जायत तर आमी सगळें ी फडफडून मरतले. एक दिव्याची वात आनी उजो लेगीत पेटपाखातीर ह्या ावायुची एकदम गरज आसता. म्हणटकच हीं झाडां आसात, म्हणून संवसारार ावायू आसा आनी प्राणवायू आसा म्हणून आमी प्राणी आसात.

प्राणी-जीवन आनी वनस्पती-जीवन, हांचे वाडीखातीर तरेतरेच्या वायुंची गरज आसता. एकान नाका म्हणून भायर सोडून दिल्लो वायू दुसऱ्याचो प्राणवायू जावन आसता, अशें हें जिणेचक्र चलत आसता, पूण जेन्ना सूर्य अस्ताक वता, रात जाता आनी सुर्यकिरणां झाडांचेर पडनात, तेन्ना तांगेली अन्न तयार करचेली प्रक्रिया चलना. त्या वेळार पानांचे पोंदचे वाटेन आशिल्लीं छिद्रां आंवळून येतात आनी तीं प्राणवायू भायर सोडिनात. देखून रातच्या वेळार झाडां प्राणवायू ओढून घेतात आनी कार्बन डाय ऑक्साईड भायर सोडटात. पूण 'तुळस' हें एकच झाड अशें आसा, जें दीस आनी रात हवेंत ऑक्सिजन म्हळ्यार प्राणवायू सोडीत आसता. ताका लागून तुळशीचीं झाडां आशिल्लो वाठार प्राणवायून तुडुंब भरिल्लो आसता. तुळशीच्या झाडाचे हें म्हत्व लक्षांत घेवन आमच्या जाण्टेल्यांनी त्या झाडाक देवपण प्राप्त करून दिलें. तुळशीचें झाड प्राणवायू तयार करता, इतलेंच न्हय तर तें एक वखदीय झाड जावन आसा. तें एके आनी दोन पिडांचेरय न्हय, तर जायत्या पिंडांचेर गुणकारी जावन आसा.

तर आमच्या जाण्टेल्यांनी जेन्ना तुळशीक देवपण प्राप्त करून दिलें तेन्नाच्यान तमाम हिंदू लोकांनी आंगणात तुळशी वृंदावनां बांदून तातूंत तुळशीचो रोंपो रोवव सुरवात केली. घरच्यो बायलो मागीर तिका गंध - फूल, उदक, पिंजर बी घालून तिची पूजा करूंक लागल्यो. तीन सांजच्यो नित्य - नेमान तुळशी-पेडयेर निरंज दवरून दिवो-वात करूंक लागल्यो. अशे तरेन हातुंतल्यान जाण्टेल्यांनी कितें सादले तर जीळमळीं, घरान-घर लोकांच्या आंगणानी आनी पोरसांनी तुळशीच-तुळश किल्लून येवन, वाड्या कणकणी, घरां भोंवतणचो वाटार प्राणवायून तुडुंब भरू गेलो.

अशें सांगतात, कांय तुळशीच्या मिरमिरीत वासाक, चिंचुंदर, सोरोप , जळे लागीं रावनात. तर प्राणीमात्राक जगपाखातीर ज्या प्राणवायूची गरज आसा, त प्राणवायू तयार जावपाक तुळशीच्या झाडाची कितली गरज आसा, म्हणपाचें आ तुमकां कळ्ळें न्हय?

अशें हें तुळशीच्या झाडाचें म्हत्व लक्षांत घेवन आमच्या जाण्टेल्यांनी तिचेविशीं तरेतरेच्यो कथा दंतकथा रचून आमकां श्रद्धा - अंधश्रद्धांची भूल घालीच. पण ताचेभायर मनीस कुळयेन तुळशीच्या सान्नीध्यांत रावचें म्हणून तांणी आमकां कांयं नेम-निश्ठा, बंधनां घालून दिवन ताची सांगड कर्मकाण्टाकडेन घालून दिली, ती अशी --

दर एका घराच्या आंगणांत तुळशीवृंदावन आसचें. तातूंत भितर तुळशीची रोंपी रोवची घरच्या बायलांनी, चड करून सवाशिणी बायलांनी तुळशीक गंध फूल कुकूम, उदक घालून तिची सदांच पूजा करची. सकाळ - सांजवेळा तिचे मुखार दिवो, पणटी पेटत दवरची, नित्य नेमान तिची पूजा करून जातकच तिका प्रदक्षणा घालच्यो .... बी तें तर जालेंच पूण ताचे भायर दर वर्सा कार्तिक म्हयन्यांत शुद्ध दुवादशी दिसा, जाका आमी गोंयांत व्हडली दिवाळी अशें म्हण्टात, त्या दिसा तुळशीचें लग्न व्हडा - थाटमाटान श्री विष्णू बरोबर करचें, म्हणपाचीय रीत ताणीं आमकां घालून दिली.

गोयांत घरोनघर तुळशीचें लग्न करतात तें तुमकां खबर आसतलेंच. त्या दिसा तुळशी भोंवतणीं बरेंऽऽ सारोवन बी निवळ करून रांगोळी घालतात. तुळशी वृंदावन गोवन बरें सोबीत करतात. तातूंत उशी-कांडो, जिन्याची बडी, चिंचेबोटा आशिल्ली चिंचेची ताळी, तशीच आंवाळे आशिल्ली आंवाळेची ताळी बी रोयतात. घरांत खीर पोळी करून खऱ्या लग्नाक करतात तसलेंच जेवण करतात. तुळशीची पूजा करुन त्या अन्नाचो तिका निवेद्य दाखयतात. तिनसांजचो गोंदळी म्हुर्ताचेर भटमामाक आपोवन हाडून मंगलाष्टकां बी व्हडल्या व्हडल्यान गायत तिचें विष्णूकडेन लग्न लायतात. मंगलाष्टकां म्हणटा आसतना खऱ्या लग्नाक धरतात तसो विष्णू-तुळशीमदीं अंतरपाट धरतात. मागीर लग्न जालें तशे तांकां निवेद्याक तरेतरेचे फोव करून दाखयतात, पूण मुखेल निवेद्य आसता हरीजागराचो! हरीजागर म्हळ्यार 'सुके फोव, चिरमुल्यो, उशीकांडयाचे करवे, चिंचेबोट्याचे बारीक बारीक कुडकें, आंवाळ्यांचे बारीक बारीक कातून केल्ले कुडके. कातलेचे कुडके, हें सगलें एकठांय केले, तशे ताका 'हरीजागर'

म्हणटात. हो हरीजागर तुळशी विष्णूक निवेद्य दाखोवन सगल्या घरच्यांक आनी तुळशी लग्नाक आयिल्ल्या सगल्या सोयऱ्यांक वाट्टात. तुळशी लग्नाचो निवेद्य म्हणून हरीजागर खायसर उशीकांडे, चिंचेबोटा, आंवाळे बी उश्टावं नये, असो नेम पाळटात. हो नेम घालून दिवपा फाटलो जाण्टेल्यांचो हेतू म्हळ्यार, तुळशी लग्नाकडेन निकतीच चिंचेबोटां , आंवाळे बी जून जावन तातूंत भितर 'बी' तयार जाता. उशीकांडेय त्याच दिसांनी जून जावन पिकतात. म्हणटकर ही नेमनिश्ठा तांणी आमकां घालून दिवंक नाशिल्ली जाल्यार अधाशी मनीस आनी मस्तीं भुरगीं चिंचेचेर फातर मारून तशेंच आंवाळे तरणे आसतनाच ते पाडून तांची नासधूस करूंक शकतालीं. ही नेमनिश्ठा घालून दिल्ल्यान,त्या त्या फळांची बियां उरपाक आनी संवसाभर ह्या झाडांची परतीय उत्पती जावपाक हो उपाय तांणी सोदून काडिल्लो. तशेंच तुळशी लग्नाकडेन कोणाचेंच दुर्लक्ष जावं नये, म्हणून तुळशीचें लग्न केले बगर जाले बगजर घरच्या चल्यां चलयांचे लग्न करूं नये, असोय नेम ताणी घालून दिल्लो.

तुळशीच्या झाडाभाशेनच आनीकय कांय झाडांक, रुखांक तांणी देवरूप हाडून दिले. जावन, ती तपोवनांनी भोवूंक लागली. आनी अशाच एका तपोवनांत सत्यवान नांवाचो तरणाटो तिका खूब मानवलो. खरें म्हळ्यार तो एक राजपुत्र जावन आशिल्लो. शाल्व देशाचो राजा धुमत्सेन हांगेलो तो पुत्र. ताचें नांव आसलें सत्यवान. पूण ताका चित्राश्ल अशें आनीकय एक नांव आशिल्लें. धुमत्सेन राजा खूब म्हातारो जाल्लो. ताका दिश्टी पडनाशिल्लें. तो दोळ्यांनी कुड्डो आशिल्लो. तागेल्या दुस्मानांनी ताचेर घुरी घालून ताचें राज्य बळकायल्लें आनी ताका राज्याभायरो केल्लो. देखून एका तपोवनांत, आश्रम करून तो आपले बायले वांगडा आनी पुतावांगडा रावतालो. सत्यवान आपल्या आवय-बापायची सेवा करतालो. ताचो तो तेजपुंज तोंडा-दिवो, बुंदवंतकायेची चमक, सेवाभावाची वृती .. बी पळोवन सावित्रीक तो भोवच मानवलो. तिणें ताचेकडेन वळख केली. आपले विचार ताका कळीत केले. ताणेंय तिका आपले परिस्थितीविशीं सांगून आपलेकडेन लग्न जाल्यार फुडाराक तिका कसले त्रास आनी कश्ट सोसचे पड्टले म्हणपाची जाणविकाय करून दिली. पूण

निमाणेकडेन दोगांनीय एकमेकांक जिणेसांगती जावपी संमतीच दाखयली.

सावित्री खोशी जावन घरा परतली. ती घरा पावली, तेन्ना नारदमुनी आनी तिचो बापूय अश्वपती, दोगूय गजाली करीत बशिल्ले. धुवेचे खोशी मुखामळ पळोवन, बापायन तिका विचारलें आनी तिणें आपल्या मनांतलें सगलें सांगून उडयलें. पूण ते आयकून नारदमुनीन तोंड वांकडें करून तिका म्हळें, ' तुवें तुगेलो विचार बदललेलो बरो. कित्याक , लग्न जावन एका वर्सान सत्यवानाक मरण येवपाचें आसा. तो भुरगो अल्पायुशी आसा. पूण सावित्रीन आपलो निश्चय सोडलो ना. तिणें म्हळें, 'तो कसोय जरी आसलो, तरी एकदां हांवें ताका मनान वरलां, तेन्ना आतां म्हजें पातिव्रत्य पणाक लावन हांव म्हजें सौभाग्य परतेंय मेळोवन घेतलीं'. अशे सांगून त्या दिसाच्यान तिणें राजकन्येचे अलंकार बी वापरपाचें सगलें सोडून दिलें.

हे भशेन सत्यवान - सावित्रीचे लग्न जालें. ती म्हासती पतिव्रता आशिल्ली. तिंणें आपल्या मांय-मावांची आनी घोवाची मनोभावान सेवा केली. तिच्या लग्नाक वर्स जावपाक चारच दीस उरिल्ले. नारद मुनीचीं उतरां सदांच तिच्या दोळ्यांमुखार आसतालीं. आतां आपल्या घोवाच्या मरणाक चारच दीस उरल्यात म्हणपाचें जाणून, तिणें उपासाचें व्रत घेतलें. तीन दीस मेरेन तिचो उपास चलतालो. चवथ्या दिसा सत्यवान सदाभशेन रानांत कंद-मुळां आनी जळवाक लाकडां हाडूंक वचपाक भायर सरलो. तेन्ना सावित्रीन ताका, आपुणूय वांगडा येता म्हणून सांगलें. पूण सत्यवानान तिका नाका म्हळें. 'तुका रानांतल्यान चलपाक त्रास पडटले, रानांतली वाट काट्यां खुंट्यांची आसा, तातूंत तूं तीन दिसांची उपासाची व्रतस्त आसा. बी म्हणून सांगून, ताणें तिका वांगडा व्हरपाक जायते आडवेडे घेतले. पूण ती सामकी गळीं येवन म्हणूंक लागली. 'लग्न जावन एक वर्स जालें, हांवें तुमचेकडेन केन्नाच कसली मागणी करूंक ना. म्हजी ही इतलीच मागणी आज मान्य करात' सत्यवानाक मुर्वत कजाली. ताणें तिची मागणी मान्य केली.उपरांत मांय - मांवाचीय मान्यताय घेवन, तशीच उपासाचीच ती सत्यवानाबरोबर रानांत गेली. तांणी दोगांनीय कंद-मुळां पुंजायलीं. उपरांत सत्यवान एका वडाच्या झाडामुळांत सुकी लाकडां पुंजोवक लागलो.

तितल्यांत ताचे तकलेंतल्यान, काळजांतल्यान कळा येवन, तो घामाघूम -खासावीस जालो. आनी घो करून जमनीर कोंसेळ्ळो. सावित्रीन ताची तकली आपले मांडयेर घेतली आनी ती देवाचें नामस्मरण करीत रावली. तितल्यांन सत्यवानाची प्राणज्योत घेवन कोणतरी वता तो दिका दिश्टी पडलो. ते बराबर सावित्री उठली आनी घोवाचे प्राणज्योती फाटल्यान तीय वचपाक चलत रावली. सत्यवानाचे प्राण व्हरपाक स्वता यमराज आयिल्लो. यमराजान तिका पळयली. ताका तिची काकूळट दिसली. ताणें तिका म्हळें, 'बाये, तुज्या घोवाची जीण सोंपल्या. तूं कितली म्हणून चलतली? तूं परती घरा वच, पूण सावित्रीन ताका वळखिल्लो आनी म्हळें, ' देवा यमजा, तूं कितलो गिन्यानी देव. तुका खबर आसा, पतिव्रता बायलांक घोवा इतलें श्रेश्ट दुसरें दैवत ना, जंय म्हजो घोव थंय हांव.' तिचीं उतरां आयकून यमराजान तिका म्हळें, '' बाये, खरे तुजें, पूण तुज्या घोवाचें आयुश्य सोंपला, म्हज्यान ताचेखातीर कांयच करून नजो. तूं घोवाचें आयुश्य सोडून आनीक कितेंय माग,'' सावित्रेन आपल्या मांवाची नदर गेल्या ती ताका दी, म्हणून ताचेकडेन मागलें यमराजान ' तथास्तू' म्हळें. तरीय सावित्री घोवाचे प्राणज्योती फाटल्यान चलत आशिल्ली. परत यमान तिका म्हळें, ' बाय गे, पळय, तुजी ही स्थिती , तुका सामकें पुरो जालां, तुजेखातीर म्हज्यान कांयच करूं नजो. तूं परती घरा वच. घोवाचे प्राण सोडून आनीक कितेंय माग.'' सावित्रीन मांवाचें राज्य मागून घेतलें. हे तरेन एका फाटल्यान एक सावित्री यमराजा कडल्यान वर मागीत मागीत सर्गाची वाट चलत आशिल्ली. निमाणें तिणें आपल्या आवय-बापायक पूत ना, राज्याक वारस ना, तांकां पूत दी म्हणून लेगीत वर मागलो. पूण ती घरा परती कशीच वचना जाली. तिचें हें पातिव्रत्य पळोवन यमराज तिका सामको प्रसन्न जालो. आनी 'तूं सगले वर दुसऱ्याखातीर मागून घेता, तेन्ना सत्यवानाचे प्राण सोडून तुजे स्वखातीर किते जाय ते माग,' म्हणून तो तिका शरण येवंक लागलो. तेन्ना सावित्रीन म्हळें, '' तात, म्हाका ह्या संवसारांत कितें उणें आसा? तूं म्हाका बापायसमान. म्हजो बापूय समजून तूं म्हाका वर दी, आशीर्वाद दी,' यम तिचेर सामको खूश जालो आनी ताणें म्हळें, ''बाये, पुत्रवती भव, चल,

चल तूं आतां घरां'' हें आयकनाफुडें सावित्रीन यमदेवाक म्हळें, '' देवा, तुवें म्हाका हो आशीर्वाद दिलो खरो पूण तो खरो न्हय, फटीचो. कारण जर म्हजो घोवच ह्या संव्सारांत नासलो, जाल्यार म्हाका पूत आनी खंयचो जातलो?'' हे तरेन उतरांच्या जाळ्यांत सांपडावन सावित्रीन यमाक सत्यवानाचे प्राण परते दिवपाक भाग पाडलें. यमराजारान सावित्रीची खूब तुस्त तोखणाय केली आनी सत्यवानाचे प्राण ताणें तिका परते दिले. यम रिकामी दोरी घेवन सर्गांत परतो गेलो.

तसो वडाच्या झाडामुळांत जीव वचून पाडल्लो सत्यवान न्हिदेंतल्यान उठिल्लेवरी जागो जालो. तेवटेन सावित्रीचो मांव, राजा धुमत्सेन हाका दिश्टी पडूंक लागलें. ताचें राज्य ताका परतें मेळ्ळें. हे तरेन जेन्ना सत्यवान-सावित्री रानांतल्यान घरा परतलीं, तेन्ना तिच्या पातिव्रत्याच्या बळार सगल्यांक आनंदी आनंद जालो. उपरांत राजा द्युमत्सेनान सत्यवानाचो राज्याभिषेक करून ताका राजा केलो आनी सावित्री राणी जाली.

दुसऱ्या वर्सा हे गजालीची याद म्हणून सावित्रीन तपोवनांत वचून राज्यांतल्या सगल्या सवाशिणींक वांगडा व्हरून त्या वडाची मनोभावान पुजा केली. तो दीस जावन आशिल्लो, जेश्ठ शुद्ध पुनवेचो.

अशे हे कथेंतल्यान आमगेल्या जाण्टेल्यांनी सवाशिणी बायलांनी जेश्ट शुद्ध पुनवेदिसा वडाची पूजा करची, त्या दिसा उपास करचो, सवाशिणी बायलांक वायण म्हणून वडाच्या पानाचे दोणे करून तातूंत त्या हंगामांत मेळटात तसलीं आंबे, पणस अनस, पेरां, नाल्ल, केळीं बी घालून ते दोणे तांकां ' वायण' म्हणून दिवचे अशी रीत चालून दिली. आजून मेरेन बायलो मनांत ही श्रद्धा बाळगून त्या दिसा उपास करतात आनी आपल्या घोवाचें आयुश्य वाडचें म्हणून हें व्रत करतात. त्या दिसा तीं वडाची, पेंपळाची, रुमडाची, तुळशीची बी भक्तिभावान पूजा करतात.

आयचें यूग हें विज्ञानीक यूग. ह्या विज्ञानीक युगांत उपास करून वडा-पिपळा सारक्या झाडांची पूजा केल्यार घोवाचें आयुश्य वाडटा, म्हणपाचो विचार हांसूंक

येवपा सारको न्हय? खरेंच! ही जावन आसा अंधश्रद्धा. पूण ह्या सगल्या गजाली फाटल्यान आमगेल्या जाण्टेल्यांचो हेत कितें आशिल्लो म्हणपाचें विज्ञानीक नदरेन विचार करून पळयत जाल्यार अशें दिसून येता, की आयजकाल घरोन घर, कोळशाच्यो, पेट्रोलाच्यो , गॅसाच्यो आनी इलेक्ट्रीक शेगड्यो बायलो वापरतना दिश्टी पडटात. पूण ह्या शेगड्यांचो सोद, लागचे आदीं घरोन घर लाकडांचो उजो करून बायलो रांदनीर रांदताल्यो. त्या वेळार धुंवतो उजो पेटोवपाक, फूऽ फूऽ करून फूक मारपाक बायलो कोंड्याचे नळयेचो वापर करताल्यो.

आयजकाल भुरग्यांक खेळचेलीं फटीचीं आर्मा खेळणी म्हणून मेळटात. पूण आदल्या काळार भुरगीं आर्मा वजा फटास घेवन खेळटालीं. फटास म्हळ्यार कोंड्याचो एक पोकळ कुडको म्हळ्यार नळी आनी ते नळयेंत गच्च भरता अशी कोंड्याचीच तासून केल्ली बडी. हे बडयेक एकेवशीं थोरूं आसता. मूठ आसता आनी ती बडी त्या थोरवांत घट्ट बसयल्ली आसता. ही बडी बरोबर नळयेचे लांबायेची आसता. अशे तरेन तयार केल्ले हे फटाशीचे नळयेंत तेफळ घालतात. बडयेन धुकलून तें तेफळ नळयेच्या फुडल्या पोंतार व्हरून पावयतात. मागीर तेच नळयेंत परत आनीक एक तेफळ घालून तेच बडयेन तें नेट्टान धुकलतात. तशें केल्ल्यान दोनय तेफळांमदीं आशिल्ली हवा नेट्टान भायर सरता. पूण भायर सरतना ती नळयेतल्यान तोंडार आशिल्ल्या तेफळाक नेटाचो धपको दिता आनी 'ठो' असो आवाज करून तें तेफळ आर्मातल्यान गुळी भायर सरची, तशें भायर सरता. बाबड्या आदल्या भुरग्यांक हे गजालीची मजा दिसताली आनी ही फटास घेवन तीं वरांची वरां खेळटालीं. अजूनय गांवांतलीं आनी खेड्यांतलीं गरीब दुबळ्यांचीं भुरगीं व फटासो घेवन खेळटात आसतली. अशी ही कोंड्याची नळी, गोंयकारांनी लोक साहित्यांत लेगीत मुदयेर थीक दसोवचें तशी दसोवन दवरल्या, गोंयकार उलयतां उलयतां सहज कांय ओपारी मारतात.

देखीक : सुण्या शेंपडी नळयेंत घाली म्हणून नीट जावची पडल्या?

धऽऽऽऽ र नळी

नळी काडली

पेर नाशिल्ली नळी

बारीक नळी चेपूंक बरी

सामकी चिकनळी

व्हडले व्हडले हे जे वड, पिपळ, रुमड बी रूख आसात, तातुंतलो दर एक रूख, दर दिसां, पांचशीं लोकांक, एका दिसां पावत तितलो प्राणवायू तयार करतात. हाचे भायर वडा-पिपळाचीं तशींच रुमडांची फळां खावपाक रानांतल्या असंख्य सवणीं -सुकणी येत. ती फळा खावन पोसतात. ह्या फळांनी प्रथिनां-व्हिटामिनां बी भरपूर आसतात. ताका लागून असल्या सवण्यांचीं भिन्यांची -भिरीं गांवांत येतात. थंय तीं किडी, मुयो, जीव, जंतूय खातात आनी ताका लागून गांवांत रोग-राय पसरूंक पावना. लोकांक दुयेंसां जावंक पावनात. इतलेंच न्हय, तर तांचे विश्टेंतल्यान तांणी खाल्ल्या फळांच्यो बियो जंय जंय शिंपडटात थंय थंय नव्या रुखांची उत्पती जाता. तर असले ते व्हडले - व्हडले रूख, इतलेंच न्हय, तर आनीकय जायते विंगड विंगड तराचे रूख आसात. आमचीं रानां वनां आनी जंगलां , जिनसावार रुकांनी गच्च भरिल्लीं आसतात. म्हणटकच सगल्याच रुखां संबंदी कथा - काणयो रचून अंधश्रद्धा कितें म्हणून पातळायतले आनी सगल्याच रुखांक कितें म्हणून देवपणाक पावयतले, . देखून जाण्टेल्यांनी आमकां कांय व्हडल्या व्हडल्या रूखांचेर देव - देवचारांचो राबितो आसता अशें सांगून भंय घालून दवरलो ही बी अंधश्रद्धाच!

वड, पिंपळ, चिंच, सांतोण, रुमड, ओंवळ, कुमयो... बी व्हडल्या व्हडल्या रूखांक इल्ली लेगीत दूक बादू नये, तांचेर कशेच तरेन कुराडीचो घाव बसूं नये, म्हणून तांणी ह्या झाडांचेर देंवचार, भुतां आसतात, झाडांक दुखयल्यार तीं मानगुटेर बसतात, गांवांचेर संकश्टां येतात, झाडां मारपी मनशाक पिशें लागता, मनशां मरतात... बी असे समज पाताळावन, ताकां तांणी झाडां मारपा पासून आडयिल्लें . आनी तशातूंय खंयचोय एकाद-दुकलो रूख मारचोच पडलो जाल्यार, गांवच्या धा जाणांनी एकठांय

येवचें, वाड्याचो मुखेली 'जल्मी' गांवकार आसतालो, ताणें येवन धा जाणांचे वतीन देवाक गाराणें घालचें देवाची प्रसाद पाकळी घेवची, कौल घेवचो, आनी मागीरच झाडाक कुराड तेंकोवची अशें बंदन घालून दवरलें हे भागोवळीक 'बाबा करप' अशें म्हणटात.

वड, पिपळ,.... बी असल्या रुखां भायर आमच्या भोंवतणी माड, आंबो, पणस, भिरण्ड, माडी, बी असलेय रूख आसात. पूण ह्या रूखां बाबतींत कथा, दंतकथा रचपाची जाण्टेल्यांक गरज भासली ना. कारण सुवार्थी मनीस त्या त्या झाडांचो आपल्याक कशे कशे तरेन उपेग जाता हें पळोवन, ते ते रूख रोवंक लागलो. तर ह्या रुखांचो आमकां मनीस जातीक कसो कितें उपेग जाता, तें आतां आमी पळोवया. सुर्वेक 'माड' म्हणल्यार कल्परूखाची आमी वळख करून घेवया.

卐卐卐

# माड : कल्परूख



आमच्या गोंयांत माड कोणें पळोवंक ना वा माडाक वळखना असो कोणय आसतसो दिसना. कित्याक, गोंयांत वचत थंय माड दिश्टी पडटात. गोंयची जमीन तशेंच हवामान माडाक खूब मानवता. माडाक उदकाची गरज आसता. जमीन फुसफुशींत, रेवाळ आनी खारशी जाय आसता. देखून गोंयांत भाटांनी, कुळागरांनी, शेतांच्या धडांनी, दर्या-लागसारच्या परिसरांनी, मार्गाच्या दोशीं - वशीं, दोंगरांनी, बांदांच्या कुशींनी आनी लोकांच्या पोरसांनी लेगीत माड पळोवंक मेळटात.

गोयांत बाणावले, अंत्रुजेत, कळंगुटे, कोलव्यां, कांसावले, खांडेपारा, उसगांवां बी माडाची लागवड मोट्या प्रमाणान केल्ली दिश्टी पडटा.

गोंयकारांचें आनी माडांचें जिवाभावाचें अशें खाशेलें नातें आसा. माड म्हळो, तसो गोंयकार ताका आपलो जणू काय तो एक वाडवडिलच जाल्लेवरी आदराचे नदरेन पळयता. कारण माडाच्या एकान एक भागाचो गोंयकारान आपले जिणेंत वापर करून घेतिल्लो आसा. वता पावसा पासून आपलें रक्षण ताणे माडापासून केल्लें आसा आनी रूचीचे जेवण जेवतलो जाल्यार आपल्या अन्नांत ताणें माडाच्या फळाचो

म्हळ्यार नाल्लाचो आसपाव करून घेतला.

गोंयकारांच्या दिसपट्ट्या जेवणांत नाल्ल आसताच . गोंय हो एक दर्याचे देगेर वशिल्लो सुंदर प्रदेश. म्हण्टकच दर्यांतलें, तशेंच खाडीतलें, पोयेंतलें जितें फडफडीत नुस्ते हाडून नाल्लाचे सोयेंत, फावो तो मसालो घालून, सोय बारीक वांटून त्या नुस्त्यांचे कालवणें करुन शिताचें भातें मारलेबगर गोंयकारांचे पोट भरना. ताका जेवलोसोच दिसना.

गोंयकारांच्या जेवणांतलो खंयचोय निजस नाल्लाविणें जायना. गोंयकारालें मुखेल अन्न म्हळ्यार शीत-रोस. कोणालीय चली लग्न जावन दुसऱ्याला घराक वता, ती खात्या - जेवत्याल्या घराक पडली जाल्यार, ती बरी शिता-रोसाक पडली, अशें आमी गोंयकार म्हणटात. गोंयकार तांदळाचें शीत करतात. शिता वांगडा नाल्ल घालून तरेतरेची कालवणीं करतात. दाळ घालून केल्ल्या कालवण्याक रोस म्हणटात. नुस्त्याच्या कालवण्याक कांय लोक हुमण म्हणटात तर कांय लोक नुस्त्याची कडी म्हणटात. पूण नाल्लाचो दाट रोस काडून तातूंत भिण्डाचीं सोलां बी घालून गोंयकारांगेर कडी म्हणून कालवण्याचो एक आगळो वेगळो परकन्न करतात. तो रुचीकय बरो आसता आनी जेविल्लें जेवण जिरपाकय बऱ्याक पडटा. सांगपाचे म्हळ्यार गोंयकारालें आनी नाल्लाचें अतूट अशें हे जिवाभावाचें नातें. पूण व्हडा मोलाची आनी अप्रुपाची गजाल म्हळ्यार, नाल्लाक अशें हें म्हत्व फकत खावपा पुरतेंच दितात आनी तें फकत गोंयकारच दितात अशें न्हय, तर सगल्या भारतभर लोक नाल्लाक आगळें वेगळें म्हत्व दितात. नाल्लाचे बाबतींत मनांत पूज्य भाव बाळगून ताका ' श्रीफळ' अशें म्हणटात. भारतीय संस्कृतायेंत नाल्लाक, श्री गणेशाचें प्रतीक मानला. कसलेंय देवकृत्य करता आसतना पयलीं श्री गणेशाची पूजा करतात. त्यावेळार एक ल्हानसार ताटांत पडभर तांदूळ घालून, ते तांदळाचे राशीर वयर नाल्ल दवरतात. तशेंच कुशीक विडो दवरतात आनी ताची श्री गणेशाच्या नांवान पूजा करता. हें जें तांदूळ आनी नाल्ल एकठांय करून, श्री गणेशाचें प्रतीक तयार करतात, ताकाच 'गणेशपुजा' वा 'गणेशपूजन' अशें नांव दिल्लें आसा. असो हो नाल्ल म्हळ्यार सगल्या फळांत श्रेष्ठ

आनी देवाचें प्रतीक म्हणून मानिल्लें फळ. ताचो पूज्य भावनेन वेगवेगळ्या शुभसमयांचेर वापर करतात.

देखीक, आमी जेन्ना देवळांत वतात, तेन्ना देवामुखार ताटांत नाल्ल दवरून देवाची भेट घेतात. देवांक सांगणे- मागणें करतात. देव -देवतांची तशेंच सवाशिणी बायलांची त्या-त्या समयार आपापले रिती प्रमाण कोण दोन नाल्लांची तर कोण पांच नाल्लांची व्होट भरतात. चवथीच्या आदल्या दिसा, म्हळ्यार तये दिसा, गौरी-म्हादेव, म्हळ्यार श्री गणपतीच्या आवय-बापायची पूजा करपाची रीत आसा. ते पुजेक म्हादेवाचे प्रतीक म्हणून नाल्लाची पूजा करात. हो नाल्ल पुजेक लायतना ताची शेंडी वा सोंडी काडून, नाल्लाचे तिनूय दोळे दिश्टी पडत असो नाल्ल दवरतात. हाचे फाटलो हेतू म्हळ्यार, म्हादेवाक तीन दोळे, देखून तांचे प्रतीक म्हूण नाल्लाचे तीन दोळे दाखयतात. गणपती पुजेक लायतात ते बसकेमुखार माथ्यार जी माटोळी बांदतात, म्हळ्यार तरां तरांची फळ फळावळ, आंब्यांचे ताळे, भाता कणसांचो झुंबर बी बांदतात, ताया सगल्या फळांमदीं अग्रस्थानार भौमान नाल्लाकच दिल्लो आसता. घरां तशेंच व्हडल्या व्हडल्या संस्थांखातीर इमारती बांदपाक, पयलीं भुमीपूजा करतात. तेन्ना थंय नाल्ल फोडटात. मोट मोट्या उदयेग धंद्यांचीं उक्तावणां करतात, तींय नाल्ल फोडूनच करतात. जात्रांनी देवाचे रथ नाचयतात. त्या रथांचेर नाल्ल फोडप म्हळ्यार व्हडा भौमानाची गजाल आनी वर्सभर राखणेचो देवाचो कौल अशें मानतात. व्हड व्हड व्यक्तिचे सत्कार करतात, व्हडा कलाकारांक पुरस्कार भेटयतात, तेन्ना तांकां शाल आनी श्रीफळ म्हळ्यार नाल्ल दिवन तांचो भौमान करतात. घरांत कोणय बरो ना जाता वा मनीस कसल्याय संकश्टांत सांपडटा, तेन्नाय देवाक नाल्ल दवरून सांगणी मागणी करतात. अशें हें श्रीफळ म्हळ्यार नाल्ल, भारतीय संस्कृतायें विश्वरूपी, सर्वश्रेष्ठ अशें फळ म्हणून मानलां.

नाल्ल कोयतेन , ना जाल्यार सुळकेर सोलतात. कोयतेन सोलिल्लो नाल्ल दुखूंक लागता आनी ताका लागून तो कांय दिसांनी कुसूंक शकता. पूण सुळकेर सोलिल्लो नाल्ल चड दीस तिगता. हे भशेन सोणण वेगळे काडलें म्हणटकच, सोण्णाच्या काथ्या

भितरल्यान घट्ट नाल्ल आसता. हो घट्ट भाग म्हळ्यार नाल्लाचें कट्टें . असो हो सोल्लिलो नाल्ल वाटकुळो, वा बरे जातीचो, दाट कातलेचो आसत जाल्यार, हय न्हयसो लांबसो आसता. नाल्लाचे सोडयेकडल्या भागाक तीन दोळे आसतात. दोळे म्हळ्यार आमच्या हाताच्या बोटांच्या घेरा येदे वाटकुळे बुराक. पूण हे बुराक उगडे नासतात. ताचेर अतीऽ पातळ कट्टेची कंवच आसता. सुरयेच्या तोंकान वा कुलेराच्या दांड्याच्या पोंतान धोंगशीत जाल्यार ती कंवची फुटून दोळो उगडो जावं येता. इतली त्या दोळ्यांक घटसाण नासता. हाकाच लागून जावंये नाल्लाचो जो आमी श्रीफळ म्हणून तरेतरेन उपेग करतात, तेन्ना ताका काथ्याची शेंडी दवरतात. शेंडी नाशिल्लो नाल्ल श्रीफळ म्हणून उपेग करूंक मेळना. हे गजालीक एकच आडवाद आसा, तो म्हळ्यार म्हादेवाचें प्रतीक म्हणून जो नाल्ल पुजेक लायतात, ताची मात सोंडी काडून, तीनय दोळे दिसतात असो करूंक पुजेक लायतात. नजाल्यार शेंवडी नाशिल्लो नाल्ल, फकत फोडूंन खाणा जेवणाक वापरपाचो . कारण सोंडी काडिल्लो नाल्ल चड दीस तिगना, तो दोळ्यांकडेन कुसता.

नाल्लाची शेंडी आनी मुखावयलें पोंत हांचेमदी कोयती आडवी मारून,नाल्ल फोडटात. कोयती मारतकच नाल्ल मदींच आडवो फुट्टा. नाल्लाचीं सारकें बरीं दोन अर्दा जातात. भितरलें उदक फस्स करून वोतता. हें उदक गोड आसता. नाल्लांचीं जीं दोन अर्दा जातात, तांका 'वळी म्हणटात. . दर एका अर्दाक 'वळें' म्हणटात. वळयांत भितर धवी फुल्ल ' कातली' आसता. कातली रूचीक गोड आनी सुरबूस आसता. ही कातली कट्टयान घट्ट दशिल्ली आसता. नाल्ल बरे जातीचो आनी बरोऽ जून जाल्लो आसत जाल्यार, कातली अर्द इंच लेगीत दाट आसूं येता. हीं वळीं मागीर आदोळेचेर काततात. कातली कांतून कीस येता, तिका 'सोय' म्हणटात. कातली आनी नाल्ली हांचे मदीं कातलेचेर एक पातळ काळसार थर आसता. ताका करय म्हणटात. सोय कांतले उपरांत जें कट्टे उरता ताका कट्टी वा नाल्ली अशें म्हणटात. आदल्या काळाक भिकारी कट्टी हातांत घेवन भीक मागताले देखून ' कट्टी हें उतर अभद्र आनी गरिबकायेचें लक्षण मानतात. तें आयकुपाक आमच्या

कानांक दारूण लागता. हेच गजाली वयल्यान कोणाचेंय नबीश वायट अशें म्हणपाचें आसल्यार ताची कट्टी तसली वा ताची कट्टी फुटकी' अशें म्हणटात. बरे, सभ्य सोज्वळ भाशेंत कट्टेक ' नाल्ली' हेंच उतर वापरतात.

नाल्लाची कातली जशी जेवणाक वापरतात तशेंच नाल्लाचें तेल करूनय तें जिनसा - पदार्थांनी वापरतात. आजकाल खावपाखातीर जायत्या तरांच्या तेलांचो सोद लागला आनी सर्रास बिजलेच्या दिव्यांचो वापर जावंक लागला. आदल्या काळाक गोयांत चड करून नाल्लाचेंच तेल वापरताले. नाल्लाच्या तेल्लाक खोबरेल वा नाल्लेल अशें म्हणटात. ते जेवणां-खाणांत तर वापरतालेच, त्या भायर काना मारयाक घालताले. त्या काळार आयचे वरी माथ्याक घालपाक सुगदी तेलां नासलीं. बाळंटीच्या आनी भुरग्याच्या आंगाक तेल रगडप ही तर एक रीत रिवाजच जावन आशिल्ली. तशेंच दिवे पेटोवपाकय ह्या तेलाचो उपेग जातालो. त्या काळार बिजलेचे दिवे नासले. दिवल्यो,लामणदिवे, कंयपंज्यो, पण्ट्यो .... बी असले दिवे त्या काळार वापरताले. आजकालच्या विज्ञानीक युगांत खोबरेलाचो वापर अन्य वेगवेगळ्या कामांखातीर, मोठ्या प्रमाणांत उद्येग धंद्यावरवीं जावंक लागला.

खोबरेल करपाक नाल्लाची कातली सुकोवची पडटा. सुके कातलेक 'खोबरें' म्हणटात. कातली सुकली तसो कातलेंतलो रोस ना जाता. तिची सुरबुसाण नश्ट जाता. हेच गजाली वयल्यान ' खोबरें जावप' वा 'खोबरें करप' अशी ओपार पडल्या. कोणाचेंय बरेंऽ कसलेंय काम कसल्याय कारणाक लागून नश्ट जालें, जाल्यार तागेल्या त्या कामाचें खोबरें जाले' अशें म्हणटात.

पाड्याच्या पाड्याक नाल्ल पाडून हाडले, तशे ते गुदांवांनी भरून राशीक मारतात. मे म्हयन्यांत मागीर कडकडीत वतांत, नाल्ल फोडून, वळीं खळ्यांनी सुकत घालतात. आजकाल नाल्ल सुकोवपाच्यो आधुनिक पद्धतीय आयल्यात. हे नाल्ल, गुदांवांनी बरोच तेंप राशीर उरिल्ल्यान कांय नाल्लांक कोंब येतात. तर कांय नाल्लांतलें उदक आट्टा. ज्या नाल्लांनी उदक आट्टा, ताका ' आटूक' म्हणटात. आटूक जावन चड तेंप उरिल्ल्या नाल्लाची कातली सामकी सुकता. नाल्लापसून ती

गुळी जाता आनी नाल्लांत भितर ती गुडगुडटा. तेन्ना ताका 'गुडगुडें' म्हणटात. कांय वेळार पाडेली माड पाडटा आसतना चुकून तरणी पेंड कापतात, म्हणचे, ते पेंडीचे नाल्ल बरेऽ जून जाल्ले नासतात. असले नाल्ल राशीर दवरले म्हणटकच ते कारवेतात. म्हळ्यार तांतलें उदक रोखडेंच आट्टा. तांचीं गुडगुडीं जातात. कांय कुसतात, पोल जातात. असल्या कारवेल्या नाल्लांचें तेल लेगीत फाल्हवरीक येना. जूनसार नाल्ल आसता तो कोंबेता. कोंब आयिल्लो नाल्ल जेन्ना फोडटात, तेन्ना नाल्लाच्या पोकळ जाग्यार जंय उदक आसता, तें थंयचें नाच जावन ते बदला थंय मारांदो तयार जाल्लो आसता. मारांदो धवो फुल्ल कापसाचो गुठलो कसो आसता. खावपाक एकदम रूचीऽक गोड गोड लागता. जसजसो नाल्लाचो कोंब वाडत वता, तसतसो मारांदो बावत वता. ल्हान ल्हान जावन इबाडटा. अशे हे राशीचे नाल्ल फोडून सुकोवन खोबरें तयार करतात.

खोबरें सुकून बरेंऽ कुटकुटीत जातलें जाल्यार ताका पांच - सात वतां दिवचीं पडटात. मागीर ताचे बारीक बारीक कुडके करून ते गिरणीर व्हरून ताचें तेल काडटात. जेन्ना गिरणींचो सोद लागूंक नासलो, तेन्ना तेल काडपाक बैलांचे घाणे आसताले. बैला घाणो ओडलो तसो घाणो घुंवतालो. भितरलें खोबरें पिळटालें आनी तेल तयार जातालें. घाण्यार तेल काडटना, घाण्याक जे बैल बांदताले, तांच्या नाखांत खोबऱ्याचो वास वचून, ते खोबरें खावंक सोदतीत म्हणून तांचे दोळे बांदताले बाबडे घाणो वोडटाले. घाणो वोडूंक तांकां खूब त्रास पडटाले. देखूनच जेन्ना कोणूय मनीस खूब कश्ट करता, त्रासाचें काम करता, तेन्ना तो सामको 'घाण्याचो बैल कसो काम करता' अशें म्हणटात.

खोबरें पिळून तेल वेगळें करतकच जो सोपोड उरता, ताका 'पेंड' म्हणटात. पेंड खावपाक गोड आसता. ती गोरवांक खावड म्हणून घालतात. चड करून दूद दिवपी गोरवांक ती खावयतात. ताका लागून गोरवांक दूद तयार जाता, अशें म्हणटात.

नाल्ल सुकोवन जशें तेल काडटात, तशेंच जित्या नाल्लांचेंय तेल काडटात. नाल्लाची सोय बारीक वाटून तिचो दाट्ट बरो रोस काडटात. हो रोस इल्लें लेगीत

उदक घालीनासतना काडटात. असल्या रोसाक 'आपरोस' म्हणटात. हो आपरोस रांदनीर दवरून, लोणी कडयल्लेवरी कडयतात, आनी तेल काडटात. असल्या तेलाक ' आवेल' म्हणटात. आदल्या काळार आवेलांत तळिल्ले वडे बरे लागतात म्हणून लोक मुजरत आवेल काडटाले.

आमगेले जाण्टेले तेलाचो वापर खावपाक, आंगाक लावपाक , काना-माथ्यांक घालपाक दिवे पेटोवपाक .. बी जशे करताले, तशेच वखद म्हणूनय करताले. तांबड्या माडाच्या नाल्लांचें आवेल करुन वखदाक उपेग करपापासत ते मुजरत राखून दवरताले. आजकाल ते दीस फाटीं पडल्यांत. आज तरेतरेचीं वखदां आनी दुयेंसांचेर नवे नवे उपाय आयल्यात. ते भायर आरोग्याचे नदरेन विचार करून. खोबरेला वजा आंगांत जिरनात तसलीं, अनसेच्युरेटेड तेलां लोक खावक लागल्यात. ताका लागून नाल्लाचो अन्य तरांनी उपेग करूंक लागल्यात. आज काल नाल्लाच्या काथ्याचो, सोण्णांचो, नाल्ल्यांचो, तेलाचो बी वेगवेगळे तरेन वापर करपाचे नदरेन, व्हडले व्हडले उद्येग धंदे सुरू जाल्यात. देशांत लोकवस्तीय भरमसाट वाडल्या. ह्या सगल्या कारणांक लागून नाल्लाचें मोल हिसपा भायर वाडलां. आनी सर्व सामान्य मनशाक आदल्येवरी नाल्ल वापरप कठीण जालां.

आदल्या कामार नाल्लाची कातली खाताले आनी नाल्ली-सोण्णां जळवाक वापरताले. नाल्लेचो उजो खर जाल्ल्यान, भांगराच्यो वस्ती करपाक शेट नाल्ल्यांचो उपेग आगटें पेटोवपाखातीर करताले. तशेंच मडवळ नाल्ल्यांच्या उज्याचेर फेर्रा तापोवन न्हेसणांक फेर्र मारताले. तेय दीस आज सोंपल्यात. आयचे यूग उद्येगीकरणाचें जाल्ल्यान जीवनमान बदललां. नाल्ल्यो सोण्णां पासून तरतरेच्यो नोलादीक वस्तू तयार करपाचे सोद लागल्यात आनी व्हडले व्हडले उद्येग धंदे रुपाक आयल्यात. अन्न शिजोवपाखातीर गॅसाचीं, बिजलेचीं सुर्य-उर्जेचीं नवीं-नवीं उपकरणां लोक वापरूंक लागल्यात.

देशांत जेन्ना उद्येगीकरणाच्यो सुविधा नाशिल्ल्यो, तेन्ना सोण्णाच्यो थराविकूच वस्तू तयार जाताल्यो. देखीक सुमां, राजू, सुमाड्डीं, पांय-पुसणीं, शिंकी, शेली....

बी करताले आनी उरिल्ले सोण्ण पेटोवपाक आनी अन्य वापराक व्यर्थ वतालें, म्हळ्यार अतिताय जावची ना, आजकाल सोण्णाच्या काथ्याच्यो तरातरांच्यो वस्तू करपाचें उद्येगीकरण देशांत सुरू जालां. देखीक, सोण्णाच्या काथ्याच्यो म्हळ्यार फायबरापासून जमनीर घालपाचे गालिचे, वण्टीचेर हुमकळावपचे गालिचे, पेनलिंग, पाकिटां, तरेतरेच्या पर्सी ... बी जिनसांवार वस्तू तयार जावंक लागल्यात. ह्या उद्येग-धंद्यावरवीं देशाक परकी चलनय मेळूंक लागलां. अशे तरेन नाल्ल दिर्शी दिर्शी आमचे जिणेकडेन चड आनी चड समरस जायत आसा.

अशा ह्या मोलादीक नाल्लाचें झाड म्हळ्यार माड. बरे जातीचो माड, ताची बरेऽ तरेन उस्तवारी करीत जाल्यार शंबर वर्सा वयर वांचता माडाक झाडावरी कांदे, खांद्यो, ताळे-ताळयो बी नासतात. तो उबोच ऊंच ऊंच वाडत वता. झाडाच्या मदल्या भागाक खोड म्हणटात. तशेंच माडाच्या मदल्या आंगांक ( कांड) म्हण्टात. कांड वाटकुळें, सरळ उबेंच वाडटा. माडाचे बरकती परमाण ( ताकदी परमाण) तें बारीक मोटें पसवता. बरो ताकदवान माड, पंचवीस ते तीस हात लेगीत गरगरीत ऊंच वाडटा. खाला जमनींत ताचीं मुळां, भोंवतणीं, आडवीं, पयस पयस पसरत आसतात. माडाच्या पानांक 'चुडटां' म्हणटात. एका चुडटाक 'चुडत' वा 'चुडीत' म्हणटात. अस्सल माडाचें एक एक चुडत स सात हात लांब आसना.माडाचें कांड, जय वयर सोंपता, थंय हीं चुडटां कांडाक घट्ट दसून, कांडा भोंवतणीं फांकिल्लीं आसतात. हो चुडटाचो तुरो पातळिल्लो पळोवपाक फुलयल्ली सत्री कशी दिसता. ह्या चुडटांनी भरिल्ल्या तुऱ्याक , माडाचो ' शेंडो' म्हणटात. माडाचो मदलो बिंदू आसता, तो खूब नाजूक आसता. त्या जाग्यांतल्यान माडाक नव्यो नव्यो शिवड्यो म्हळ्यार कोंवळी चुडटां येवन माड वाडिल्लो आसता. माडाच्या शेंड्याच्या मदल्या भागाक, माडाचो कळवो, कवाळो वा कवळ अशेंय म्हणटात. माडाचीं चुडटां जितलीं लांब आसतात. तितलींच लांब पाळांय आसतात देखून चुडटां जंय मेरेन लांब पाताळिल्लीं आसतात, तितलीं लांब माडाचीं मुळां जमनींत पातळ्ल्यांत अशें समजुचें.

आमी जायतेदां पळयतात, कांय झाडांच्या मुळांक कोंब येतात. तांकां मागीर

ांकरी फुट्टा. उपरांत ते आंकरेचें नवें झाड तयार जाता. माडाचें तशें नासता. माड वपाक, बऱ्याऽशा नाल्लाची निवड करची पडटा. आसत्यांत बरे जातीचो , गरगरीत ाडिल्लो माड म्हळ्यार जो मोट्टे आनी खूब नाल्ल दिता असलो. तशेंच जाच्या ल्लांचो आकार मात्सो लांबसार आसता, असलेच नाल्ल रोवपाक सोदून काडटात. वपाचे नाल्ल माडावयल्यान अळंग देवयतात. माड पाडून पेंड खाला उडयल्ले ाल्ल रोवपाक उपकरनात. रोवपाचे नाल्ल कांय म्हयने घरांत सावळेक दवरतात. परांत ते उदकान थपथपलेले वोले जमनीर, सोंडी वरशी करून थंडसाणेक दवरतात ानी तांकां कोंब काडटात. हे कोंब बरेऽ देडेक हात वयर सरून तांकां शिवड्यो वंक लागल्यो, म्हणटकच मागीर ते नेमांत रोयतात. ह्या रोप्यांक नेमे वा कवाथे ाशें म्हणटात. कांय लोक नाल्लाक वेगळे कोंब काडून रोवचे बदला सोमतेच नाल्लूच मांनी दवरून तांकां कोंब काडटात.

नाल्ल रोवपाक व्हडलो फोंड मारचो पडटा. ह्या फोंडाकूच ' नेम' म्हणटात. म देडेक मिटर लांब, देडेक मिटर रूंद आनी देडेक मीटर खोल खणटात. तातूंत को पालो, सोण्णां पिडे बी घालून हुलपावन ते भाजून घेतात. म्हणटकच जमनीत ळंबो ( वायटी) बी आसल्यार मरता. तातूंत मागीर शेणाचो गोबोर, पिडे, पालो, स्तें, भाताचो कुंडो, माती, रेंव बी घालून जमीन उदकान बरीऽ भिजयतात. कांय ाक कंपोस्ट सारें घालतात, हालींसाराक गांयडोळांचेंय सारें घालता. हे तेरेन नाची जमीन फसफशीत आनी वोली, थंडसाणेची करून तातूंत कवाथो रोयतात. जवणेकच नाल्ल नेमांत दवरलो जाल्यार तो सोंडयेवयल्यान वयर करून दवरतात. ल्लाचो थोडोसो भाग जमनींत पुरतात. म्हणटकच नाल्लाक जे दोळे आसतात, तुंतल्यान सोण्ण फोडून, कोंब भायर सरता. नाल्ल रोयतना तो सोण्णासयत यतात. ताका मागीर दर दिसा शिंपतात. कांय दिसांनी कोंब वयर सरूंक लागता. रांत ह्या कोंबाक पानाचें स्वरूप येता. ह्या कंवळ्या पानाक 'शिवडी' म्हणटात. ा शिवड्यांची पूर्ण वाड जाता तेन्ना ताका चुडत म्हणटात.

दीस वतात, तश्यो तश्यो एकार एक शिवड्यो येवंक लागतात. त्यो जेन्ना

नेमाच्या वयर सरतात, म्हळ्यार नेंमांतल्यान तकली वयर काडून जमनीच्या वयर सरतात, तेन्ना वाऱ्यान हालून धोलून शिवड्यो मोडच्यो न्हय आनी रोंप्यान जमनींत मुळां बरेतरेन घट्ट धरचीं म्हणून शिवड्यांच्या दोशींवशीं, वयर जमनीच्या तळाचेर, लाकडां, कोंडे, माडये-फोपाडे बी आडवे तिडवे दवरून, शिवड्यो घट्ट बांदून दवरतात. म्हणटकच शिवड्यो हालूंक पावनात, त्यो मोडनात आनी रोंपो वा नेमो बरेतरेन मुळां घेवंक लागता. मागीर त्या रोप्याक एकार एक शिवड्यो येवंक लागतात आनी रोंपो मात्सो व्हड जाता, तेन्ना ताका 'कवाथो' वा 'कावाथो' अशें म्हणटात. कावाथो नेमा वयर दिसूंक लागता. तेन्ना पुरयतात आनी ताका विल्लें घालात. विल्लें घालें तशें गोरवां - बोकडांचें तोंड ताका लागूंक पावना आनी ताका हुनताची (खर वताची) बादा जावंक पावना. हें विल्लें म्हळ्यार कोंड्याची-कामटांनी पांटुल्यावरी विणून, बल्लाच्या वा पिंपाच्या आवाटाची केल्ली वंय. ह्या विल्ल्यांक दोनूय वाटयां पोंदां नाशिल्ल्यान तें हाताक कांकण चडयल्लेवरी कावथ्या भोंवतीं चडोवन, घट्ट बरें जमनींत पुरतात. ही विल्लीं लोखंडा-वारांवांचीं म्हळ्यार मोट्या सरयांचीं आनी लाताचीं लेगीत करतात.

कावथो व्हड जाता तसो-तसो ताका पयऱ्यान शिंपल्यार पुरो जाता. पावसाचे दीस लागीं पावले, तशे कावथ्याक, माडांक वावर करचो पडटा. जून-जुलय म्हयन्यांत माडांक आळीं काडचीं पडटात. आळीं काडप म्हळ्यार, माडाच्या मुळांत, भोंवतणी वयले वयर माती खणून मुळां सदळ करप आनी मुळाकडसून मिटर देडमिटरभर वाटकुळें कडें कशें करून मेर धरून, माडाभोंवतणीं खोलसार कोनाळे करप. तातूंत मागीर सांवळ घालतात आनी आळीं पुरयतात. सांवळ म्हळ्यार माडाक काडिल्ल्या आळ्यांत जित्या झाडा-पाल्याचें सारें घालप.. देखीक, पावसा दिसांनी दोंगराचेर तरेतरेचीं झाडां-झोपां किल्लून येतात आनी पालो मातता. कुमयाची झाडां, उसकेचीं झाडां, आंसळेचीं झाडां, भेडशेचीं झाडां बी असलीं आनीक कित्याकूच उपेग नात असलीं झाडां मारून, तांचे मोटमोटे भोरे बांदून हाडून त्या आळ्यांनी घालतात. आजकाल तर गांयडोळांचें सारें लोक घालूंक लागल्यांत, वयल्यान इल्ली पातळ मात

शिंवरतात. ते भायर घरभाटांत माड आसत जाल्यार तातूत मागीर जाय जाय तसलो कोयर, म्हळ्यार आंब्यांच्यो साली, पणसाच्यो चारी, शाक-भाजयो शिनून भायर उडयिल्लो कोयर बी व्हरूव्हरून त्या आळ्यांत उडोवं येतात. म्हण्टकच तो मागीर पावसाच्या उदकांत कुसता आनी ताचें माडाक सारें जाता. ताका लागून जमनींत उदक बरें जिरता, जमीन फुसफुशीत जाता आनी माडाक थंडाय मेळटा. माडांक सांवळ तिंसालान घालतात. अंदू सांवळ घाली जाल्यार, फुडल्या वर्सा सांवळ घालिनात. त्या वर्सा फकत खणणी घालतात. खण्णी घालप म्हळ्यार भाटांतली जमीन खणून फुसफुशीत करप. खणणी घाली म्हणटकच पावसाचें उदक जमनीत बरें जिरता. माडांक जाय आशिल्लें वर्सभरयाचें उदक जमनींत बरे तरेन सांठावन रावता. व्हडल्या व्हडल्या भाटांनी तर खण्णीच घालून रावनात तर जमीन खणून वटयो धरतात. त्या वटयानी मागीर पावसाचें उदक तुंबून उरता आनी माड टवटवीत उरून नाल्लाचे पिकावळ तेजीन जाता. व्हडल्या व्हडल्या भाटांक खण्णी घालतना बैलांचें जोत घेवन जमीन नांगरतात.

अशी ही भाटांची कमायशी आनी उस्तवारी बरेतरेन करीत जाल्यार माड चड उत्पन्न दितात. कावथे गरगरीत वाडटात आनी पांच - स वर्सा भितर ते पुटा येतात. कावथे पुटा येवप म्हळ्यार तांकां पोंयो येवंक लागप. म्हणचेच पर्यायान नाल्लांचें उत्पन्न मेळूंक लागप. कावथो व्हड जावन तो पुटा आयलो, तसो ताका माड म्हणटात. माडाक पोंय येता, ती दिसपाक पोनेळावरी, व्हड्याच्या आकाराची आसता. पोंय वयर सरता आनी थोड्या दिसांनी ती उसवता. तातूत भितर पिसोन्दर आसता. पिसोन्दर म्हळ्यार बारीक शिगरांनी-किसरांनी विणिल्ली जाळी कशी आसता. पिसोंदरेंत भितर भिंगर गुठलायल्लें आसता. पोंय पिसोन्दर उसवता आनी भिंगर भायर सरता. भिंगर म्हळ्यार माडाचें फूल वा बारीक बारीक फुलांचो तुरो. भिंगराक कितलेशेच देंट आसतात. कांदळां-फुलांवरी बारीक बारीक फुलांनी गच्च भरिल्ले आसतात. भिंगर उसवता, तशें तशें माडाच्या मुळांत तीं फुलां रांगोळी घाल्लेवरी रासभर शिंवरतात आनी भिंगरांतल्या दांड्याचेर कांय फुलां धरतात. एकेका देंटाक,

एक एक फूल धरता. त्या फुलांतल्यान बोरां पेरां येदे बोंडे जावंक लागतात. इल्ले इल्ले करून हे बोंडे व्हड जावंक लागतात. आदीं ह्या बोंड्यांत भितर कांयच नासता. उदक नासता, कातली नासता... देखुनूच बुद्द अक्कल, शाणपण नाशिल्ल्या मनशाक 'बोंडो' म्हणून संबोधतात. बोंडे जस-जशे व्हड जातात. तसतशें तातूंत उदक जावंक लागता. उदकाक गोडसाण येवंक लागता. तशेंच भितर दुदाचे सायेवरी कातली मांडूंक लागता. अशा वेळार लागसाराक हुंदीर लागता. तशेंच भितर दुदाचे सायेवरी कातली मांडूंक लागता, अशा वेळार लागसाराक हुंदीर आसत जाल्यार ते माडार बोंडे तोपतात. तोपतात म्हणचे बोंड्याक बुराक करून भितरलें उदक पियेतात. मागीर हे बोंडे गळगळून माडावेल्यान झडटात. असल्या पोक्या बोंड्याक बेले अशें म्हणटात. माड लागीं लागीं रोयिल्ले आसात आनी एका माडाचीं चुडडां दुसऱ्या माडाच्या चुडटांक तेंकिल्लीं आसत जाल्यार एका माडाच्या चुडटांवयल्यान हुंदीर दुसऱ्या माडाच्या चुडटांचेर चडटा आनी हे तरेन तो नाल्लांचें खूब लुकसाण करता. हाचेर उपाय म्हणून माडाच्या कांडाक लातां, पत्रे बी गुठलावन बांदतात. म्हणटकच हुंदराक माडार चडूक जमना, हुंदीर पत्र्यावयल्यान सुळसुळून निसरून पडटा. हुंदरां भशेनूच कांय गांवांनी कोगळांय नाल्लाचे बोंडे पोखरतात. बोंड्यांनी उदक तयार जालें तशें कोगळाक अचूक कळटा. तें मागीर येवन बोंड्याक सोंडयेकडल्या भागाक चोंचीन बुराक करता आनी भितरलें गोड उदक पियेता. कोगूळ म्हळ्यार ल्हान सुकणें. तें पियोवन पियोवन कितलेंशें उदक पियेतले? आपल्याक जाय तितलें ऊदक पियोवन तें उडून वता. तें पियोवन उरिल्लें उदक बोंड्यांतच उरता आनी कुसता. ताका मागीर वास मारूंक लागता. तें रंगान तांबडें जाता आनी बोंडो गळगळून पडटा. असल्या कुसक्या बोंड्याक लोक ' तो कोगूळ बोंडो, तातूंत कोगूळ मुतलां' अशें म्हणटात. कांय कडेन नाल्लाच्या बोंड्याक पाखेंय लागतात. हाचेर उपाय म्हूण ल्हान ल्हान डबे, लातांचे कुडके बी सुतल्यांक बांदून नाल्ल बोंड्यांसरी पिराडयांक बांदून हुमकळायतात. वाऱ्यान ते डबे मागीर हालतात आनी वाजतात. हया आवाजाक भियेवन पांखे पळटात. अशे तरेच्या उपायांनी ही नाल्लांची नासाडी जाता ती

सांबाळची पडटा.

दीस वतात, तशे तशे हें बोंडे व्हड जातात, जून जातात. भितर दुदाचे सायेवरी पातळ बुळबुळीत कातली मांडिल्ली आसाता, ती दाट-दाट जायत वता. असल्या तरण्या नाल्लाक ' आडसर' म्हणटात. आडसरांचें उदक अतिशय गोड आनी रुचीक आसता. तें खूब पुश्टिकय आसता. वायटकाराक अन्न म्हूण लारिंजाचो रोस दितात. त्या वजा आडसराचे उदकय दितात. दीस वतात तशीं तशीं आडसरां जून जायत वतात. भितरल्या उदकाची रूच बदलत वता. उदक उणें उणें जायत वता आनी कातली जून जायत वता. इतलें म्हणटासर तीन म्हयने वतात आनी तीन म्हयन्यांनी नाल्ल तयार जाता. अशा ह्या कुचकुचीत नाल्लांनी भरिल्ल्या भिंगराक ' पेड' म्हणटात.

माडाक दर म्हयन्याक एक नवी पोंय येता. दर एके पोंयेंतल्यान नाल्लांची एक पेंड मेळटा. ही पेंड जून जावन नाल्ल तयार जातासर तीन म्हयने वतात. हे भशेन वर्सातल्यान चार पावट माडाचे नाल्ल मेळटात. देखून वर्साक चार फावट माड पाडटात. ह्या पाड्यांक गोंयकारांनी खास नांवां दिलीं आसात. तीं अशीं: १) चवथीचो पाडो २) देजेंब्राचो पाडो ३) शिगम्याचो पाडो (४) मायाचो पाडो. माड पाडले म्हणटकच ते झाडून निवळ करचे पडटात. म्हणचेच थंय पोन्न्यो पोंयों, पिसोंदरी, शेवकां, सुकिल्लीं चुडटां बी आसलीं जाल्यार तीं सगलीं झाडून माड निवळ दवरीत जाल्यार माड लागता पासून बरो आनी पावसा दिसांनी माडाचें कांड चड बुळबुळीत जावंक पावना. माडार चडप ही एक कलाच जावन आसा. माडाक खांदे, खांद्यो नाशिल्ल्यान, तशेंच तो ऊंच ऊंच आनी सुळसळीत आशिल्ल्यान माडाचेर चडप भोव कठीण. माडाचेर सपसप कोणय चडना. माडाचेर चडपी थरावीक मनीस आसतात. माडार चडून नाल्ल पाडटल्या मनशाक ' पाडेली' म्हणटात. तशेंच माडार चडून सूर काडपीय मनीस आसतात तांकां 'रेंदेर' म्हणटात. माडार चडपाखातीर रेंदेर माडांक खापां मारतात. पूण पाडेली पायांक खाडूं घालून, मोटे शितापेन माडार चडटा. खाडूं म्हळ्यार घट्ट सुमाचें, तीन तीन आनी चार चार पोड

घालून केल्लें कोनाळें वा कोयंडी. तें खाडूं पाडेली आपल्या दोनय पावलां भोवतणीं खोंटाच्या संद्यार दवरता. मागीर हातांनी तो माडाक घट्ट वेंगायता आनी खाडवाचे रूंदसाणेंत पांय घट्ट तांडून घेवन पावलांनीय माडाक वेंगायता. अशे तरेन वयर हातांनी आनी खाला खाडवासयत पावलांनी माडाक घट्ट धरून, पाडेली वांगडाच दोनय पांय वयर काडीत काडीत माकोड कसो माडार चडटा. पावसाच्या दिसांनी माडाक शेळो येवन कांड बुळबुळीत जाल्ल्यान पाडेली माडार चडूंक भियेतात.

पूण कांय गांवांनी, चलाख पाडेली पावसा दिसांनी दोन खाडूं वा खाडवां घेवन माडार चडटात. एक खाडू तो हातांक घालता आनी दुसरें खाडू पांयांक घालता. हाताचें खाडूं तो चर्र करून माडाच्या कांडावयल्यान वोडटा आनी शेळो कातरता. हे भशेन माडार चडून तो बद्द वर शेंड्या कडेन पावलो तसो थंयच माडार उबो रावून, जून जाल्ल्या नाल्लांच्यो पेंडी कोयतेन हाडून खाला उडयता आनी माड झाडून निवळ करता. माडावयली पेंड खाला पडली तशी ती जमनीर आपटता आनी देंटांपासून नाल्ल वेगळे जातात, म्हळ्यार निखळटात. थोडे भोव देंटाक उरतात ते निखळावन वेगळे करचे पडटात. देंट आनी नाल्ल हांचे मदीं नाल्लाक तोडी आसता, ताका चांफे म्हंणटात.

नाल्ल निखळकीर रिकाम्या देंटा-सयत जे दांडे उरतात, तांकां ‘ शेवकां’ म्हणटात. आदल्या काळाक शेवकां दांड्यांचो मोटेलो भाग कापून काडून तांचीं पिशोलां करताले. ह्या पिशोलांची, घरांच्यो वंटी रंगोवंक उपेग करताले, ताका ‘पिंतोर कायासांव करतात’ अशें म्हणटाले. आजकाल रंगाऱ्याक बरीं बरीं, तरे तरेचीं पिशोला बाजारांत विकतीं मेळटात.

माडाचीं सुकीं-सुकिल्लीं चुडटां, वर्सयभर खाला गळत आसतात. ते भायर माड पाडटा आसतना, माडाचेर सुकिल्लीं, पिकिल्लीं चुडटां आसल्यार पाडेली तीं कापता. हीं सगलीं चुडटां वर्सयभर एकठांय करून वळणेर दाळून दवरतात. चुडटां केन्नाच जमनीर दाळिनात. तीं दाळपाक माची करची पडटा. माची करपाक, चुडटाचे लांबाये परस इल्ल्या उणे लांबायेच्या जाग्यार दोशीं वशीं फांतर वा चिरे दाळून

हातबर उबारेच्यो मेरो वा पारे करतात. त्या मेरांवयल्यान मागीर चुडटांचे लांबयेचे कोंडे वा माडये फोपाडे बी कितेंय घालून माची तयार करतात. हे माचयेर मागीर वयल्यान चुडटां दाळटात. हे माचयेक कांय लोक ' माच' म्हणटात. तर कांय लोक 'वळणी' म्हणटात.

वळणेर चुडटां दाळटा आसतना, तांचे पिराडे कापून, तीं मागीर दाळटात. पिराडे म्हळ्यार चुडटांचे देंट. एकवचनात ताका पिडो वा पिराडो म्हणटात. पिराडो मिटरभर लांब आसता. ज्या जाग्यार तो माडाच्या शेंड्याक दशिल्लो आसता, तो ताचो भाग दाट, घट्ट आनी सोरपान फुलयल्ले फडेवरी आकाराचो आसता. पिराडे जळवाक वापरतात. तांची शिगरां काडून आदल्या काळार पत्रावळी तोपूंक उपेग करताले तशेंच घरां, खोंपी बी चुडटांनी शिंवतात, तेन्ना पाडसाचेर जडसाण म्हणून दवरपाकय पिड्यांचो उपेग करतात.

चुडटांच्या पिराड्यांचो उपेग जाता, तसोच ताच्या उरिल्ल्या हेर भागांचोय उपेग जाता. पिराड्या फुडलो चुडटाचो भाग म्हळ्यार दांडो वा दांडारो. दांडाऱ्याक दोशी वशीं चुडट्यो आसतात. चुडट्यांक व्हीर आसता. दांडाऱ्याच्या मदल्या भागार चुडट्यो लांब आसतात आनी चुडटाच्या पोंताकडल्यो चुडट्यो मोटव्यो आसतात. दांडाऱ्यांच्यो सारनी करतात, तरेतरेचे पांटले, दिव्यांच्यो शेडी बी करतात. आजकाल तर व्हिरांच्यो दांत धोंकणी म्हळ्यार टूथपिक लेगीत करूंक लागल्यात. व्हिरांच्यो सारनी घट जाल्ल्यान तांचो मार्ग झाडूंक तशेंच वोल्यो जमनी, मान्नीं बी झाडूंक उपेग करूंक बऱ्याक पडटा.

सारनी करपाखातीर चुडट्यो निखळायल्यो तशे चुडटांचे दांडारे उरतात. दांडाऱ्यांच्या भितरल्या भागांनी वळीं म्हणून काडटात. तांचो उपेग दोरावरी कितेंय बांदपाक करूं येता. वळें दोरा परसय घट आसता. दांडाऱ्याचो फाटले वशींचो भाग धाडावन ताचीं शिगरां वा किसरां करतात. तांचो उपेग पत्रावळी, दोणे बी तोपूंक करतात आनी वळ्याचो उपेग रेंदेर सुरीच्यो पोंयो बांदपाक करतात.

चुडटांचीं मल्लां करतात. मल्लां करचे पसत चुडटांची फुडली तेंगशी म्हळ्यार पोंताकडलो, लागीं लागीं हात देडे हात लांबायेचो कुडको कापतात. ह्या कुडक्याक 'सांपळो' म्हणटात. हो कुडको मिटर देड मिटर लांबायेचो आसल्यारय ताका सांपळोच म्हणटात. चुडटाच्या मोडिल्ल्या भागाकय सांपळो म्हणटात. ल्हानसोच सांपळो कापून उरिल्ल्या चुडटाच्यो चुडट्यो दांडाऱ्याकडेन मुळसांत दोडून घेवन त्यो विणून मल्ल तयार करतात. चुडटांच्यो मलायोय करतात. मलाय करपाक चुडत विणिनात. चुडटाचो दांडारो मदींच उबोच चिरुन, ताचे दोन भाग करतात, म्हळ्यार दोन अर्दा करतात. एका अर्दाक ज्यो चुडट्यो आसतात, त्यो अर्दकुट्यो निखळावन हुमकळत सोडटात. तशें केल्ल्यान मलायेच्यो चुड्ट्यो तिरकस आशिल्ल्यो त्यो उब्योच हुमकळटात.

आमचें गोंय म्हळ्यार एक आद्य गिरेस्त प्रदेश. समृद्ध अशा ह्या गोयांत, गरिबांतल्या गरीब मनशाक रावपाक स्वताचें घर ना असो एकय गोंयकार मेळचो ना. आदल्या काळार गरीब लोक मातयेच्यो वंटी करून ल्हान ल्हान घरां बांदताले. ह्या वण्टींक मातयेचे पारे अशें म्हणटात. एकेच कुडीच्या, ह्या मातये-पाऱ्यांच्या घराक 'खोंप' म्हणटात. खोंपीचीं पाखीं चुडटांनी शिंवतात. ह्या पाख्यांक मलायांच्यो वा सांपळ्यांच्यो पाखेती करतात, म्हणटकच पाख्यांवयलें पावसाचें उदक घस्स करून खाला देंवता. खोंपीक दोशीं वशीं पाखीं आसतात. ह्या दोनय पाख्यांचो सांदो, म्हळ्यार मदलो जो उबार भाग आसता, ताका पाडस वा पास्ट अशें म्हणटात. पाडसाचे खांचीतल्यान, पावसाचें उदक खोपींत गळचें न्हय म्हूण चुडटांनी तो बरोऽ करून धांपून घेतात. वयल्यान तण घालतात आनी ताचेवयल्यान जडसाणेक पिराडे दवरतात. अशें केल्ल्यान कितलेंय वारें आयलें, जाल्यार पाख्यावयलीं चुडटां हुबून वचनात. हे खोपीच्यो वंटी मातयेच्यो आशिल्ल्यान, त्यो पावसाचे वावझडीन भिजून, फुगून वचून, वंटीचे पारे कोंसळपाची शक्यताय आसता. देखून त्यो वंटी चुडटांनी, मल्लांनी वा मलायांनी धांपून घेतात आनी पावसापासून वंटीची राखण करतात. अशो ह्यो ज्यो खोंपी चुडटांनी शिंवतात, त्यो दर वर्सा शिंवच्यो

पडटात. एकदां शिविल्ल्या पाख्यावयल्यान एक पावसाळो गेलो, तशीं चुडटां पावसाच्या उदकांत सामकीं फुगतात आनी उपरांत वर्सभर कडकडीत वतांत सुकिल्ल्यान कुसकुसतात. ह्या कुसकुसलेल्या चुडटांक, 'कोलू' म्हणटात. देखूनच चुडटांनी शिंविल्ल्या घरांक वा खोंपीक कोलवा - घरां वा कोलवा -खोंपी अशें म्हणटात. दुसरो पावसाळो आयलो तसो हो सगलो कोलू खाला देंवोवन, खोंप वा घर परतें नव्या चुडटांनी शिंवचें पडटा. हो कोलू मागीर झाडां मुळांनी, माडा मुळांनी बी घालीत जाल्यार ताचो सारें म्हण बरो उपेग जाता आनी जमीन फुसफुशीत जाल्ल्यान जमनींत उदक बरे तरेन जिरून जमनींत थंडसाण धरता.

आजकाल प्लास्टिकाचो सोद लागत पासून सगलो संवसार प्लास्टिकमय जाला. आदल्या काळार चुडटांच्या मह्लांचे कंडे म्हूण करताले. त्या कंड्यांक एके वसल्यान खोळ केह्ली आसताली. खोळ म्हळ्यार ल्हान भुरग्यांक माथ्याक तोंपरें वा चड करून कुची घालतात, तो आकार. कंड्याची खोळ माथ्याक घाली तशी, माथें धरून ती फाटभर जाताली आनी आयच्या काळार कापोत वा रेनकोट घालतकच पावसापासून जें सरक्षण मेळटा, तितलेंय सरंक्षण त्या कंड्यांपासून मेळटालें. हे तरेन, माथें धरून, ती फाट मेरेन तो कंडो घालून, कामेऱ्यां शेतांत नडटालीं, काम करतालीं, तशीच आनीक एक गजाल कोणाकय सांगल्यार आयच्या काळार ती खरी लेगीत दिसची ना. पूण एक काळ असो आशिल्लो. त्या काळार आयच्यावरी प्लास्टिकेची बी जातीं नासलीं. चामड्याचीं जोतीं घालपाक सगल्यांकच परवड नाशिल्ले. तेन्ना शाक, भाजी, नुस्तें बी विकपी व्याण्णी, चुडटां विणून तांची जोतीं करतालीं. आनी तीं जोतीं पायांक घालून वताच्या रखरखांतल्यान तापल्ल्या मार्गावयल्यान दनपारच्या कडार वतांत भोंवतालीं. ते भायर चुडटांच्यो सांतल्यो म्हणून करताले. सांतल्यो, फुलयल्ले सत्रेवरी वाटकुळ्योच दाट ताटल्यो कशो आसताल्यो. सत्र्यां वजा लोक तांचो वापर करताले आनी पोदेर तर उंड्यां पांटल्याचेर धांपूंक तांचो खूब उपेग करताले. अशेतरेन मनशान हो जसो माडाच्या चुडटांचो आपले जिणेंत उपेग करून घेतला, तसोच माडाच्या कांडाचोय करून घेतला.

माडाच्या कांडाचे वांशे करतात. घरांची पाखीं तयार करपाक, मदेराच्यो म्हळ्यार लाकडाच्यो पाटयो कापसात, त्या वजा ह्या वांशांचो उपेग जाता. वांशे काडपाक माड बरो जून, घट्ट बरे जातीचो जाय पडटा. देखून खूब वर्साचो जून जावन म्हातारो जाल्ल्या चड नाल्ल लागनात असलो माड, तशेंच जाण्टो जावन वादळांत बी हुमटून पडिल्लो माड, असल्या माडांचे वांशे काडटात. वांशांचें आंग मदेरावरी म्हळ्यार लाकडावरी सुळसुळीत नासता. तें एकाक एक गच्च दशिल्ल्या किसरांचे वाशिगरांचें, म्हळ्यार सुतां धुग्यांवरी, घट्ट फायबराचें घडिल्लें आसता, घडसल्लें आसता. वांशांचें वशिगरांचे, म्हळ्यार सुतां धाग्यांवरी, घट्ट फायबराचें घडिल्लें वांशांचें आंग, तासून सुळसुळीत करचें पडटा. ना जाल्यार, उखल दवर करता आसतना शिगरां हाताक तोपूंक शकतात. पूण हीं शिंगरां उबींच, लांबचे लांब, वाशांचे लांबाये येदीं आशिल्ल्यान सपसप हाताक तोपनात.

माड तीन तरांच्या शिगरांचे आसतात. काळ्या शिगरांचे, तांबड्या शिगरांचे आनी धव्या शिगरांचे. बरे, घट्ट जातीचो, चड वर्सा तिगावाचो माड आसता, ताचीं शिगरां काळीं आसतात. ताचे फाटल्यान तांबड्या शिगरांचो माड तिगावाक बरो. धव्या शिगरांचो माड आसता, ताचे वांशे मात चड काळ तिगनात. काळ्या शिगरांच्या वांशाचेर बोटान नाखटाचें चिरपूट मारीत जाल्यार, वांसो लोखंडाचो जाल्लेवरी तणण करून वा टंव्वं करून वाजता. असलो वासो, शंबर शंबर वर्सा तिगता. वांशाक उज्याचो धुंवोर लागत तर तो चड वर्सा तिगता. तांबड्या शिगरांचे वांशे, साठ सत्तर वर्सा तिगतात आनी धव्या शिगरांचे वांशे मात धा बारा वर्सा वयर तिगनात.

वांशे आपल्याक जाय तेदे लांबायेचे करू येतात. वांशे हातांनी मेजतात. सात हात लांब, आठ हात लांब, तशेंच णव-धा आनी चौदा हातांचे लेगीत वांशे करतात . वांशे करपाखातीर पयलीं आपल्याक जाय तेदे लांबायेचे, माडा कांडाचे कुडके करतात. ह्या कुडक्यांक 'करवे' म्हणटात. दर एका करव्याचे उण्यात उणे चार वांशे जातात. बरो चड मोटो म्हळ्यार व्हड घेराचो माड आसत, तर एकेका करव्याचे स, आठ लेगीत वांशे जातात.

वांसो करता असताना, माडाच्या आंगाची भायली, वयली जी साल आसता, ती तासून उडयतात. तशेच माडाचो मदलो बिंदू म्हळ्यार गर्भ भाग जो मोव आसता, तोय तासून उडयतात. म्हणटकच मदलो बिंदू आनी भायली कांत वा साल, हीं दोनूय तासून उडोवन, जो मदलो घट्ट भाग मेळटा, त्याच भागाचे वांशे काडटात.

एकूण मेळून सांगपाचें म्हळ्यार दर एका माडाचे तीन करवे केले आनी दर एका करव्याचे चार चारच वांशे केले, जाल्यार एका अस्सल बऱ्या माडाचे बारा लेगीत वांशे जावं येतात. ह्या वांशांचो उपेग घरांचीं, खोपींचीं बी पाखीं करपाक करतात. पाखीं करतचकच तांचेवयल्यान नळ्यांनी वा चुट्टांनी ती शिवतात. आजकाल चडशी घरां कांक्रिटाचीं बांदतात. देखून कोलवा-घरांची वा खोपींची,तशेंच गोरवां गोठ्यांचीं, लाकडांच्या वखारींची बी पाखीं करूंक हे वांशे वापरतात.

ह्या माडांमदीं तांबडे, माड तशेंच शेलावणे माड म्हणून आनीक मात्श्यो वेगळ्यो दोन जाती आसात. तांबड्या माडाच्या नाल्लाचें सोण्ण तांबसार आसता आनी तें वातड आसता. हाकाच लागून, हट्टी सभावाच्या मनशांक 'हे सामकें तांबड्या माडाचें सोण्ण मरे, अशी ओंपार मारुन, तांबड्या माडाच्या सोण्णाकडेन ताची सर करतात. तांबड्या माडाच्या नाल्लाची कातली, हेर नाल्लाचे कातले परस गोड आसता. तांबड्या माडाचें आडसर लेगीत गोऽऽड आसता. आनी लोक तें पियेतात.

शेलावण्या माडाचो नाल्ल सर्व सामान्य नाल्ला परस दुपेटीन तिपेटीन मोटो आसता, सोण्ण बरेच दाट आसता. भितरलो नाल्लय हेर नाल्लां परस मोटो आसता. रुचीक कांयच फेर फार नासता. पूण ह्या माडाक नाल्ल मात खूबच उणे लागतात. पेंडीक तीन थंय चारच नाल्ल मेळटात. इतलें हें पीक उणे जाल्ल्यान, ह्या माडांची लागवड करुंक कोणच मनार घेनात, फकत कौतुक, अपुरबाय म्हणून एक दोन माड कोणाल्याय भाटांत आसतात.

हेच भशेन साप्प उणें पीक दिवपी आनीक एके तरेचो माड आसता. तो हेर सर्व सामान्य माडा मदलोच एक जावन आसता. त्या माडाक पळयल्यार तो हेरां

परस वेगळो म्हणून कोणाकच कळना. पूण ताका फकत तीन ते चारच नाल्ल पेंडयेंक लागतात. खातना मात त्या नाल्लाचें वेगळेपण कळून येता. त्या नाल्लाची कातली विरविरीत आनी अतीऽ गोड आसता. असल्या नाल्लाक 'म्होवो नाल्ल' म्हणटात. भाटांतल्या शेंकड्यांनी माडामंदी असो हो एकादुकलो माड म्होवो उतरता. हाचेफाटलें कारण म्हळ्यार, तो माड अशे तरेच्या जाग्यार आसता, की ताच्या नाल्लांचेर दीसभर सूर्याचे कीर्ण पडिल्ले आसतात. ते गोड उतरलेले आसतात. भाटकाराक आनी नेमान ते माड पाडेल्याक, जाणां आशिल्ल्यांकच तो 'म्होवो' म्हणपाची खबर आसता. तशें पळेल्यार त्या माडाक कसलेंच वेगळेपण नासता.

भाट पाडलें तशे त्या नाल्लांमदीं खूंयय एकादरे एक दोन खुंटलेले नाल्ल मेळटात. ते आकारानूय मात्शे ल्हानसार आसतात आनी भितरल्यान सारके पसरवल्ले नासतात. फोडून भितर पळत जाल्यार तातु ंत सामान्य नाल्लावरी कातली नासता. चड करुन असले नाल्ल भितरल्यान पोकेच आसतात आनी कातली आसलीच जाल्यार ती कुडक्या कुडक्यांची आसता. चडसो भाग पोकोच आसता, कातली विरविरीत, खडबडीत आनी गोड आसता. कांय वेळार कुसकी आनी पचपचीतय आसता. असल्या खुट्टेल्या नाल्लांक ' वांजां' म्हणटात.

नाल्लांमदीं असले वांज मेळ्ळ्यार चड करुन कोण खायनात. विकपाच्या नाल्लांमदीं वांज आसल्यार ते केन्नाच कोंताक धरीनात. तें सदांच कुशीक काडटात.

नाल्ल हेर फळांभशेन पिकना. पूण तो माडावयलो पाडटलो जाल्यार जून जावचो पडटा. सारको जून जावचे पयलीं नाल्ल पाडीत तर तो तिगावाक उणो येता. चड दीस उरलो म्हण्टकूच तसलो नाल्ल कारवेता. कारवेता म्हळ्यार , त्या नाल्लांतलें उदक उणें जायत वता. कांय वेळार तातुतलें उदक सामकें आट्टा. ताका लागून भिंतरली कातली नाल्लेपासून वेगळी जायत आसता. नाल्ल फोडटा आसतना, नाल्लाचेर कोयती मारली तशी नाल्ली बेगळी आनी भितरली कातली म्हळ्यार सुकें वळें वेगळें जातात. असल्या नाल्लाक ' तो खोबरेला' वा ' तो कारवेला अशें म्हणटात. हे निखळळेलें वळें मागीर आदोळेचेर कांतू सोय करूंक मेळना. कारवेल्ल्या नाल्लांची

च्चय चवचवीत, पचपचीत आनी तेलकट आसता. ताका सुरबुसाण अजिबात नासता.

माडा पासून जशें नाल्लाचें उत्पन्न घेतात, तशेंच माड सुरीक लावनय ताचें उत्पन्न घेतात. माडाची सूर काडटात. सुरीचो सोरो करतात. सोरो आरोग्याक वायट, तो पियोवपी मनीस बेबदो जाल्ल्यान संवसाराचो विद्वाट जाता, हें जाणा जावन जेगीत कांय लोक सोरो पियेलेबगर रावनात. देखूनच सोऱ्याक बरीच दर मेळटा. सुरीपासून व्हिनेगरय करतात. तिचो जेवणात उपेग करतात.

सुरीक लावपापासत निवडटना कावाथो बरो गरगरीत वाडून पुटा येता असलो, तशेंच बरो वयार आयिल्लो, नाल्ल बरे लागतात असलोच माड सोदून काडून सुरीक लायतात. असल्या माडांक सूर बरी मेळटा. खूब्ब वर्साचो म्हातारो जाल्लो माड सीरक लायनात. कारण, तसल्या माडाची सूर चड मेळना. एकादरो वयांतलो तरणो माड आसता आनी ताका लागूंक जाय तितले नाल्ल लागनात, तेन्ना भोव करून असलो माड सुरीक लायतात. असल्या माडाची कांय वर्सां सूर काडून मागीर जर ती काडपाची बंद करीत ताका नेटान, कुचकुचीत नाल्ल लागतात. नाल्लांचें बरेंच मोटें पीक मेळूंक लागता. ज्या माडाक कुचकुचीत बरीं, खूब्ब आनी मोट्टीं चुडटां आसतात आनी शेंडो बरो कवकवीत मोट्टो व्हडलो आसता, असलोच माड सूर काडपाखातीर रेंदेर निवडून काडटात. कारण सूर काडटा आसतना, मोट्ट्या चुडटांच्या शेंड्यार वसपाक ताका चुडटांचो आदार मेळटा आनी मागीर वाऱ्याच्या तालार, चुडटांच्या झोंपाळ्यार बसून झोंपयो घेतां घेतां कांतरां गावपाक ताका नेट येता. ते भायर असल्या विजिश्ट माडाची सूरय चड मेळटा. आदल्या काळार सूर सवाय आसली तेन्ना पोदेर पांडे करपाक सूर वापरताले. हालीं काळांर इस्ट वापरतात.

रेंदेर माडार चडटना पाडेल्याभशेन पांयांक खाडूं घालून चडना, तो माडाक खापां घालता. कारण, सुरीक माड करता आसतना, उण्यांत उणे तो वीस तरी माड करता. सुरीक केल्ल्या माडांचेर रेंदेराक दिसांतल्यन तीन वेळा चडचो पडटा. म्हणटकच वीसय माडांचेर चडपाक ताका दिसांतल्यान साठ माडांचेर चडिल्ल्यावरी

जाता. देखून हें काम सोंपेपणी आनी सडसडीत जावचें म्हणून तो माडांक खापां मारता. खापां घाल्ल्या माडाचेर चडप सोपें आसता.

सुरीक माड लायतलो जाल्यार माडांच्या धनयान वा रेंदेरान रेव्हेन्यू ऑफिसांत वचून पयलीं लायसन्स काडचें पडटा. कारण, सूर काडिल्ले खातीर सरकाराक दर वर्सा टॅक्स फारीक करचो पडटा.

सूर काडपाक रेंदेराक थोडीशी पूर्व तयारी करची पडटा. सगल्यांत पयलीं तो माडाक खापां मारून माडार चडटा. उपरांत चुडटाचीं वळीं काडटा. वळें काडप म्हळ्यार, चुडटाच्या दांडाऱ्याची भितरले वटेनची पातळसार पट्टी कशी साल काडप. हे वळें काडटना तो चुटीत कापीना, चुडीत माडाकच सांडटा, फकत वयले वयर ही पट्‌टी काडून, ती भाटये भाणांत घालून शिजयता. मागीर तिचे तासून निवळ करून गबे करता. वळें बरें रूंद आसत जाल्यार चार-चार, पांच-पांच लेगीत तिस्त्यो जातात. एक-एक तिस्ती हाताच्या बोटाच्या रूंदसाणे येदी म्हळ्यार अर्द इंच रूंद आसता, ह्याच तिस्त्यांक 'गबे' अशें म्हणटात.

गबे तयार जाले तशें तो चुडट्यांची जीब तयार करता. जीब करप म्हळ्यार चुडट्यो कापून, तांचे जाय तेदे कुडके करून ते दोन दीस वताक घालप म्हणटकच ते बावनात. चुडट्यो बावतकच तांची कुटकुसाण ना जावन त्यो वावड जातात आनी जाय तश्यो दाडूक मेळटात. दोडल्यो जाल्यार त्यो मोडनात.

हे भशेन गबे आनी जीब तयार जाली तशें तें सामान घेवन रेंदेर एक बुडकुलो आनी काती घेवन माडार चडटा. ह्या बुडकुल्याक 'दाबणो' म्हणटात. आनी काती म्हळ्यार, व्हिळ्याभशेन वाटकुळ्या आकाराची, रुंद पात्याची, तिख्यांची धारदार सुरी वा कोयती.

हे कातयेन रेंदेर माडाचे पोंयचें वयलें तेंबरूट म्हळ्यार पोंत कापता. आनी ती पोंय गब्यांनी घट्ट बांदता. हे गबे पोंयेंक चार पांच कडेन, मदीं इल्लो इल्लो जागो सोडून बांदतात. पोंय बांदली तशी ती फुगार जाता आनी कापिल्ल्या पोंतांतल्यान

चळऽ चळऽ करून उदक कसो गोड रोस व्हांवूंक लागता. ते पोंयेंक मागीर दाबणो लावन, तो रोस त्या दाबण्यांत घेतात. ह्या रोसाक निरो म्हणटात. हो निरो गोड, रूचीक आसता. जायतो लोक हो निरो आवडीन पियेतात. तो पुश्टिकय आसता. पूण तो चड वेळ गोड उरना. भायली हवा लागली, तसो तो रोखडोच सुरसुरता. सुरसुरलो म्हणटकच तो आंबट जाता. ह्या आंबट रोसाक सूर म्हणटात. ही सूर व्हांवता ती सारकी बरी दाबण्यांत पडची म्हणून रेंदेर वेंता देडा वेंताचो एक बडये कुडको घेवन पोंय आनी माडाचो शेंडो हांचे मदीं धिगी लायता. म्हण्टकच उबीच आशिल्ली पोंय तिरकस जाता. मागीर हे पोंयेंक तो दाबणो लायता. पोंय कापल्या त्या जाग्यार कोयतेन कात्रो घालून तातूंत चुट्टेची जीब घालता आनी जीब दाबण्यांत सोडटा. म्हणटकच त्या चुडट्यांतल्यान म्हळ्यार जिबेवयल्यान सूर निसरून अचळय दाबण्यांत पडटा. जीब करपाचे हे कृतीक शेवोत करप अशे म्हणटात. माडाक दर म्हयन्याक एक पोंय येता. दर एक पोंय तीन तीन म्हयने सूर दिता. देखून एकेका माडाक हे अशे दोन दोन आनी तीन तीन लेगीत दाबणे लायिल्ले आसतात. ही सूर माडाच्या कळव्यांत वची न्हय म्हणून रेंदेर खूब काळजी घेता.

रेंदेर दिसांतल्यान तिनदां माडार चडटा. सकाळचो, दनपारचो आनी तीनसांजचो. सकाळचो आनी सांजेचो तो दाबण्यांत भरिल्ली सूर घेवन खाला देंवता आनी दनपारचो तो शेवोत करता. दर दिसा दरनपारचो शेव घालतना तो, ज्या जाग्यार आपणे पोंय कापून सुरीक जीब लावन दाबण्यांत सोडल्या, त्या जाग्यार नव्यान, वयलो पातळ थर कापून, तो फाड तो ताज्रो म्हळ्यार जिवो करता, तशें केल्ल्यान दर खेपेक सूर नेटानेटान व्हांवूंक लागता. हाचे भायर दर दिसा पोंय इल्ली इल्ली वाडत आसता. जितली जितली पोंय वाडटा तितलो तितलो तो गबे घेवन , चार पांच कडेन, मदीं तीन तीन बोटांचें अंतर सोडून ती बांदीत आसता. तशेंच कळव्यांत झाडून झडपून, पुसून तो कळवो नितळ दवरता. अशेतरेन दर दिसा शेव घालिना जायत जाल्यार माड मरपाची भिरांत आसता. कारण माडाच्या कळव्यांत सूर वेतता जाल्यार थंय रोखडे किडे जातात. हे किडे एकामेकांक खातात.

निमाणेकडेन अती बळिश्ट आशिल्लो किडो सगल्या किड्यांक खावन मोट्टो जावन उरता. आनी माडाक लागता. तो माडाक बुराक करून भितर वता. भितर माडाचो मोव गर आसता. तो पोखरून पोखरून तो खाता. देखून माड मरता. माडाचो जो हो मोव गर आसता तो अती रूचीक आसता. ताका ' माडाचो कळवो ' अशेंच म्हणटात. माड हुमटून पडत वा वांशांखातीर म्हातारो माड बी मारीत जाल्यार हो कळवो काडून लोक मुजरत फैदासून खातात. तो काजूचो म्हींवलो कसो लागत. ताचें तोंडाक करीत जाल्यार तो अळम्यांवरी लागता.

सकाळ सांज जेन्ना रेंदेर दाबण्यांतली सूर काडून घेवन वता, तेन्ना ती खाला हाडटना तो दुदक्यांत वोतोवन ती घेवन माडावयल्यान देंवता. दुदकें म्हळ्यार एका फळापासून केल्लें आयदन. कोडवो कोंकणदुदी म्हणून एक वाल आसता. तिका चिबडाच्या आकाराचीं फळां जातात. त्या फळांकय कोडवे - कोंकणदुदीच म्हणटात. ह्या फळांचे वयलें कट्टें घट्ट आसता. तीं फळां बरीं जून जालीं, तशीं काडून तातुंतलो भितरलो गर वा गोरोप पोखरून भायर उडयतात आनी तांचीं आयदनां करतात हे वाली भशेनच आनीक एके तरेची वाल आसता, तिका 'घोडवाल' म्हणटात. हे वालीचो बेल लांबचे लांब आनी घट्ट आसता. त्या बेलाचें दुदक्याक शिकें करतात. म्हणटकच तें आयदन कशें हाड व्हर करपाक सोपें पडटा. ह्यो घोडवाली आनी कोडवेल्यो कोंकणदुदया वाली आदल्या काळार रेंदेर मुजरत रोयताले. हालीं ह्या प्लास्टिकाच्या युगांत तांकां दुदकी करपाची गरज पडना. ही गरज प्लास्टिकाचीं आयदनां भागयतात.

हे भशेन रेंदेर सांज-सकाळ दोन वेळा ही सूर काडून व्हरून आपल्या घरा बुडकुल्यांत भरतात. ह्या तांगेल्या बुडकुल्याक ' मण' म्हणटात. कारण ह्या दर एका बुडकुल्यांत एक मण म्हळ्यार पंचवीस बाटल्यो सूर भरता. वीस माडांची एका दिसाची सूर सारकी एक मण जाता. हे तरेन दोन दिसांची दोन मण सूर एकठांय करून रेंदेर ती सूर भाटये भाणांत वोतता. ह्या भाणाक पोंदच्यान उजो करतात. अडेच तीं तीन वरां ही सूर शिजोवची पडटा. सूर सळसळटा, उकळटा, तशी तशी तिका वाफ

येता. ही जी वाफ येता, तिकाच सोरो म्हणटात.

ह्या भाणांतल्यान ती वाफ म्हळ्यार तो सोरो एका कळशांत पडचो, म्हणून वेवस्था केल्ली आसता. एक कळसो सोरो म्हळ्यार अठरा बाटल्यो सोरो भरता. ह्या सोऱ्याक 'फेणी' म्हणटात. फेणयेंत आल्कोलाचें प्रमाण अठरा ग्राव आसता. फेणयेन कळसो भरलो तसो उजो पालयतात. कित्याक, तितल्या वेळा भितर ज्युस्त भाटयेभाणांतली सूर सळसळून सोंपिल्ली आसता. मागीर भितर उरता ती दाटसार मूर. ते मुरीक 'गोडो' म्हणटात. गोड्याचो कांयच उपेग नासता. तो काडून भायर उडयतात ना जाल्यार दुकरांक बी खावंक घालतात.

सुरीपासून गोड तयार करतात. आदल्या काळार हें गोड वखदाक वापरताले. कांय लोक ह्या गोडांत मेथयो शिजोवन बाळंटीक खावयताले, तर कांय लोक हें गोड घालून 'दोदोल' म्हणून सत्वावरी एक गोडशें खाण करताले. अजुनय कांय कडेन करतात.

सुरीचें गोड करपाक सूर गोड आसची पडटा. कांय जाग्यांनी, चड करून बार्देसाक बी सुरीचें गोड करपाची चाल आसा. सूर आंबट जावची न्हय म्हणून दाबण्याक भायल्यान खावचेलो चुनो थापतात. चुनो थापिल्ल्यान दाबणांतली सूर वताचे हुनसाणेन तापूंक पावना. ती भितर थंड उरता आनी सुरसुरूंक पावना. अशे तरेन ही ताज्जी ताज्जी गोड सूर दिसपट्टी कायलींनी घालून कडयता आनी गोड तयार करतात. ह्या गोडाच्यो वांटकुळ्यो वांटकुळ्योच बेलयो करतात. माडांचे सुरीपासून जशें हें गोड तयार करतात, तशेंच ताल्लमाडांचें म्हळ्यार तट्टमाडांचेंय गोड करतात.

असो हो माड म्हळ्यार आमचो, मनीस कुळयेचो वाड-वडिलच जावन आसा. तो आमचो आवय-बापूय कसो आमकां आदार दिता. आमचे जिणेंत ताची जीण भरसल्ली आसा. ताच्या एक्कान एका भागाचो आमका उपेग जाता. देखूनच ताका आमी 'कल्परूख' म्हणटात.



# आंबो



आंब्याक फळांचो राजा अशें म्हळां. आमच्या गोंयांत आंब्याचे व्हडले-व्हडले रुख पळोवंक मेळटात. गोंयचें हवामान, तशीच जमीन आंब्या झाडाक खूब मानवता. गोंयांत तरेतरेच्या जातींचे आंबे जातात. गोंयचो आंबो खूबच रूचीक आसता.

आमी आंबो खावन काथो मोखून मारतात. कांय तेंपान काथ्याक कोंब येता. ताचें झाड जाता. असल्या झाडाक ' खूट' अशें म्हणटात. खुंटीक आंबल्यो जातात. ह्या आंबल्यांची कात पातळ आसता. देखून खुंटीच्योच आंबल्यो दोणांत घालतात. म्हळ्यार खळांत घालतात. आदल्या काळार गरिबांतलो गरीब गोंयकार लेगीत खळांतली आंबली तोंडाक लावन, पेज वा आंबील जेवतालो.

खुंटीक आंबे जायनात. खुंटीची आंबली मोटी जावन जेन्ना पिकता, तेन्ना तिका 'घोट' अशें म्हणटात. कांय घोटां आंबट आसतात. पूण कांय कांय घोटां आंब्रूस, पूण गोऽड आनी रुचीक आसतात. ह्या घोटांचें, 'सांसव' म्हणून एक पदार्थ करतात. तो एकदम रूचीक जाता.

अशी ही खूंट जेन्ना आडसाटी व्हड जाता, तेन्ना तिका कलम लायतात. कलम लावप म्हळ्यार, एका बऱ्या आंब्या झाडाची (गार्फाची) ताळी हाडून ती खुंटीक जोडप. जेन्ना ती ताळी आनी खूंट एक जीव जावन वाडटा, तेन्ना ताका गार्फ अशें म्हणटात.

डिसेंबर -जानेवारी म्हयन्यांत शीं पडूंक लागलें, तशीं गार्फा जावं खुंटी, फुलूंक लागतात. ह्या झाडांचीं फुलां म्हळ्यार, बारीक बारीक फुलांचे तुरेच कशे फुलतात. ह्या झाडांच्या फुलांक 'चंवर' म्हणटात. अशे तरेन हे आंबे जशे चंवरतात, तशेच कांय कांय फावट ते पालेतात. म्हणजेच, फुलां येवचे वजा तांकां नवीं पानां येतात. अशीं पालेतात, तेन्ना तांकां फळां जायनात. फकत तन्न्या - कोंवळ्या पानांच्या आंकऱ्यांनी आंबो गच्च भरता. लिकलिकीत-चिकचिकीत तरण्या पानांनी नटिल्लें झाड व्हंकल कशी सोबीत दिसता. गार्फां वा खुंटयो जेन्ना चंवरतात, तेन्ना कांय वेळार तांकां आडवेळो पावस सांपडटा. ना जाल्यार फांतोडेर धुकें जावन, दव सांपडटा. अशें जायत जाल्यार चंवर करपता. म्हणजेच फुलां कुसतात, झडटात, गळून पडटात. आजकाल हाचेर उपाय आयल्यात. वेळार वखदां मारीत जाल्यार चंवर कुसना. , ह्या झाडाचें एक बरें. ताका हंगामांत, दोनदां तीनदां चंवर येता. तांकां पयलो फोव, दुसरो फोव अशें म्हणटात. एके खेपेचें पीक वाट लागलें जाल्यार दुसरे खेपेंचे पीक मेळटा.

आंब्याक चंवर येता. मागीर तातुंतल्यान बारीक आंबली जाता. हांकां आंबल्याचें -कण वा कणयारे अशें म्हणटात. कणयारो मात्सो व्हड जालो, तशी ताका आंबली म्हणटात. आंबली आंबट आसता. हरव्या आंबल्यांक तोरां अशेंय म्हणटात. माणकुल्या भुरग्यांक तोरां खूब आवडटात. तोरां पळोवन तांच्या तोंडाक सामकी लाळ सुटटा. मागीर फांतर घेवन तीं झाडा मुळांत पुंजी जातात. नेटा नेटान झाडां फांतरायतात. तोरां पाडटात. झाडांच्या मालकांची उलोवणीं खातात, गाळी घेतात. पूण मिठाक लावन लाळ गळयत, रूच काडीत तोरां चरचरीत चाबून खातात. अशें हें भुरगेपण अणभवतना भुरग्यांच्या जिवाक केदी धादोसकाय भोगता म्हणून सांगू.

आंबली तरणी आसतना तातूंत  भितर कोय आसता. कोय म्हळ्यार बी. आंबली जून जायत वता, तसों तातूंत कोये भोंवतणी काथो जाता. काथो जावचे पयलीं आंबली तरणी आसतनाच काडून दोणांत म्हळ्यार खळांत घालतात. खळांतली आंबली वर्सभर तिगता. असल्याच तरण्या  आंबल्यांचें लोणचें करतात. लोणचें दोन तरांचें करूं  येता. गोड आनी तीख. गोड लोणच्याक गोडाचें मेल अशेंय म्हणटात. हरव्या आंबल्यांचो जेवणात तरेतरेन  वापर करतात. काथावल्ली आंबली जून तबास जाली तशें कोबलें घेवन  आंबल्यो काडटात. मागीर कडेक एका जाग्यार भाताचें तण पातळावन ताचेर आंबल्यो दाळटात. वयल्यान परत तण घालून त्यो धांपतात. अश्यो ह्यो आंबल्यो पिकपाखातीर तणांव  दाळटात. वयल्यान परत तण घालून तायो धांपतात. अश्यो ह्यो आंबल्यो पिकपाखातीर तणां दाळटात. ताका 'मुडो' म्हणटात. मुड्याक  स दीस  मेरेन हात लायनात. सातव्या दिसा तो उसयतात. तेन्ना भितर आंबल्यो पिकून हळडुव्योच  जाल्ल्यो आसतात. ह्या पिक्या आंबल्यांक 'घोंटां' म्हणटात. कोबंल्यान आबंल्यो काडटना कांय आंबल्यो खाला झडटात आनी फुट्टात, तांकां 'फुटकां' म्हणटात.

गार्फाचे आंबलीची कात दाट आनी कोडवसार आसता. देखून तांचें लोणचें करीनात. गार्फांच्यो आंबल्यो जून जायसर तश्योच झाडार दवरतात. जून जाल्यो तश्यो काडून मुड्यांत घालून पिकयतात. ह्या पिकिल्ल्या आंबल्यांक आंबे म्हणटात. खुंटीचे आंबलेपरस गार्फाची आंबली जून जाता. तशी तशी  चड प्रमाणांन मोटी जायत वता. देखून घोंटां परस आंबो आवाठान बरोच मोटो आसता.

खुंटीच्या हरव्या आंबल्याचे पदार्थ करतात. तशेंच गार्फाच्या हरव्या आंब्यांचेय. हरव्या आंब्यांची कात तासून उडोवन तांच्यो फोडी करून गोडाचें लोणचें करतात. तेच भशेन फोडी बारीक करून गोड-वजा साकर घालून एक जिनस करतात. ताका मुरांबो म्हणटात. हरव्यो  आंबल्यो, जाव गार्फाच्यो वा खुंटीच्यो, तासून उकडटात आनी तांचें एक पेय  करतात. ताका पानक वा पनें अशें म्हणटात. एप्रिल, मे म्हयन्यांत खूब उजो उरता. त्या दिसांनी  हें  पनें पियेल्यार आरोग्याक खूब बरें

अशें सांगतात. जून हरवे आंबे, सगल्या सगलेच उकडून खळांत घालतात. तांकां 'उकड आंबे' म्हणटात. शिवराक लोकांगेर ह्या उकड आंब्यांचें रायतें करून खातात. हे उकड आंबे वर्सभर लेगीत खळांत तिगतात. हरव्या आंब्यांभशेनच अमुरपिके आंबेय उकडून खळांत दवरतात. पूण ते पिकणेल्ले जाल्ल्यान चड दीस तिगनात. खावपाक मात भोव बरे लागतात.

आमच्या गोयांत तरेतरेच्या जातीचे आंबे जातात. तातुंतल्यो कांय जाती म्हळ्यार मानकुराद, आर्फोस, फेर्नांदीस, साश्टी,-मुसराद, बार्देशी-मुसराद, अखणो, अखणो-मालदेस, पोकळो-मालदेस, कुलास, करेल, शाव्हियेर, साक्रितीन, टांक, बाबयो, पापेल आनी अशो आनिकूय जायत्यो जाती आसात. दर एके जातीचे आंबे, वेगळे-वेगळे रूचीचे लागतात. सगल्यांत पयलो मान मानकुराद आंब्याक दितात.

करेल आंबो कातीन पातळ आसता. पूण ताची कात हेर आंब्यांवरी कोडू नासता. देखून पिकोवन खावचे परस, चड करून तिखट लोणचें करपाकच उपेग करतात. करेलाचें लोणचें तिगूंक बरें. ताची लोणच्यांतली फोड वर्सभर कुरकुरीत उरता.

बार्देशी-मुसराद आंबो, रूचीक मात्सो आंबूस आसता. ताचो हालवो बेस-बरो जाता. देखून न हालवो करपाखातीर लोक अचूक बार्देशी-मुसराद आंबो सोदुन विकतो व्हरतात.

पिक्या आंब्यांचो आनिकूय जायतो उपेग करतात. आंब्यांचो रोस काडून तातूंत साकर बी घालून 'आंबरोस' करतात. तशेंच आंब्यांचो, घोटांचो रोस पिळून साटांय करतात. आंब्याचो भार जाला तेन्ना, आंब्या घोटांची खातड जाता. आंबे घोटां कुसुन वचूं नये म्हणुन तांचो रोस पिळटात. साली काथे वेगळे काडून, भितरलो रोस मुड्डून एका आंगार करून घेतात. हातपाट्यार, ताटांनी वा हालींसाराक पोलिथिनाचेर बी पातळावन तो वतांत सुयकतात. हो रोस सुकलो तसो थर खूबच पातळ जाता. देखून ह्या सुक्या थराचेर परत वयल्यान दुसरो थर घालून सुकयतात.

हे तरेन, ताचे-ताचेर थर घालून सुकयल्लें साट दाट जाता.

आंब्यांचे साट अती गोड आसता. ताका कीड पडपाची शक्यताय आसता. देखून तें वर्सभर तिगचे पसत ताचेर मिरयांचो पिठोकरून वयल्यान फापुडटात. मागीर ह्या साटांची शेंदरेवरी कवळी करतात आनी बोटायेदे लांबायेचे कुडके करून ते दारांनी बांदतात. मिरयां -पिठो लायल्यार ह्या साटांक कीड पडना. मिरयांचे रुचीन साट आंबूस, तिखट , मिरमिरीत बरें लागता.

आंब्यापासून आमकां लाकूड अनी मदेर मेळटा. हो रूख शंबरेक वर्सा वांचता.

हिंदू लोकांमदीं आंब्याचें पान खूब श्रेष्ट मानलां. कसलेंय देव-देवसपण करतना, तांबयाचेर आंब्याचो ल्हान ताळो दवरून ताचेर मदीं नाल्ल दवरतात आनी कलश पुजेक लायतात. हाका करो अशें म्हणटात.

घराच्या दारांचेर आंब्या-पानांचें तोरण करून लायतात. लग्न समारंभांनी न्हवरे -व्हंकलेक तेल लावपाक आंब्यां-पानांचो सन्मान उपेग करतात. संवसार-पाडव्या दिसा घराचेर जी घुडी उबारतात, तिका आंब्याताळो लावन सजयतात. शिगम्या मेळांतले गडे माथ्याक मांब्या - ताळ्यांचो तुरो लावन नाचतात. आदल्या काळार तर जेन्ना तोंड धुवपाचे ब्रश आनी पेस्टी नासल्यो, तेन्ना आंब्याच्या पानांनी तोंड धुवपाची आनी दांत घांसपाची रीत आसली. आंब्याचें पान लांबशेंच आसता. ताचो मदलो देंट वेगळो करून, पानाची चिवंडी करताले, आनी दांत घांसूंक तिचो ब्रशासारको उपेग करताले. पानाच्या देंटान जीब खरवडायताले. आंब्याच्या पानाक मिडमिडीत वास येता. पानाच्या रोसांत क्लोरोफील नांवाचो एक पदार्थ आसता. ताका लागून दांत आनी तोंड नितळ जाता आनी दांत बरे तिगतात. असो हो आंबो म्हळ्यार आमचो वाड-वडील कसो आमकां उपेगी पडटा. आमच्या जाण्टयांनी आंब्याची झाडां रोवन दवरून आमकां केदो व्हडलो आदार दिला. आमीय आंब्यांची चड आनी चड लागवड करून आमचे फुडले पिळगेक आदार दिवया न्हय?

卐卐卐

# पणस



आमच्या गोयांत आमकां जळीं-मळीं पणसांची झाडां दिश्टी पडटात. पणसाच्या झाडाक 'पणस' अशें म्हणटात. पणसाचें झाड खूब व्हड आसता. ताका व्हडले-व्हडले खांदे आसतात. दर एका खांद्याक कितल्योच खांदयो आसतात. खांद्यांक ताळयो आसतात. हें खांदे, खांद्यो, ताळयो वा ताळे, पानांनी गच्च भरिल्ले आसतात. पणसाच्या पानांक 'खोलयो' म्हणटात.

पणसाचें झाड खूब व्हड वाडटा. देखून ताका रूख म्हणटात. व्हडल्या, लांब-रूद मानायान वेंग मारली जाल्यार ताची वेंग पावना, येदें व्हड ताचें खोड आसता. पणस शंबरेक वर्सां वांजता.

पणस ल्हानसारच आसता, तेन्ना ताका 'पणसाची - आळ' अशें म्हणटात. डिसेंबर, जानेवारी म्हयन्यांत शीं पडूंक लागलें, तशी पणसाक दाबणां येवंक लागतात. दाबण म्हळ्यार पणसाचें फूल. तें हेर फुलांवरी रंगीत वा सोबीत सुंदर नासता. तें फुलता, मक्याच्या कणसाच्या पात्यावरी. त्या दाबणाचे, करड्या रंगाचें वयलें पातें उसवता आनी भितरल्यान पणसुलाचो तोरो भायर सरूंक लागता. तो मागीर इल्लो इल्लो करुन व्हड जावंक लागता. पणसुलाचो तोरो म्हळ्यार साप्प ल्हान पणसूल, जातूंत भितर घरे, माव, पातीं बी कसलीच आकृताय घडिल्ली नासता. पणसुलाची संपूर्ण वाड जावचे पयलीं, तो जेन्ना ल्हानसारच बोको आसता, तेन्ना त्या

हरव्या तरण्या पणसुलाक 'कुवलो' म्हणटात. 'बोको' हें उतर आवाटान ल्हान, अशा अर्था वापरतात. आवाटान ल्हान आशिल्लें पणसूल पिकें आसल्यार लेगीत ताका पणसुलाचो बोको अशेंच म्हणटात.

पणसुलाचो देंट, पणसाच्या खोडांतल्यान वा खांदयांतल्यान जो भायर सरता, तो बद्द पणसुलांत भितर मदींच, लांबचे लांब, आंगान फसफशीत आनी मोटो जावन गेल्लो आसता. ताका पणसुलाची 'माव' अशें म्हणटात. मावे भोंवतणी कुचकुचीत घरे आसतात. घऱ्यां भोंवतणीं गच्च पातीं आसतात. खंयूय एकादरें पातें मात्शें मोटें जाल्लें आसता, खावंकय तें घऱ्या भशेनच गोड लागता. ताका 'फोंपे' म्हणटात. पणसाचे घरे, झाडा-झाडा परमाणें वेगवेगळ्या रूचीचे आनी गोड लागतात. गऱ्यांत भितर भिकण आसता. भिकणांत प्रथिनांचें तशेंच कर्बोदिकांचे प्रमाण खूब आसता. देखून गोंयकारांगेर शाक-भाजयांनी भिकणां घालून खावपाची चाल आसा. भिकणां उकडूनय खावपाक भोव बरीं लागतात.

पणस दोन तरांचे आसतात. रसाळ आनी कापे पणसाचे घरे मोव, मिळमिळीत, म्होंवान भरिल्ले आसतात. रसाळ घरो तोंडांत घालो, तसो तो चड चाबचो पडना. तातुंतलें म्होंव तोडांत येता, आमच्या तोंडांक उदक सुट्टा आनी गुळ्ळ करून तो गिळूंक मेळटा. कापो घरो मात कातलेवरी कुरकुरीत आनी गोड आसता. तो चाबून खावचो पडटा. अशीं हीं पणसुलां भितरल्यान गोड-गोड, म्होंवाळ आनी रसाळ घऱ्यांनी उपाट भरिल्लीं आसता. पूण भायल्यान मात तांचें आंग कांटे आशिल्लेवरी खरखरीत आसता.

पणसाक दीख खूब आसता. पणसाच्या दिखाक पाक म्हणटात. झाडाचे पणसूल काडलें, तशें देंटांतल्यान चळऽचळऽ करून पाक व्हांवता.

रसाळ पणसूल पिकलें म्हण्टकच तें हातानच फांडूक मेळटा. पणसुलाच्या देंटावटेन आंगट्याचें बोट पणसुलांत भितर रोमतात आनी पणसुलाचो कुडको मावेपासून निखळावन काडटात. ह्या कुडक्याक चारखण अशें म्हणटात. चारखण ल्हान व्हड आसता, ते प्रमाण तातूंत आठ, धा, पंदरा, वीस बी घरे आसूं येतात. चारखणांतले घरे खावन जातकच जें पोंद उरता, ताका चार अशें म्हणटात. चारीक

खूब पातीं आसतात. तीं लेगीत गोडसारच आसतात. देखून ही चार गोरवां आवडीन खातात. कांय कांय पणसुलां खूब मोटीं आसतात. तीं एकाच दिसान खावन सांपोव नजो जातात. तेन्ना ताचीं वयलीं-वयलीं चारखणां काडून खातात आनी पणसुलाचो पोदचो भाग तसोच चारींनी धांपून दुसऱ्या दिसा खावपाखातीर दवरतात. ह्या भागाक 'पोंदी' म्हणटात.

पणसुलां आमी तरेतरेन खातात. पणसूल सामकें ल्हान तरणें आसता, म्हळ्यार जेन्ना तो कुंवलो आसता, तेन्ना ताचो तरेतरेन शाकेक उपेग करतात. कुंवल्याचो 'चाखों म्हणून सुकी शाक करतात. तो तर खुबच बरो लागता. हो चाखो गोंयकारांच्या घरांनी खुबच गाजता. ते भायर कुंवल्यांचें 'सुशेल' म्हणून करतात. खतखतें करतात, फोडी तळून खातात आनी जेन्ना पणसुलांचो भार जाता तेन्ना झाडांचे कुंवलेच काडून चांचावन ते गोरवांक खावड म्हणून घालतात. कुंवले बरे व्हड आनी जून जावन तातुंतले घरे जशे बरे दाट जाले, तशे ते घरे काडून काडयो कशो शिनतात आनी तळून तांकां मसालो लावन-बी दवरून खातात. असले हरवे जून गरे, आंबल्यांवरी खळांत घालूनय वर्स वर्स दवरून खातात. ह्या खळांतल्या घऱ्यांक म्हणटात. सालांची शाक करून खातात. हेच जून जाल्ले घरे जशे पिकणेले, तशी त्या अमुरपिक्या घऱ्यांची 'घरय' म्हणून सुकी शाक करतात. घरय खावपाक बरी लागता.

पणसुलां जून जालीं तशीं ती पिकतात.भितर घरे पिकून बरे हळुडवेच जाल्ले आसतात. तीं फोडचे पयलींच तांचो सगल्या घरभर वास घमघम सुट्टा. अशे हे पिके घरे आमी मोटे रुचीन खातात. पिक्या रसाळ घऱ्यांचें म्होंव काडून 'धोणस' म्हणून केका भशेन एक पदार्थ करून खातात. ते भायर हालीं काळार घऱ्यांच्या म्होंवाचें जेम म्हळ्यार हालवोय करतात. पिके घरे वांटून वा व्हिरोणेन कोंचावन घऱ्यांचो सोपो म्होवांत विरघळायतात आनी मागीर तें कुमयाच्या पानांचेर, केळीच्या पानांचेर ना जाल्यार हातरपाट्याचेर बी पातळावन वतांत सुकयतात. हें घऱ्यांचें म्होंव सुकलें तशें ताका 'साट' म्हणटात. साटां वर्सभर उरता. कांय कडेन बेठेच घरे लेगीत सुकयतात.

काप्या पणसुलांचे घरे फकत पिकतकच खातात. तांचे व्हडलेशे पदार्थ करीनात. आदल्या काळार मात काप्या घऱ्यांचे कुडके घालून कायलोळ्यो बी करून

खाताले. रसाळ पणसाभशेन कापें पणसूल हातांनी फोडूंक मेळना. तें सुरयेन ना जाल्यार आदोळेन कापचें पडटा.

पणसाच्या खोलयांच्यो पत्रावळी करतात. जायते कडेन ह्या पत्रावळींचेर ताटावजा जेवतात. आतुंदल्या काळार चड करून केळी पानांचेर वा पत्रावळीचेर जेवताले.

पणसापासून आमकां लाकूड, मदेर बी मेळटा. पणसाचे मदेर आंब्यापरस घट आनी टिकावू आसता.. देखून पणसा लाकडाच्यो पाट्यो करून घरांर घालतात. पणसाचीं फळी काडटात आनी त्या मदेराचे पाट, दारां, मेजां, कदेलां, बाज्रो, आरमारी बी असलें लाकूडवत (फर्निचर) करतात आनी तें वर्सा-संकींनी तिगता.

असो हो पणस म्हळ्यार आमचो जिवा-भावाचो इश्ट खरो. पूण तो मोटो तिडो. ताचे घरे खातल्यांक तो तिडायत आसता. तो आमकां आपले गोड-गोड घरे दिता आनी ते खातल्यांच्या हातांक, तोंडांक पाक लावन सोडटा. मागीर तो पाक काडटासर पळय त्या मनशांची कशी तारांबळ उडटा,ती मजा पळोवंक ताका खूब आवडटा. पूण तो पाक वचपाक कितलोय शाबू लावन धुले म्हणून तो कसोच वचना. पाक वतलो जाल्यार, ताका तेल लावनच तो काडचो पडटा. पयलीं तेल लावन तो काडून घेवचो पडटा आनी मागीर शाबू लावन उदकान धुवन उडोवचो पडटा.

ह्या पाका संबंदान एक भोव मजेची खबर सांगतात. चड करुन ती दंतकथाच आसुये. ती अशीः

पाखल्यांनी म्हळ्यार पुर्तुगेजांनी गोंय जिखलें. त्या वेळची ही गजाल. कोणतरी एक पाखलो हेवटेन-तेवटेन भोंवतालो. वाटेर कोणागेर तरी एक पणसूल फोडिल्लें. ताचो वास ताच्या नाकांत गेलो आनी तो त्या घरांत भितर सरलो. पळय जाल्यार, पडवेर पणसूल फोडून कितलेशेच जाण भोंवतणी बसून घरे खाताले. कितलेय जाल्यार ते गोंयकार. आपल्यागेर येतल्या-वतल्याक खा-जेव करपी. त्या पाखल्याकय तांणी घरे खावपाचो आग्रो केलो आनी एक व्हडलेशें चारखण काडून ताच्या हातांत दिलें. ताणेंय मोटे रूचीन तातुंतले घरे काडू -काडून खाले. येतिश्ट -बरें घरे खाले, पूण पोराचे हात आनी तोंड सामकें पाकान भरलें. पाक निवळ करपाक पाखलो धडपडूंक

लागलो. खंयचो हात बोल्सांतल्या लेसाक पुसता, म्हणटासर हात जमनीक पुसता... ताचीं तीं अचरटपणां पळोवन त्या घरच्यांक मजाच दिसली. तातुंतल्याच कोणाच्या तरी एकल्याच्या मनांत आयलें, ताची बरीच फजेत करची. ताणें ताका बुद्द दिली. 'शिंयोर, कापूस लायल्यार पाक रोखडो वता.' दुसऱ्यान एकल्यान घरांत भितर वचून ताका भरपूर कापूस हाडून दिलो. पाखल्यान नाकांत, तोंडांत, कानांत, दोळ्यांत... कापूस वचून पाखल्यांक नाका शेवट जालो. कुल्यांक खोटो लावन पाखलो नाचूंक लागलो. पाखलो सामको काकुळटेक आयलो, रडकुऱ्यां परतलो. 'किदे जाय ते घेयात, पूण एकदांचो ह्या कापसांतल्यान सुटका करात.' अशें म्हणून तो तांकां शरणां आयलो. निमाणेंकडेन तातुंतल्यान एकल्यान ताच्या बोल्सांत आशी-नाशिल्ले सगलें पयशे काडून घेवन 'पाकाचें वकद हाडटा' अशें सांगून एके इल्ले बाटलेंत घालून एक घोंटभर खोबरेल हाडून दिलें आनी कापसांतल्यान आनी पाकांतल्यान ताची सुटका केली. हे तरेन पाखल्याक ते घरे सुरय भरले. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हणून पाखल्यान थंयच्यान पळ काडलो.

असो हो आमचो अजापाचो आनी अप्रुपाचो पणस. हो रूख म्हळ्यार आमचो मनीस कुळयेचो वाड-वडीलच जावन आसा. आमच्या जाण्टेल्यांनी शंबर वर्साआदीं हे रूख रोवन दवरून, त्या रुखांवरवीं आयजवयर आमचेर आपले मायेची सावळी घाल्ली आसा. आमीय अशेच बरे बरे रूख रोवन दवरून आमचे फुडले पिळगेचेर माया-मोग करप, हें आमचें कर्तव्य जावन आसा. पूण त्या कामांक पणसाचो रूख कसो रोयतात, तें जाणां जावप खूब गरजेचें. पणसाचे भिकण कोमेवंक घालें म्हणून पणसाचो रोंपो जायना. पणसाच्या भिकणाक वयर एक धवेंच पातळ सोल आसता, ताचेवयर एक पचकटो आसता. ताका 'रुवाळो म्हणटात. ह्या रूवाळ्याचेर वयल्यान घऱ्याचें वेश्टण आसता. भिकण रोयतना, हो रूवाळो, मात लेगीत दुखावल्लो आसूंक फावना. देखून पणसाचो रोंपो रोयतना, भिकणासयत सगलो सगलोच घरो घेवन तो भाताच्या तणांत बरो करून गुटलावन मातयेंत रोवचो पडटा. तर आमीय येन्नादरच पणस रोवपाची तयारी करुंया न्हय?



# माडी



माडी म्हळ्यार सुपारेचें झाड. हें झाड दिसूंक माडाभशेन आसता. पूण माडापरस तें उंचायेन आनी आवाटान ल्हान आसता. माडाभशेनच ताका चुडटां आसतात. पूण माडाचीं चुडटां व्हड आसतात. तांच्या चुडट्यो घट आसतात. आनी चुडट्यांक घट व्हीर आसतात. माडयेचीं चुडटां मात्शीं वेगळे तरेचीं आसतात. माडयेचीं चुडटां त्या मानान खूब नाजूक , मोव चुडट्यांची आसतात. माडाच्या चुट्टांक पिराडे आसतात. तेंच माडयेच्या चुट्टाक , पिराड्यांवजा पोंवल्यो आसता. व्हडांतली-व्हड पोंवली दोन दोन वेतां रूंद आनी हात दोन हात लेगीत लांब आसता. भितरल्या वाट्या, ती धवीच प्लास्टिकावरी, सुळसुळीत चुरकुटलेल्या आंगाची आसता. ( पोवलेचे लांबायेयेदी क्रेप फोलीवरी तिका उबीच चुरकुटी आसता,) देखून तातूंत उदक वा कसलोय पातळ पदार्थ घालीत जाल्यार पोंवलेक अडसना. भायल्या वटयां मात ती मात्शी खरखरीत पाचवीसार, हळडुव्या करड्या रंगाची आसता. पोंवली आंगान चिवट-वातड आसता. देखून ती जिती-ताज्री आसतना दोडली जाल्यार कुट्ट करून मोडना. तशी मोव आसतना पोंवलेचे दोणे बांदतात. पोंवलेचे दोणे सोबीत जातात. गांवगिरे लोक, पोंवले-दोण्यांचो, आयदनांवरी उपेग करतात. ह्या पोंवलेच्या दोण्याक ' बोरी' वा बिरयो' अशें म्हणटात.

माडयेक उदक खूब लागता. माडी पयऱ्या-पयऱ्यान शिंपची पडटा. तिचें मूळ सदांच वोलें -थंड आसचें पडटा. देखून माडयो कुळागरांतच रोयतात. खंयूय एकादरी माडी, कोय अपुरबायेन आपल्या पोरसांत रोयता.

कुळाँगरांत माडयो वोळींनी रोयतात. दोन दोन वोळीं मर्दी फोणव्यो करतात. ोणव्यो म्हळयार जमनीक उथळच खोलसाण दिवन पाटांतल्यान व्हांवता त्या दकांत, थारपाक दिल्लो जागो करून लाकडार्ची केल्लीं घेवन ह्या फोंडव्यातल्यान दकान माड्यो शिंपतात.

माडी व्हड जाली, तशी ती पुटा येता. म्हळ्यार तिका पोंय येवंक लागता. ाडयेची पोंयेक 'भाती' म्हणटात. भाती धव्याच रंगाची , लांबशीच-शिरशिरीत, ातळ आंगाची, खूब नाजूक आसता. ताचेवयल्यानच गोरे-धवे, नाजूक, शिरशिरीत ांद्याचे बायल-मनशेक 'भातीकशी नाजूक' अशी सर करतात.

भाती उसवता आनी तातुंतल्यान शेवक भायर सरता. शेवकाक खूब फुलां तात. फुलां कणकर्णीं इल्ल्यो -इल्ल्यो सुपाऱ्यो जातात. नाल्लाक जशें सोण्णाचें ावरण आसता, तशेंच सुपारेक सोलाचें आवरण आसता. सुरवेक तांचो रंग पाचवो ासता, तेन्ना तांकां तोल्ल्यो म्हणटात. तोल्ल्यो इल्ल्यो-इल्ल्यो करुन मोटयो ाताता. जून जातात, तेन्ना तांकां बेडे वा फोपळां अशें म्हणटात.

शेवकाक बेडे घोसांनी लागतात. ह्या बेड्यांनी भरिल्ल्या शेवकाक 'शिपटे ' ा 'कात्रो' अशें म्हणटात. ल्हानसार आसल्यार तें शिपटें आनी शिपटे मोट्टें ासलें जाल्यार तो कात्रो, कांय लोक कात्र्याचे बेडे निखळावन काडटकच जें वक उरना, ताका लेगीत शिपटेंच म्हणटात. कात्र्याचे बेडे थोड्या तेंपान पिकूंक गतात. तांचो पांचवो रंग इल्लो इल्लो करून हळडुवो केसरीच जाता. बेडे बरे जून ाले, तशे ते झडूंक लागतात. मागीर सुपारी पाडची पडटा. पाडून हाडिल्ली सुपारी ळगुचे पासत जमनीर विस्कळ पातळायतात. ती जमनीर राशीक मारीत वा दाट तळायत जाल्यार तिची सोल्ली कुसता, तिका चितो येता वा तिका वाळटी गपाचोय भंय आसता. देखून आंगणांत माटोव घालून माटवाचेर वयर वतांत पारी चड करून सुकयतात. सुपारी सुकले उपरांत ती सोलतात. तिच्यो सोल्ल्यो ाळ्यो करतात.

तांदूळ उकडटात तशीच सुपारीय उकडटात. उकडलेले सुपारेक 'उकडी-पारी' म्हणटात. उकडी नाशिल्ले सुपारेक 'बेडी-सुपारी' म्हणटात. सुपारी विड्यांक ालून खातात. कांय लोक बेडे खळांत घालून, विड्यांत वापरतात. सुपारेचो घरगुती

वखदां खातीरय उपेग करतात. हालीं तेंपाक, तरेतरेच्या नांवांनी, सुगंधी सुपारेचीं ल्हान - ल्हान पाकिटां विकर्ती मेळटात. पूण हाचे परस म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार सुपारेचो रंग करचेपसत उपेग करतात. देखून बाजारांत सुपारेक खूब मोटो दर आसा.सुपारी विकतना ती तीन जातीनी विभागून तिचो दर थारायतात. बारीक सुपारी, खोकां आनी मोटो बेडो, दर एके जातीचो वेगळो वेगळो दर आसता. आमच्या गोंयांत पेडणें, सांखळी, फोंडें, काणकोण बी वाठारांत सुपारी खूब पिकता.

माडी म्हातारी जावन मरता, तेन्ना तिच्या खोडाचो म्हळ्यार कांडाचो आमकां खूब उपेग जाता. खेड्यागांवांनी, तशेंच कुळागरांनी जंय ल्हान ल्हान व्हाळ व्हांवतात, तशेच चर आसतात, ह्या व्हाळांचेर तशेंच चरांचेर, माड्यांचे फोपाडे, म्हळ्यार कांडाचे कुडके घालून, पूल तयार करतात. हाचे भायर लग्नां, मुजी, काजरां, सभा बी असल्या समारंभाखातीर माटोव घालपाक माड्यांचो, म्हेडीखातीर वापर करतात. कांय कडेन कुळागरां शिंपपाक, झऱ्यां उदकाची तूट येता. अशा वेळार तळयेंतलें उदक लाटींनी काडून पाटांत सोडटात आनी कुळागरां शिंपतात. ह्यो लाटी करपाकय माड्यांचो उपेग करतात.

आदल्या काळार कश्टी लोक खोपींनी रावतालो. आनी खोपी शिंवपाक माडा चुट्टा भशेनच माडये-चुट्टांचोय वापर करताले. पावसा दिसांनी खोपींत गळूंक लागत जाल्यार त्या जाग्यार पत्र्यावजा पोंयो लायताले आनी गळटी थांबयताले. माडये-कांडाचीं उबींच दोन अर्दा करून तातुंतलें मदलो गीर खरवडावन तांचे पोनेळ करून अजूनय लोक वापरतात. खोपींच्यो कवड्यो करपाक, तशेंच पाख्याच्यो कण्णी करपाक बी माडयेच्या कामटाचो उपेग जाता.

भारतीय संस्कृतायेंत सुपारेक आगळें वेगळें म्हत्व दिल्लें आसा. कांय वेळार घरादाराची लक्ष्मी अशी घरची बायल कसल्याय अपघातान वा दुखण्यान अवेळाच तरणेपणांतच भायर पडटा. तिच्या फाटल्यान तिचीं माणकुलीं भुरगीं बापायचे मायेंत ल्हान-व्हड जातात. तीं व्हड जातकच बापूय तांचें लग्न करून दिता. लग्नांत आवयबापायन येजमानपण म्हळ्यार कांय धार्मिक विधी करपाचे आसतात. त्या वेळार संवसाराक अंतरलेले आपले बायलेच्या नांवान, घोव सुपारी किरंवटीक लायता. आनी धार्मिक विधी करता म्हणजेच घरचे रस्ते-वस्ते बायलेचें आपले घरकान्नीचें

ृतीक म्हणून तो सुपारी आपल्या कंबराक, न्हेसणाक खोयता. हे तरेन लग्न विधीच न्हय तर, कसलेंय धार्मिक कृत्य करतना गरज पडली जाल्यार दादलो मनीस सुपारी, ही आपले धर्मपत्नीचें प्रतीक म्हणून वापरता. अशे हे सुपारेक लक्ष्मीचें रूप प्राप्त जाल्लें आसा.

तेचपरीं श्रावण म्हयन्यांत सवाशिणी बायलो जेन्ना आयतार पुजतात, तेन्ना ळडीचें कूं ट आनी सुपारी, ईश्वर -पार्वतीच्या नांवान पुजेक लायतात. म्हणजेच ुपोरक आमी दैवत मानतात.

कांय वेळार आमी वेगवेगळ्या नमुन्याचीं देवकृत्यां करतात, तेन्ना धर्माशास्त्रा माण त्या त्या दैवतांच्या नांवान तांदळांचेर सुपाऱ्यो दवरून तांची पूजा करतात.

सुपारेचो उपेग कायद्याचे नदरेंतल्यान करतात. कांय वेळार कसलेंय देवाधर्माचें ाम करतना ' आपलें काम तुवें केल्यार जाता वा तें करचें.' अशें म्हळ्ळी परवानगी देवपाक, मंत्रघोशांत पवित्र केल्ली सुपारी येजमान ब्राह्मणाच्या म्हळ्यार पुजाऱ्याच्या भटजीच्या) हातार उदक घेवन सोडटा. हे विधीक 'सुपारी दिवप' अशें म्हणटात. ाचोच अर्थ इंग्रजी उतरांतल्यान 'पॉवर ऑफ ॲटर्नी' दिवप, म्हळ्यार आपले तीन काम करपाचो तिसऱ्याक हक्क दिवप, अधिकार दिवप, हाचे भायर कसलेंय वकृत्य करता आसतना वा कोणाचोय भौमान करपाचो आसता तेन्ना, विडो वपाची रीत आसता. विडो म्हळ्यार खांवचीं पानां, सुपारी आनी दक्षणा, अशें ाचें स्वरूप आसता विड्यांत सुपारेक खाशेलें स्थान आसा.

तशेंच चवथीच्या सणा-उत्सवांत श्री गणेशाची म्हुर्त आमी पुजेक लायतात. गपतीक बसपाक मखर समजयतात. मखरा मुखार माथ्यावयर माटोळी बांदतात. ाटोळेक तरेतरेची फळफळावळ फैदासून हाडून बांदतात. तातूंत तांबड्या गुंज ोपळांचो कात्रो प्रामुख्यान बांदिल्लो आसता.

अशी ही आगळ्या वेगळ्या स्वरुपाची आनी भोव मोलादीक सुपारी. तिचें ाड म्हळ्यार माडी. ही माडी आमची मनीस कुळयेची जिवाभावाची सांगातीण. ची चड आनी चड लागवड करून, देशाचें उत्पादन वाडोवप, हें आमचे व्हडांतले ड कर्तव्य जावन आसा.

卐卐卐

# केळ



केळ आमच्या सगल्याच्याच वळखीची. आमी केळीं खातात, तीं आमकां केळी पासूनच मेळटात.

केळ हें एक झाड अशे आमी समजतात. पूण विज्ञानीक नदरेन घेत जाल्यार, तें झाड न्हय. ती एक तणाचे जातींची वनस्पत. जे वनस्पतीचें खोड लाकडाचे आसता, तेच वनस्पतीक आमच्यांनी झाड म्हणू येता. झाडापासून आमकां लाकूड, मदेर मेळटा, ते नदरेन पळयत जाल्यार केळ झाडांपरस खूब वेगळे तरेची जावन आसा. तिचें खोड लाकडाचें नासता. केळीक झाडांवरी खांदे, ताळयो बी नासतात. केळीक पानां आसतात. पूण झाडांच्या पानांच्या मानान तिच्या पानांचो आंकडो खूबच ल्हान आनी पानांचो आवाट खूबच व्हड आसता. देखून केळ ही तणाचे जातींतली एक वनस्पत जावन आसा.

केळींचे खोड, गब्यांपासून घडिल्लें आसता. केळीच्या खोडांत भितर एक

कांडी आसता. हे कांडये भोंवतणी गब्यांचीं कितलींशींच वेश्टणां आसतात. कांद्याच्यो ाकळ्यो जशो एकार एक वेश्टल्ल्यो आसतात, तशेच केळीचे गबे, एकार एक वेश्टल्ले आसतात. अशे तरेन वेश्टून, सकले वट्यां एकजीव जाल्ले गबे, मुळाच्या रुपान जमनींत आसतात आनी वयले वट्टयां भायल्या चार-पांच वेश्टणांचीं वयलीं तोंकां पानांच्या रुपान केळींच्या खोडा वयर सत्री कशी पातळिल्लीं आसतात.

केळीचे गबे दोरां पासून (फायबरापासून) घडिल्ले आसतात. ह्या गब्यांत भितर उदकावरी पातळ रोस म्हळ्यार दीक आसता. ताका लागून केळीचें आंग लिकलिकीत, तिकतिकीत, ताज्जें तट्टीत, कवकवीत, उदकाळ दिसता. केळीचों दीक वस्त्राचेर डत जाल्यार ताचें खत पडटा आनी तें खत उमळ्ळ्यार लेगीत कशेंच वचना.

केळ सात-आठ फूट उंच वाडटा. कांय-कांय केळी धा बारा फूट लेगीत उंच ाडटात. आवाठान चड व्हड आशिल्ले केळीक केळंबो (कळंबो) म्हणटात. केळीक ळांतसून कोंब येतात, तांकां मोखे म्हणटात. मोखे दोन तीन फूट उंच जातकच ांकांय केळंबे म्हणटात.

केळ जशी-जशी व्हड जाता, तशी तशी तिच्या पानांच्या गब्यां भितरलो ब्रो शिवडेच्या रूपान वयर सरता. दोन तीन दिसां भितर ही शिवडी बरीच वाडटा. नाच्या रूपान ती उसवता आनी पसरता. हे भशेन एक एक करून सगले गबे वयर रतात आनी केळ पानांनी भरता.

केळीच्या पानांचो, ताटांवजा जेवपाक उपेग करतात. ते पासत पानांचे तीन ग करतात. पानांचो वयलो म्हळ्यार तोंकाकडलो भाग आसता. ताका 'शिर्ती' णटात. पानांच्या सगल्या भागांत, शिर्ती श्रेष्ट मानतात. पानाच्या मदल्या भागाक ाणवत म्हणटात. खाणवताचे मदींच दांड्याचेर कापून दोन भाग करतात, तांकां ाळवतां' म्हणटात. केळी पानाच्या खंयच्याय भागाचो ल्हान कुडको करतात, का 'चोळखो' वा 'खोलो' म्हणटात. चोळख्याची बारीक तिस्ती करतात, तिका

'चिनोळी' म्हणटात. हे तरेन ज़ेवपाखातीर केळी पानाच्या भागांचो उपेग करतना, ते अमुकच रितीन मांडून घेवचे अशीय रीत आसा. केळीच्या पानाचेर पीठ थापून भाकरी भाजतात. ती खूब रुचीक लागता. केळीचें पान पिकता, तेन्ना ताचो देंट म्हळ्यार दांडारो मोव जाता आनी मोडटा वा दोडटा. मोडिल्लें पान झाडाचेरच सुकूंक लागता, ताका शेनत म्हणटात. शेनतांचे दोणे करतात. शेनतांचो विडयो वळूंकय उपोग करतात. केळीच्या एकंदर गब्यांनी पानां वयर सरलीं, तशी निमाणेकडेन भितरली कांडी, बोंडयेच्या रुपान भायर सरता. ही बोंडी म्हळ्यार केळीच्या फुलांचो गुच्छ वा गोंडो. तो वेंत - दोन वेंता भायर सरलो, तसो जमनीवट्यां वळटा. मागीर बोंडयेचीं एक-एक करून पातीं उसवूंक लागतात. दर एका पात्यांत आठ-धा-बारां केसरां, म्हळ्यार लांबशींच-धवशीं फुलां आसतात. दर एका केंसरांतल्यान केळें तयार जाता. आनीं केसरां इतल्या आंकड्यांचो केळ्याचो फेणो तयार जाता. वयलें पातें गळून पडटा. ह्या पात्याचो रंग म्हणजेच बोंडयेचो रंग काळसो जांभळो आसता. हे तरेन पात्या कणकणी एक एक फेणो येवन केळीक घडावलें जाता.

घडावल्याक केळावलें अशेंय म्हणटात. घडावलें चड व्हड आसत तर ताका 'घड' म्हणटात. व्हडांतल्या व्हड घडाक, शें - देडशीं केळीं आसतात. एकेका घडाक, आठ-धा-बारा फेणे आसतात. दर एका फेण्याक, धा-पंदरा-अठरा लेगीत केळीं आसतात. सगल्यांत निमाणो म्हळ्यार बोंडये लागींचो फेणो सगल्यांत ल्हान फेणो आसता, ताका 'फूल-फेणो' म्हणटात.

बोणयेचे एक - एक पातें उसवता तेन्ना एकेक फेणो घडावल्याक धरता, पूण जेन्ना फेणो धरनासून पातें उसवता, तेन्ना बोंडी कापून वा मोडून काडची पडटा. बोंडी कापली तशीं केळीं बरीं पसरतात.

केळावलें जून जालें, तशें ते कापून काडटात आनी सोमतीच केळय कापतात कारण घड कापले, तशें तिचें कार्य सोंपिल्लें आसता.

केळ कापली, तशे तिचे गबे काडटात. गबे वताक घालून सुकयतात

सुकिल्ल्या गब्यांचे धागे काडटात. तांकां दोर वा वावळ्यो म्हणटात. वावळ्यांचो उपेग फुलां गांथपाक करतात. हालींसराक केळीच्या धाग्यांपासून वस्त्रां, पर्सी बी ह्या सारक्यो हस्तकलेच्यो वस्तू करपाचोय सोद लागला.

कांय कांय लोक केळीचे कांडयेची शाक करून खातात. केळीचे बोंडयेचीय शाक करून खातात आनी ती आरोग्याक बरी अशे सांगतात. आमच्या गोंयांत केळीच्यो जायत्यो जाती आसात. त्यो म्हळ्यार, सालदाटी, रसपाळी, सुकुंडी, सांवरबोंडी, मंयडोळी.. बी. हे भायर हालीं काळाक आनिकूय जायत्या तरांचीं नवीं सुधारीत बियाणीं गोयां भायल्यान हाडून लोक रोयतात. मंयडोळ्या केळ्यांचो हालवो करतात. सांवरबोंडीं केळी शाकेक वापरतात. उरिल्लीं केळीं पिकोवन खातात. फकत सालदाडीं केळीं मात हरवीं आसतना शाकेकय वापरतात. जायतो लोक हरव्या केळ्यांचीं म्हानां करतात. केरळाक तर हरव्या केळ्यांच्या म्हानांच्या धंद्याक बरीच तेजी आसा. हालींसाराक द्राक्षां, खाजूर बी सुकयतात, तशीं पिकीं केळीं सुकोवन तांचो धंदो करतात..एकंदरीत केळ आमकां खूबच उत्पन्न दिता.

केळ मारली, तशे तिच्या मुळाक चड-चड मोखे येतात आनी आमकां नव्यो केळी मेळटात.

हिंदू लोकांमदीं केळीचें झाड खूब श्रेष्ट मानतात. गोंयांत जायत्या देवळांनी, देवांक 'केळी-पुजा' बांदपाची रीत आसा. 'केळी-पुजा' म्हळ्यार मारून उडयल्ले केळीचे गबे हाडून देवळाचे गर्भकुडीच्या दारापासून चौकाच्या दारामेरेन सोबीत सुंदर सजयल्ली आरास. हेच भशेन लोक सत्यनारायणाचें व्रत करतात तेन्नाय देवाऱ्याच्या दोनय वटांनी दोन मोखे दवरून सोबीत आरास करतात. पूजा जाली तशी ते मोखे परत रोवन, जळींमळीं केळींची लागवड वाडयतात. केळ आमकां कितली कितली उपेगाक पडटा.! आमीय चड आनी चड केळी रोवन तांचेकडेन इश्टागत जोड्या न्हय?



# भिरण्ड (भिरण)

भिण्डांचें नांव आयकूंक ना, असो एकूय गोंयकार आसतसो दिसना. कारण गोंयकारांल्या दिसपट्टया जेवणांत भिण्डांच्या सोलांचो वापर जाताच. भिण्डांच्या झाडाक 'भिरण्ड' म्हणटात. गोंयांत भिण्डी खुबकडेन जातात.

भिण्डीचें झाड बरेंच व्हड जाता. ताका गोंयची जमीन आनी हवा खूब मानवता. भिण्डी कुळागरांनी, भाटांनी आनी दोंगरांनी लेगीत जातात. भिण्डीक व्हडले-व्हडले खांदे, खांदयो आनी खांदयांक कुचकुचीत बारीक-बारीक ताळयो आसतात. भिण्डीचीं पानां प्लास्टिकाचीं कशीं लिकलिकीत, दाट आनी कुटकुटीत आसतात. तीं दोंडीत जाल्यार कुट्ट करून मोडटात. भिण्डीच्यो ताळयो मात वातड आसतात. त्यो मोडूंक खूब कठीण. त्यो जित्यो आसतना दोडल्यो जाल्यार दोडटात पूण मोडनात.

डिसेंबर, जानेवारी म्हयन्यांत भिण्डी फुलूंक लागतात. भिण्डीचें फूल ल्हानूच, कांदळावरी, कुसांकुसांचें पूण रंगान तांबडेंच आसता. भिण्डीक कुचकुचीत भिण्डां लागतात. भिण्डाचें तोरे म्हळ्यार तीं हरवीं आसतना, आंबाड्यांवरी पोपटी रंगाचीं, लिकलिकीत, तितितिकीत कातीचीं आसतात. मात आंबाडे लांबशे वांटकुळे आसतात आनी भिण्डां, वांटकुळीं, पूण तोडयेकडेन आनी सोडयेकडेन चेपटीं आसतात. मोट्यांतलें मोटें भिरण, मोट्या बेड्यायेदें म्हळ्यार सोलीनाशिल्ल्या फोपळायेदें ासता. भिण्णाडां पिकलीं तशीं तीं तांबडीगुंज जातात. भिण्डांत भितर, लिंबा-शिरांच्या आकाराच्यो बियो आसतात. भिण्डाचे बियेक वयल्यान, मात्शें घटसार काळसार कट्टें आसता. कट्ट्यांचेर वयर तांबसो धवसो गोरोप आसता. हो गोरोप आंबूस - गोडूस आनी रोसाळ आसता. भिण्डांतय भितर रोस आसता आनी त्या रोसांत ह्यो बियो बुडिल्ल्यो आसतात. पिकीं भिण्डां खावपाक रुचीक लागतात. भुरग्यांक तर, तोरां, चिंचो बी आवडटात, तशींच भिण्डांय आवडटात.

भिण्डाक चार पाकळ्यांची ल्हानशीच तोडी आसता. भिण्डाची तोडी दिखाळसार आसता. मार्च-एप्रिल म्हयन्यांत भिण्डां पिकूंक लागतात. मागीर तांबड्या गूज पिक्या भिण्डांनी भरिल्ली भिरण, तांबडीच साडी न्हेसून , ताचेर रत्नां माणकांच्यो वस्ती घालून नटिल्ली बायल मनीस कशी सोबता. थोड्या दिसांनी हीं पिकून तटास जाल्लीं भिण्डां झडूंक लागतात. मागीर भिण्डी पाडच्यो पडटात. राशींनी भिण्डां मेळटात. तीं मागीर फोडटात. भिण्डां हातांनीच फोडूंक मेळटात. भिण्डां फोडटना, आंगठ्याच्या बोटान ताची तोडी क्चिमून काडटात आनी आंगठो तोडयेच्या बुराकांतल्यान भितर धोंगशितात आनी तें फोडटात. हे भशेन भिण्डां फोडटां-फोडटां आंगठ्याचे नाखूट भिण्डातोडयेच्या दिखान हळडुवेंच पांकट जाता. भिण्डांच्या रोसाक ' आगळ' म्हणटात. आगळ तांबडें गूंज आसता. भिण्डाचे वयले सालीचे चार चार कुडके करतात. भिण्डा सालीचे सुकयल्ले कुडके म्हळ्यारच सोलां. तीं हातरपाट्यांचेर पाताळावन आंगणांनी सुकयतात.

आदल्या काळार लाकूड सवाय आशिल्लें आनी आयचेवरी प्लास्टिकाची आयदनां वस्तू तेन्ना मेळनाशिल्ल्यो त्या काळार लाकडाचीं कोळमुळां, कोळंब्यो बी करताले. भिण्डा फोडलीं म्हणटकच तांच्यो बियो, रोस त्या कोळंब्यानी भरताले. आजकाल कोळंब्यांवजा प्लास्टिकाचीं टबां, बालद्यो बी वापरतात. हो जो भिण्डांचो रोस म्हळ्यार आगळ आनी बियो कोळंब्यांनी घालतात, तातूंत प्रमाणशीर मीठ घालतात आनी हातांनी मुड्डून मुड्डून बियांतलो सगलो गोरोप आगळांत भरशितात. बियो वेगळ्यो काडटात आनी वतांत सुकयतात.

भिण्डांचीं सोलां दीसभर वतांत सुकयतात आनी रातचीं परत एकठांय करून आगळांत बुडोवन दवरतात. दुसऱ्या दिसा परत आगळांतलीं काडून सुकत घालतात. हे भशेन सगलें आगळ त्या सोलांनी ओडसर तीं रातचीं आगळांत आनी दीसभर वतांत, हे तरेन सुकोवन खळखळीत करतात. भिण्डाचीं सोलां गोंयकारांभशेनच गोंयाभायलोय लोक अप्रूप करून खातात.

भिण्डांत व्हिटामीन ' सी' आसता. भिण्डां आरोग्याक खूब बरीं पडटात.

भिण्डाच्या आगळाचें सरबतय करतात. भिण्डाचें सरबत रूचीक भोव बरें लागता. भिण्डाच्या आंगांत वखदीय गूण आसतात. भिरण जिरवणेक खूब बरें पडटा. देखून गोंयकार लोक सदच्या जेवणांत भिण्डांची कडी करून खातातच. भिण्डांची कडी दोन तरांची करतात नाल्लाचो रोस घालून आनी रोस घालीनासतना. नाल्लाचो रोस घालीनासतना करतात, तिका खुटी कडी म्हणटात. सणा-परबांच्या दिसांनी जेन्ना गोंयकारांगेर शिवराक जेवण जेवतात आनी गोडशें म्हणून सान्नां, हीट खातात, त्या जेवणाचेर ही कडी, म्हळ्यार खुटी-कडी करपाची रीत आसा. दाळी हुडदांचें जड जेवण भिण्डां आगळाक लागून बेगीन जिरता. हाचे भायर पितामीचेर 'ॲलर्जीचेर' इलाज म्हणून भिण्डां आगळाचो उपेग करतात. जेन्ना कोणाच्याय आंगाक पितामीचे दादाड येतात, तेन्ना भिण्डा सोलांचें उदक, कडयेच्या वा सरबताच्या रूपान पियोवंक दितात. तशेंच माडी, आळू , तेरें सूर्न बी हांचे सारकिल्ले कुचकुच येवपी जिनस शिनले, तशे हातांक कुचकूच पडटात, तेन्ना हातांक भिण्डांसोलां सारयत जाल्यार कुचकूच वतात. इतलेंच न्हय, तर ह्या जिनसाचे पदार्थ रांदतना, तातूंत सोलांचो वापर करतात, म्हणटकच ते पदार्थ कुचकुचनात.

भिण्डांच्या बियांचोय आमकां उपेग जाता. बियो सुकल्यो तशो त्यो फोडटात. तांचेवयलीं कट्टी वेगळीं करून भितरल्या बियांचें तेल काडटात. ह्या तेलाक भिण्डेल अशें म्हणटात. भिण्डेल जेन्ना कडयतात, म्हळ्यार जेन्ना तें तापिल्ले वा कडयल्ले अवस्तेंत खतखतीत आसता, तेन्नाच तें तेलावरी पातळ स्वरुपांत आसता. तें जेन्ना न्हिवता, तेन्ना तें सदांच शेंकेल्ले अवस्तेंत म्हळ्यार मेणाच्या स्वरुपांत आसता. भिण्डेल आरोग्याक एकदम बरें. वायटकारांक जांकां तेल खावंक मनाय आसता, तांच्या जेवणांत भिण्डेलाचो वापर करतात.

आदल्या काळार दोणां, कोळम्यो, कोळमुळां, रुखे... बी असल्या लाकडी आयदनांचो खूब वापर करताले. वापरतां वापरतां तांकां चीर बी गेली जाल्यार तातूंत पातळ जिनस घालूंक मेळनाशिल्लो. पातळ जिनस चिरींतल्यान पाजरतालो देखून ती चीर भरुन काडपाक त्या जाग्यार भिण्डेल कडोवन घालताले. भिण्डेल ते चिरीत,

छिद्रां छिद्रांनी भरतालें आनी चीर नाच जाताली. हेच गजाली वयल्यान 'कानांत इले भिण्डेल घाल' अशी कोंकणी भाशेंत एक ओपार आयल्या. ही ओपार विनोद म्हणून वापरतात.

कांय लोकांक एक वायट संवय आसता. कसलीय गजाल आयकता आसतना, सारकें बरें ध्यान दिवन, ती गजाल ते आयकनात. त्या वेळार तांचें लक्ष खंयतरी दुसरेच कडेन आसता, आनी मागीर 'हांवें तें आयकलेंच ना, म्हाका आयकूंक येवकूच ना' अशे ते निमित्त सांगतात. तेच परीं एकादरो मनीस, कसलेय एके गजालींत गुल्ल जाल्लो आसता, वा आपलेंच तंद्रीत आसता, तेन्ना म्हऱ्यांत कितें चल्लां, लोक कितें उलयतात, म्हणपाचेर तांचें लक्षच नासता, वा ताका कोणेंय उलो मारलो जाल्यार लेगीत ताच्या कानांत वचना, मागीर भानार येतकच 'हांवे आयकूंकच ना' वा 'म्हाका आयकूंक येवंकूच ना' अशें तागेलें पालुपद आसताच . अशा वेळार कानाचो येदो व्हडलो बुराक आसतना येद्या माट्यान उलयल्लें जर तुका आयकूंक येना तर भिण्डेल घालून तो बुराक सामकोच पुरोवन उडयल्लो बरो. असो विनोद करपाक 'कानांत इल्लें भिंण्डेल घाल, मागीर आयकूंक बरें येतलें.' अशें म्हणून ही ओपार मारून विनोद करपाची गोंयांत चाल आसा.

आज भिण्डेल आदलें उरूंक ना, तें कोणाच्या कानांतय वचूंक तयार ना आनी लाकडी आयदनांच्यो चिरी पुरोवंक आज काल लाकडी आयदनां वापरपूय कोणाक परवडना. आज फुडारिल्ल्या काळा बरोबर भिण्डेलानूय आपली खुबच प्रगती करून घेतल्या. आयच्या काळाक भिण्डेलाचो सौंदर्यप्रसाधाना खातीर खूब उपेग जाता, देखून बाजारांत ताचें मोल खूबच वाडलां.

अशें हें मोलादीक भिण्डेल , भिण्डां आनी आमची जिवाभावाची इश्टीण भिरण आमकां खूब उपकारा पडटा. आमी तिची जितली चड लागवड करूं. तितले चड आमकां तिचे लाव घेवंक मेळटले.



# काज (काजूचें झाड)



गोंयांत खंयच्याय वाठारांत तुमी भोंवात, काजुच्या झाडाचें आनी गोंयचें आगळें वेगळें नातें तुमचे नदरेंत भरतलें. गोंयचे भुंयेर दोंगरांनी जाव, रानां-वनांनी, भाटांनी, कुळागरांनी, पोरसांनी, न्हंयांच्या देगांनी, मिनाचे मातयेर आनी दर्यावेळेवयल्या रेंवट वाठारांनी लेगीत, काजुची झाडां तुमकां दिश्टी पडटलीं. जशें एके बायलमनशेक आपलें कुळार, म्हळ्यार आपल्या आवय-बापायलें घर प्रिय आसता आनी त्या घराचो कोनशान कोनसो तिका जीव काय प्राण जावन आसता, तशेंच काजीक गोंयची हवा आनी गोंयचे भुंयेचो कोनशाक कोनसो जीव काय प्राण जावन आसा.

काजूचें झाड मुळचें आमच्या देशांतलें न्हय. साडे चारशीं वर्सां आदीं पुर्तुगेज जेन्ना गोंयांत आयले, तेन्ना तांणी तें गोंयांत हाडलें. काजुच्या झाडाचीं मुळां जमनीक घट्ट घांस मारून रावतात. तांच्या मुळांतली माती पावसान वा व्हांवत्या उदकाच्या नेटान, ओझळून वा झंजळून कशीच वचना. देखून तांणी तीं हाडून न्हंयांच्या देगांनी लायिल्लीं. झाडां वाडटालीं. तांकां फळां जातालीं, तीं पिकतालीं, पिकलीं म्हणटकच फळां कांय खातालेय बी. पूण त्या फळांची 'बी' खावंक मेळटा. ती रूचीक एकदम बरी लागता, ती सात्विक -पुष्टीकय बरी आसता म्हणपाची गजाल कोणाकच खबर नासली. एकोणीसशीं सव्वीस वर्सां पलयेच फावट गोंयांत लोकांक हे गजालीचो

सोद लागलो आनी एकोणीस अट्ठावीस वर्सा गोयां भायर आनी विदेशांत ही गजाल कळीत जाली. पुर्तीगेजांनी ह्यो काजी अमेरिकेच्यान तेंच परी आफ्रिकेच्यान म्हळ्यार मोसांबीक, टांझाजुनियाक साकून बी हाडिल्ल्यो खऱ्यो, पूण काजूचे बियेंतलो म्होवलो खातात म्हणपाचो सोद आमच्या देशांतल्यान भायल्या देशांक कळून आयलो.

काजूचें झाड आंब्या-पणसांवरी उंच - उंच वाडून व्हडलो रूख जायना. ते झाड भरपूर वाड्टा खरें, पूण त्या झाडाक, सरभोंवतणीं खांदेच-खांदे आनी ताळेच ताळे फुटून, तें वाटकुळेंच पसवता आनी पाचव्या -चार पानांनी गच्च भरून वता..

काजूची पानां लांबायेन आंब्याच्या पानच्यो अर्दान लांब आनी रूंदायेन आंब्या पानाचे दुपेटीन अडेच पटीनरूंद येदीं व्हड आसतात. तीं आवाटान लांबशी' -वाटकुळसार आसतात आनी कोंबयेच्या तांतयावरी, एके वटेन रूंद आनी देंटा वटेन हय न्हयशीं अशीर आसतात. काजीचें पान तोडीत जाल्यार वा किरमीत जाल्यार खासा काजीचो, मिडमिडीत बरो वास येता. असो मिडमिडीत वास पानाक येवप, हें फकत काजीचेच बाबतींत न्हय, तर आंबो, पेर, कर्बील, नर्वल, तुळस, मिजिकांव बी असलीं जायतीं झाडां आसात, जाचीं पानां तोडीत वा किरमीत जाल्यार, ती खासा आपापली वळख ( आयडेण्टिटी) दाखयतातच. काजुच्या पानांनी जी पाचवीसाण आसता, ती म्हळ्यार, तातूंत क्लोरोफील नांवाचें एक तत्व आसता. तुमकां खबर आसतलेंच, तुमी जें पेस्ट आनी ब्रश घेवन तोंड धुयतात. त्या पेस्टात लेगीत क्लोरोफील घाल्लें आसता. तेंच हें क्लोरोफील , आदल्या काळार जेन्ना ब्रश आनी पेस्ट, नाशिल्लीं तेन्ना लोक ह्या काजीच्या, आंब्याच्या, ओंवळीच्या पेरीच्या, नंदनगोळीच्या बी पानांनी तोंड धुताले आनी तोंड निवळ जावन जिवाक प्रस्न दिसतालें.

काजूचें झाड दिखाळ आसता. ताचें लाकूड जावं फळ बी... बी सगलेंच दिखाळ जावन आसता. ह्या झाडाचें एक वैशिष्ट म्हणचे ह्या झाडाची बी फळांत भितर नासता. ती फळाच्या भायर आसता.तुमीं कसलेंय फळ घेयात, त्या त्या फळाची बी, त्या त्या फळांत भितर आसता. पूण काजीच्या फळाचे आनी बियेचे बाबतींत, तो नेम लागू जायना. काजीच्या फळाक 'म्हट्ट् म्हणटात. म्हुटटो तरणो

आसता तेन्ना ताका तोट्टो म्हणटात. म्हुटट्याचे दिखाळ रुचीक तोरटसाण म्हणटात. तन्नो म्हुट्टो तोरट आसता म्हणुनंय ताका तोट्टो म्हणटात. तोट्ट्याची बीय तरणी आसता. तिका बी म्हंनात, तिका बिबो म्हणटात. पिक्या म्हुट्ट्यांची बीजू न जाता तिका बी म्हणटात. बियो खावपाक भोव रूचीक लागतात. तेन्ना बियेचो म्होवलो, म्हळ्यार बिबो. तो तर ते परस रुचीक लागता: तुमी सगल्यांनी ते खावन पळयल्यात आसतलो. एक बी वा बिबो तुमी खाला म्हणटकच आनीक आनीक मागले बगर तुमची जीब कशीच वोगी रावपाक ना. ह्या बियां भायर घोडकां म्हणून आनीक एक काजू बियांचो प्रकार आसा. आदल्या काळार काजूचीं झाडां चडशीं रानांनीच आसताली. उद्येगीकरणाचे नदरेन काजू-झाडांची कोणूच गांवांनी लागवड करिनासलें. रानांतल्या ह्या काजू झाडांचीं पिकिल्लीं पानां वर्सयभर काजी मुळांत झडिल्लींच आसताली. मागीर हीं पानां दीस वतात तशीं सुकून सळसळीत जातालीं. हे भशेन काजी मुळांनी सुको पत्रो पडिल्लोच आसतालो. रानांत जाल्ल्या तो कोणच भरय नासलो. एप्रिल - मे म्हयन्यांत काजू म्हुटट्े पिकून खातड जाताली. काय वेळार वाऱ्याच्या नेटान पिकून जार जाल्ले म्हुट्टे मुळांत झडटाले आनी पत्र्यांत भितर पडून लिपून उरताले. पावसा तेंपार मागीर नवोच पावस पडूंक लागलो. तशे उदकाचे ओलसाणेन आनी पत्र्याचे थंडसाणेन त्या बियांक कोंब येताले. नव्या पावसार· मागीर तमाम लोक ह्यो कोमेल्ल्यो काजू-बियो म्हळ्यार 'घोडकां' सोदूंक रानांनी वचून पत्रो उस्तिताले आनी घोडकां सोदून काडटाले. बियेक कोंब आयिल्ले हे अवस्तेंत, बियेचें कट्टें आपशींच उसवता आनी भितरली बी रंगान पाचवीसार आनी आवाटान मोटसार जावन कट्ट्यांतल्यान अर्दुकुटी भायर सरता म्हणसर ती कट्ट्यांतल्यान भायर काडपाक सोंपी पडटा. आनी हे अवस्तेंत बियेचो दिखूय बऱ्याच अंशीं ना जाल्लो आसता आनी हीं घोडकां खावपाक खूब रूचीक लागतात.

काजूचे बियेक वयल्यान घट्ट, दाट कट्टें आसता, ताका 'चख' म्हणटात. भोववचनांत 'चखीं' म्हणटात. चखीं खूबच दिखाळ आसतात. भितरलो म्होवलो काडपापासत बिबो वा बी चिरली म्हणटकच तिचो दीख हातांक लागता. तो दीख फोपेता. म्हणजे, हातांच्या बोटांची कात लाशिल्लेवरी जावन ती काळी पडटा.

म्हणचेच ती कात मरता. तेन्ना हातांक चखीं जाल्यांत अशें म्हणटात. ही कात मागीर इल्ली इल्ली करून झडून वता. हे भशेन चख्यांचो दीख लागून हाताची जरीय वाट लागता आसली, तरीय काजूची बी वा बिबो खावपाक इतलो बरो लागता आनी ताका बाजारांत इतली मागणी आनी मोल आसता, कांय लोक तरणे बिबे चिरून हाडून बाजारांत विकतात आनी राशींनी दुडू जोडटात. जून जाल्ले बियेंतलो म्होंवलो काडपाक, बियो भाजच्यो पडटात. मागीर त्यो फोडून म्होंवलो भायर काडचो पडटा. आदल्या काळार माडा-चुट्ट्यांच्यो चुट्टयो काडून त्यांच्यो चुडी पेटोवन, काजी म्हळ्यार बियो भाजताले आनी लोखंडाचो वारांव वा फातोर बी घेवन ते काजी फोडटाले. भाजिल्ल्या काजींचोय दीख हातांक लागतालो आनी हातांक रांप बसतालो. हात केच जाताले. चखींय जावन हातांची वाट लागताली..

हालींसराक काजू - म्होंवल्यांचें व्हडलें उद्येगीकरण जालां. गोंयांत काजू - बियो भाजपाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो फॅक्टरी जाल्यात मशिनांचेर काजी भाजपाचीं बी कामां आपसूक जावंक (ऑटोमेटीक) लागल्यात.

काजूचे म्हुटटे जेन्ना खूब्ब राशानी पिकतात आनी खातड जाता, तेन्ना तांच्यो बियो वळून वेगळ्यो करतात आनी म्हुट्टे सोरो करपाखातीर भाटयेर व्हरतात. थंय म्हुट्ट्यांचो रोस काडपाखातीर वेवस्था केल्ली आसता. थंय एक निव्वळ खडप दवरलेलें आसता. मानाय आपले पांय बरे निवळ धुवन , ते म्हुट्टे पायांनी मस्तितात तो रोस ओततात. ह्या भाणाच्या तोंडाक एक बुडकुलो लावन तें पॅक करतात. ताका म्होर लावप अशें म्हणटात. ह्या तांब्याच्या भाणाफुडें एक मातयेचे कदें उदकान भरून दवरिल्लें आसता. रेडे अनस म्हणून अनशिणी भशेनूच एक वनस्पत आसता. तिचो मदलो दांडो पोकळ, पायप कशें आसता. तें पायप एके वशीं भाणाक लायतात. फुडें उदकाच्या कद्यांतल्यान तें आरपार भायर सोडटात आनी ताच्या तोंडाक एक बुडकुलो लायतात. मागीर त्या तांब्यांच्या भाणापोंदा उजो करतात. हो उजो काजी - लाकडाचो लेगीत करतात. कारण काजीचें लाकूड, लाकूडवत करपाक म्हळ्यार फर्निचर करपाक उपकारना. त्या लाकडाक पीळ कशे आसतात. काज बरी मोटी आसता जाल्यार तिचीं फळीं काडटात. पूण फर्निचर करपाक न्हय. काजी लाकूड

मात्शें दिखाळय आसता. म्हणटकच ताचो उजोय मात्सो खर आसता. ह्या लाकडांच्या बड्याचो त्या भाणापोंदा उजो केलो, तसो भाणांतलो म्हुट्ट्यांचो रोस शिजता-सळसळटा. ताची वाफ जावन त्या पायपातल्यान भायर वता. मर्दीं हे पायप मातयेच्या कद्यांतल्या उदकांतल्यान गेल्ल्यान ताका थंडसाण लागता आनी ते वाफेचें उदक जावन फुडें वचून पोंतार तोंडाक बुडकुलो लायिल्लो आसता, त्या बुडकुल्यांत वोतता. ताकाच काजूचो सोरो,हुर्राक बी अशें म्हणटात. काजूच्या सोऱ्यांत ज्या ज्या प्रमाणांत आल्कोल आसता, ते ते प्रमाण ताचे नांव बदलता, जशे परी हुर्राक, फेणी .... बी .

आदल्या काळार काजी रोयताले, जाल्यार काजूबियो रुजवणाक घालून रोपंयो किल्लून काडटाले आनी रोयताले. रानां-वनांनी तर पिकिल्ले म्हुट्टे गळटाले. गडगडून ते पत्र्यांत भितर पावताले. तांच्यो बियो थंयच पडून आसताल्यो त्यो पावसांत मागीर थंयचे थंयच रुजताल्यो आनी तांचींय झाडां जातालीं. आजकाल काजी झाडाक पळोवपाची नदर बदलल्या. आजकाल तें, बियां उदेशीं आनी सोऱ्या उदेशीं उत्पन्न दिवपी झाड म्हणून पळयतात. सरकार ताचेर संशोधन करुंक लावन, उत्पन्न चड कशें मेळटा त आनी उद्येगीकरणाक हातभार कसो लागत. म्हणपाचेर विचार करता. हे संशोधन केल्ले अंतीं अशें दिसून आयलां. कांय काजूंचें ऊत्पन्न चड मेळटलें. जाल्यार काजूबियो किल्लूंक घालून रोपंयो काडून रोवचे परस, त्या रोंपयांचीं कलमां म्हळ्यार गार्फा करून रोयत जाल्यार, ताचे चड पीक मेळटा. अर्थात चड उत्पन्न मेळटा. इतलेंच न्हय, तर तीं कलमां करता आसतना. रोपयांखातीर वापरलेलें बियाणें लेगीत बऱ्या जातीच्यो बियो वापरूनच करूंक जाय. सद्या संशोधना अंतीं दिसून आयला हें म्हळ्यार आमच्या गोंयच्या सद्याच्या बियाण्यांपरस वेंगुर्ला चार जातीचें बियाणें चड बरें जावन आसा. ह्या बियाण्याचे गार्फ रोयत जाल्यार ताचेपासून बियोय बऱ्यो आनी चड मेळटात. तशेंच हे जातीचे म्हुट्टेय रोसाक बरे जावन आसतात. आमच्या गोंयच्या बियाण्याच्योय सुदारीत जाती करचे पासत सद्या गोयांतच संशोधन चालू आसा.

काजीच्या झाडाक, शिंपण्या साऱ्याची गरज ना. अशें आदल्या काळार

समजताले, देखून गोयांत चडशीं काजूंचीं झाडां दोंगरांनीच दिश्टी पडटालीं. पूण हें खरें न्हय. काजीक शिंपणें, सारें वखद.... बी ह्या सगल्या गजालींची गरज आसता. काजींचीं कलमां दोंगरांनीय रोवं येतात. पूण तेपासत पयलीं बरो एक खड्डो मारचो पडटा. तातूंत पोळ,- शेण , मांवळ ... बी म्हळ्यार घरगुती सारें घालून, तातूंत कलम रोवचें पडटा. पावस सुरू जालो, तशे मागीर मीर्गार धरून ते जूनाचे अखेर मेरेन गार्फ रोवचें . तशें केल्ल्यान त्या खड्ड्यांत उदकाचो भरपूर पुरवठो सांटून उरता. त्या गार्फाक मागीर वेळार धिगी लावंक जाय. वेळार ताचेर वखद मारुंक जाय. अशें केल्यार दोंगराख काजीचें गार्फ बरेतरेन वाडूंक पावता. इतलेंच न्हय तर ताका दोन वर्सां भितर फुलां येवंक लागतात. पूण तेन्ना ताचीं फळां घेवंक फावना. त्या वेळार झाडाक आयिल्लीं फळां झडोवंक जा. झाड मागीर चार वर्सांचें जालें तर हें नेटान पीक दिवंक लागता. काजू बियांचो आवाटय बरो मोटो आसता.

काजू बियो तरेतरेच्या आवाटाच्यो आसतात. बारीक आसतात, मध्यम आवाटाच्यो आनी खूबच मोट्योय आसतात. ह्या अती मोट्या बियांक 'भोटे' म्हणटात. भोटो अखंडय आसता. पूण जायतेदां भितर आसता तो म्होंवलो ल्हान आसता. देखून भोट्यांत भितर पोकळसाण आसता. हे गजाली वयल्यान कोंकणी भाशेंत ' सामको भोटो' अशी ओंपार मारचेली चाल आसा. जेन्ना कोणाकय आपूणं कसलीय गजाल समजावन सांगता आनी त्या मनशाच्या ती ध्यानांत पडना, तेन्ना ' चे! तो सामको भोटो' अशें म्हणटात. आदल्या काळार भुरगीं घरोन घर काजू बियो घेवन खेळटालीं. चलयो जमनीर राशींनी बियो पसरावन, कुम्यांची खेळटल्यो ते तरेन बियो जिखून खेळटाल्यो तर चले भुरगे, बियो भोटे बी घेवन, घरा भायर उगड्यार नेकळे हवेंत, बियांचेर भोटो मोखून खेळटाले. भोटो भितरल्यान पोकळ आशिल्ल्यान बियेचेर मोखलो म्हणटकच आपटून बरो उडटालो. खेळ बरो रंगार येतालो. आजकाल ते खेळ चशे दिश्टी पडटनात. भुरग्यांक विंगड विंगड तरांचे खेळ आयल्यात आनी काजू बियेक भरमसाट अर्थीक मोल आयलां.

काजू बियांतलो म्होवलो काडटकच जीं चखीं उरतात, तीं खूब उपेगी आसतात. त्या चख्यांपासून दीख काडटात. तो दीख व्हड्यांक, पोनेळांक बी

काडटात. म्हणजे वंटीक बी जसो रंग काडटात तसोच त्या काळ्या दिखाचो व्हड्यां पनेळांच्या लाकडाक लेप काडटात. तो काडटकच व्हड्या पनेळाचें लाकूड फुगना. ते भायर दर्यांत काली म्हणून एके तरेचो जीवन आसता, तो व्हड्यां पनेळांक लागना वायटीय लागना. मात हो दीख व्हड्यांक दर वर्सा काडचो पडटा. ह्या दिखाक लागून व्हडीं, पनेळ चड वर्सा तिगतात.हालींसराक काजू-म्होंवल्यांचें व्हडलें उद्येगीकरण जालां. गोंयांत काजुबियो भाजून तातुंतलो म्होंवलो भायर काडपाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो फॅक्टरी जाल्यात. म्हणटकच हीं कामां मोट्यां प्रमाणात आनी ऑटोमेटीक जावंक लागल्यांत. अशे तरेन मशिनांनी काजूच्यो बियो भाजून, फोडून तातुंतलो म्होंवलो भायर काडलो तसे तांच्यो ग्रेडी थारायतात. ते पासत अख्खो म्होवलो आनी कुडके वेगळे करतात. उपरांत अख्ख्या म्होंल्यांतले, बारीक आनी मोट अशे कुशी कुशीन वांटे करतात. मागीर तांचे ग्रेड थारायतात. बियांची ग्रेड थारावपाक बियांचें वजन करचें पडटा. ज्यो बियो एका राताक १८० ते २०० भरतात त्योच बियो उत्तम जातीच्यो आसतात. त्यो मागीर पाकिटांनी भरून फॉरेनाक धाडटात.

कांय बियो अख्यो आसतात पूण म्होंवलो बारीक आसता. त्यो राताक २४० भरतात. असल्या बियांक अमेरिकेक खूब मागणी आसा. कारण अमेरिकेक त्या बियांचीं ते ल्हान ल्हान पाकिटां करून विकतात.

हाचेभायर म्होवलो खारसोय करून भायर धाडटात. ताका खाऱ्यो बियो म्हणटात. हे तरेन वेगवेगळे तरेचीं पाकिटां भरून आमचो गोंयचो काजूगर वा म्होंवलो गोंयांभायर भारतांतच न्हय तर विदेशांतय वता. हे भशेन काजू म्होंवल्यांचें आनी सोऱ्याचें उद्येगीकरण ही एक गोंयांक येणावळीची झर जावन आसा. उरिल्ली काजू-बी जी मोडून कुडक्याच्या रुपात आसता वा सोलिनाशिल्ली बी आसता, ती पाकिटांनी भरून आमच्याच देशांत विक्री करतात. तिकाय भरपूर खप आसता. कारण तिचो दर मात्सो उणो आसता. सांगपाचें म्हळयार काजूचें झाड म्हणचेच काज, हें गोयांक देवान दिल्लें एक येणावळीचें वरदानच जावन आसा.



# कोंडो



कोंडो तुमी संगल्यांनी पळयला जातलो. आमच्या गोंयांत कोंडे खूब जातात आनी पुरातन काळार सावन, गोंयकार कोंड्याचो खूब वापर करीत आयल्यात. कोंड्याबगर आमची चांट उखलना. कोंडो आमचे जिणेचो एक भागच न्हय, तर तो आमचे जिणेचो साथीच जावन आसा.

कोंड्याक आमची गोंयची जमीन आनी हवा खूब मानवता आसूंक जाय. तो गोंयचें खंययेच जमनीर जाता. भाटांनी जाता, कुळागरांनी जाता, रानां वनांनी आनी दोंगरांनीय जाता. ताका नेमान शिंपणें लावपाची गरज ना. ताची निगा करपाची गरज ना. ताका धिगी लावची पडना. तो जसो एकदां लायलो आनी ताणें जसो एकदां जीव धरतलो तसो तो वाडत वता आनी ताच्या मुळांत नवें नवें कोंब येतात. अशें तरेन कोंड्याचो आंकडो चडत वता. कुचकुचीत कोंडे जातात ताका आमी कोंड्यांचे बेट अशें म्हणटात.

कोंडो एकदां जसो काय जालो, तसो तो गर गर करून वेगान वाडटा. दर

दिसा तो चाळीस सें, मी. लेगीत वाडूंक शकता. आनी वाडून वाडून तो पस्तीस मीटर लेगीत ऊंच  जावंक शकता. कोंडो दिसपाक मात उशीकांड्यावरी आसता. पूण उशीकांड्याचें पीक हंगामी घेवपाचें आसता. उशीकांडो वाडून तयार जाला तसो तो कापुंकूच जाय. कोंड्याचें तशें नासता. तो वर्सा संख्यींनी वाडत आसता. उशीकांड्यापरस तो कितलोसोच  घट आनी दवरलो तरी ताची वाट लागना. तो खूब वर्सा तिगता.

कोंड्याचें आंग सुळसुळीत, तिततिकीत आसता. पूण ताच्याय आंगाक उशीकांड्यावरी मदीं मदीं  पेरां आसतातआमी खातात तसलीं गोड फळां, पेरां न्हय ऽऽ ही पेरां म्हळ्यार सांदे. कोंड्याचें आंग कुडक्या  कुड्क्यांनी  जोडिल्ले आसता. त्या भागाक  पेर म्हणटात. हो पेराचो भाग घट्ट, खरखरीत आनी अखंड आसता. कोंडो भितरल्यान पोकळ आसता. पूण पेरा पेराचेर तो सांदिल्लो आसता. देखून तितलो  कुडको  अखंड आसता. अतरेन दर दोन दोन पेरां मदलों कोंड्याचो भाग, भायल्यान सुळसुळीत, तुळतुळीत, तिकतिकीत आनी भितरल्यान पोकळ आसून, ताचें आंग उब्याच शिगरांनी घडिल्लें आसता.

पेरांच्या कोंड्याक खांदयो फुटिल्लेवरी बारीक ताळयो येतात. तांकां 'शिरीं म्हणटात.

एकवचनांत 'शिरें' म्हणटात. हीं शिरीं, कोंड्याभशेनच घट्ट, वातड, बारीक आसतात. बारीक जाल्ल्यान तीं सहज बागोवं येतात. पूण तीं चिवट आसतात. कुट्ट करून केन्नाच मोडनात. कोंड्याक पानां आसतात. पूण तीं झाडांच्या पानांवरी नासतात. तीं तणाच्यो पातयो कशी आसतात.

संवसारांत कोंड्यांच्यो सयशांवयर जाती आसात अशें सांगतात. पूण आमच्या गोंयांत त्यो तितल्योय आसतीत अशें म्हाका दिसना,  आनी ज्यो आसात त्यो सगल्योच आमी वळखनात. आमकां ज्यो तातुंतल्यो उपेगी पडटात, त्यो म्हळ्यार

ादे कोंडे आनी वेळू. कारण ह्या दोन प्रकारांचो आमचे जिणेंत आमी खूबच वापर रतात. तर आतां आमी ह्या दोनय तरांच्या कोंड्यांचो आमकां कसो कसो उपेग ाता तें पळोवयां.

आयजकाल आमी शिमिटाचीं, काँक्रिटाचीं घरां बांदतात. पूण काँक्रिटान ांदपाचो सोद लागचे आदीं आमचे जाण्टेले कोंड्यांच्या कामटाचो, घरांच्यो वण्टी रपाक उपेग करताले आनी खोपी बांदताले. ह्या खोपींचीं दारां म्हळ्यार कवड्यो ा कवडां, तींय कोंड्याच्याच कामटांची आसतालीं. उपरांत मागीर मातयेचे पारे, ण्टी वा चिऱ्यांच्यो वण्टी काडून, वयर कोंड्यांनी कामटांनी कंडवप आनी ाचेवयल्यान चुडटांनी घर शिंवप. हे भशेन घर तयार जालें तशें ताचे भोंवतणी ोरसूं करतले जाल्यार ताका वंय करताले. तीय कोंड्यांची. आयचेवरी चिऱ्यांचीं ानी शिमिटान बांदिल्लीं दुर्गां त्या काळार नासतालीं आनी अजूनय खेड्यापाड्यांनी ोरसांच्यो वंयो कोंड्यांच्योच केल्ल्यो दिश्टी पडटात.

शेतकार लोक शाक भाजी रोयतात. कोण तवशिणी, घोंसाळणी, तेंडलिणी... ायतात जाल्यार कोंड्यांचे कुडके आनी कामटां घेवन माटोव घालतात.

लग्नां कारणांखातीर आनी व्हडल्या व्हडल्या सभा समारंभांखातीर ाडयांच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो म्हेडी पुरून वयल्यान कोंड्यांचीं छपरां करून ती ागीर चुडटां मल्लांनी धांपून माटोव घालतात.

शेतकामती लोक, तशेंच फुलकार बी झाडांच्यो खांदयो, ताळयो बागोलपाक ा कांय फळां फुलां बी काडपाक, तेंकडेचो वापर करतात. ही तेंकडी म्हळ्यार ोंड्यांचोच एक भाग! मोटसार शिरें आशिल्लो, कोंड्याचो वयलो भाग घेतात आनी रें आसा त्या पेरार तो कापतात. शिऱ्याचो बोटायेदो भाग दवरतात. उरिल्लें शिरें ापून उडयतात, हाकाच तेंकडी अशें म्हणटात.

हे तेंकडे भशेनूच पूण मात्शे अवघड गजालींक वापर करचे पसत ेल्लकांतने म्हणून करतात. किल्लकांतन्याखातीर बऱ्याशा कोंड्याची निवड

करतात. ताच्या वयल्या तोंकाक 'किल्लकांतने' म्हळ्यार विळ्यावरी आकाराचें, कांतने आशिल्लें लोखंडी कोयतूल घट्ट बसयतात. ह्या किल्लकातन्यान मागीर केळी-घडावल्याची बोंडी कापप, म्हसकाच्यो सांगो काडप, झाडांच्यो सुक्यो खांदयो मोडप... बी असलीं कामां करतात.

आंबे काडपाक कोबलें वापरतात. आंबे जमनीर पडून धाडावचे न्हय, ते अळंग काडूंक मेळचे, म्हणून कोबल्याची गरज आसता. हें कोबलें करपाक एक बरोसो कोंडो सोदून घेवन, ताच्या वयल्या तोंकाक कोबल्याची जाळी बसयतात. ही जाळी म्हळ्यार कॅरम बोर्डाच्या चारय कोनशांनी घुलो घालपाक जशो जाळयेच्यो पोतयो लायतात, तशेच तरेची पूण मात्शी व्हड पोती करुन, त्या कोंड्याच्या वयल्या तोंकाक बसयतात आनी मागीर आंबे काडटात.

नुस्तें गरोवपी लोक गरी करपाखातीर कोंड्याचोच वापर करतात.

व्हडेंकार आपलें व्हडें तडीक उण्या उदकांत आसता तेन्ना, तें खोल उदकांत व्हरपाखातीर, सुरवेक कोंडयाचो उपेग करतात. खोल उदकांत व्हडें पावलें तशें मागीर व्हले घेवन व्हलयतात (ताणटात).

घरांत भितरल्यान घोयरूम बी जायत जाल्यार कोंड्याचे बडयेक पिसोंडी बांदून झाडू करतात आनी घराचीं छपरां भितरल्यान झाडटात.

जमनीर रावन काम करपाक हात ऊंच पावनात. असल्या जाग्यार हात पावोवपाखातीर निसणीची गरज पडटा. आदल्या काळार ह्यो निसणी कोंड्यांच्योच करताले. आयजकाल त्यो लोखणांच्यो लेगीत करतात.

गोड संगीत वाजोवपाखातीर कोंड्याच्यो तरेतरेच्यो मुरल्यो करतात.

आदल्या काळार बायलो लाटफळ्याचेर चपात्यो, रोटयो... बी आनी चड करून पापड लाट्टना, दोन पेरां मदलो कोंड्याचो सुळसुळीत कुडको घेवन ताचो लाटणी म्हणून वापर करताल्यो.

असो हो कोंडो आनी ताच्या दोन पेरां मदली कोंड्याची नळी. पूण इतल्यान

कोंड्याचो उपेग सोंपलो म्हणून समजशात आंऽऽ. ताचो आनिकूय जायतो खूब म्हत्वाचो उपेग आजमेरेन आमी करीत आयल्यात. तो तुमकां सांगपाचोच आसा.

पूर्व पुरातन काळार सावन कोंड्याचो वापर करून बऱ्यांतलो बरो कलात्मक वावर करुन, तरेतरेच्यो वस्तू बनोवन विकपाचो धंदो गोंयांत चलतालो, अजूनय हो धंदो कांय अंशी चलोवपी क्वचित लोक आसतले. हो धंदो करपी एक वेगळोच कलाकार समाज आशिल्लो. तोच हो धंदो करतालो. ह्यो वस्तू करपाखातीर ते पयलीं, कोंडे घेवन सात आठ दीस, ते उदकांत फुगत घालताले. तांचे मागीर जायतेदे कुडके करुन तांची तीन तरांची वेळां काडटाले. कांय वस्तू करपाक दाट, घट वेळां काडचीं पडटात, तांकां 'खांबे' म्हणटात आनी तीं वेळां विणटना तो घट्ट विणपाखातीर बारीक वांटकुळीं, सुळसुळी वेळां काडचीं पडटात तांकां 'सरयो' अशें म्हणटात. अशेतरेन हीं तीन तरांचीं वेळां घेवन जाय जाय तसल्यो वस्तू ते लोक हातांनी तयार करताले.

देखीक : हातरपाटे, दालयो, खांडवीं, सुपां, पांटले, खोटले, वजीं, वल्ले, वल्ल्यो, सांगशो, पेटारे... बी जायत्यो वस्तू ते लोक हातांनी तयार करताले आनी ह्या वस्तुंक आदल्या काळांत खूप खब आसतालो. पूण हालीं तेंपाक प्लास्टिकाच्यो तरेतरेच्यो बऱ्यो वस्तू मेळूंक लागिल्ल्यान, कोंड्या वेळां पसून तयार केल्ल्या ह्या वस्तूचें म्हत्व उणें जायत गेलें. कलाकार हे नदरेंतल्यान ह्या समाजाक मेळूंक फावो तें उत्तेजन, तसो फायदो तर मेळनासलोच, पूण ते परस वायट गजाल म्हळ्यार तांकां समाजांत मान नासलो. वयल्यान तांची मानखंडणाच जाताली. देखून, तांकांच हो धंदो नाका जालो. अशेतरेन हो धंदो संपुश्टांत आयलो. तरीय आसतना आजूनय कोंड्या वेळांच्यो जायत्या तरांच्यो वस्तू वापरांत आसात, त्यो अशो :

हातरपाटे :

व्हडले व्हडले शेतकार, भाटकार, गिरणकार बी जे लोक भाताचो धंदो करतात, ते लोक भात सुकोवपाखातीर हातरपाट्यांचो उपेग करतात.

सुपां :

मळणी बी घालून भात केलें म्हण्टकच तातूंत तणाचो भुसो, पोल-भात बी आसता. तें वेगळावपाखातीर भाताक वारें दिवचें पडटा. तेन्ना सुपांचो खूब बरो उपेग जाता. आयजकाल हिंडलियमची सुपां मेळटात. पूण आदल्या काळार ह्या सुपां बगर आमची चांट उखलनाशिल्ली. तांदूळ सरी करूंक, आसडूंक, फाफडूंक, वेंचूंक बी सुपांचोच आमी वापर करताले.

म्हारवत :

अजूनमेरेन हिंदू समाजांत लग्न कार्याखातीर 'म्हारवत' म्हणून मागयतात . हें म्हारवत म्हळ्यार एक वल्लो, एक वल्ली, एक दाली, एक सुपली, एक खांडवें आनी एक आयणो अशा वस्तूंचो एक संच आसता ह्या वस्तुंचो उपेग म्हळ्यार,

वल्लो : वल्ल्यांत शकूनदिवो दवरतात. येजमान्न म्हळ्यार न्हवऱ्याची आवय हो दिवो घेवन, लग्न जावन घरांत येवपी आपले सुनेचें पयलेच फावट तोंड पळेयता म्हळ्यार 'सून-मुख' पळयता.

दाली : मंटप - देवता पुजपाक जाय पडटा.

सुपली : सुपल्यांत वायण दवरतात.

खांडवें : खांडवें म्हळ्यार एक ल्हानशी चौखणी हातरी. ही एक वा देड मीटर चौखण आसता. ह्या खांडव्याचेर एक कपडो घालून ताचेर वयल्यान दांतें मांडून (दवरून) आदले लोक,गिरणी नाशिल्ल्यो त्या काळार, व्होंवयो गायत, गंव, तांदूळ, नाचणे, तशेच तरेतरेचें कडधान्य बी दळटाले. आयजकाल हिंदू लोकांगेर लग्न कार्यात, हुड्डम्हूर्त धरपाक, फकत भोगावळ म्हणून दांतें मांडून (ह्या खांडव्याचेर दांतें मांडटात) दांत्या भोंवतणी पांच जणी सवायशिणी बायलो बसून, व्होवयो गायत हुडीद दळपाचें शास्त्र करतात.

आयणो : आयजकाल बरे बरे इलेक्ट्रिक आयणे म्हळ्यार पंखे आयल्यात. तरीय भोगावळ म्हणून ह्या आयण्यान न्हवऱ्या-व्हंकलेक वारें घालतात.

हांचो जरी एक लागडबाब आनी भोगावळ म्हणून वापर करतात जाले, तरीय अजून कोंड्या वेळांच्या जायत्या वस्तूंचो लोक वापर करतात, तो म्हळयार, कश्टकरी शेतकामती लोक पिकावळीचें सामान एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्यार व्हांवोवपाक (व्हरपाक) वजीं, पांटलें, खोटले, बी हांचो वापर करतात. हे पांटले-खोंटले तरेतरेच्या आवाटांचे (ल्हान-व्हड) आनी आकारांचे (मोदींचे शेपाचे) आसतात. तांच्या तांच्या आवाटांवयल्यान आनी आकारांवयल्यान तांचीं नांवां बदलतात. सगल्यांत व्हड पांटलो म्हळ्यार 'वजे', ताचेफाटल्यान मागीर पांटलो, पांटली, खोंटलो, बुटी बी हाचो वापर कामगार लोक करतात. तांचे उदेशीं मेज - मापय सांगतात. देखीक : 'बुटीभर शेणखत झाडांक घालें', 'खोंटलोभर काजूबियो पुंजायल्यो.' 'धा पांटल्यो माती हाडून झाडांक भर घाली' हे तरेन हांचे उदेशी मेज माप कळीत जाता.

ह्या पांटल्या खोंटल्यापरस ल्हान आसत जाल्यार ताका पांटुलो, कुरपणो... बी म्हणटात ह्या कुरपण्याचो आकार सकयल्यान ल्हान आनी वयल्यान रुंदसो आसता. गरीब लोक बुडकुल्यांत शीत रांदताले आनी कुरपण्यांत ते उसपिताले. शीत वाळटाले. कांय पांटल्यांक पोंदच्यान बसका आसता आनी पांटुलो उबारपाक वयर आर्क कशी दांडी आसता. असल्या पांटुल्याक परडी म्हणटात. परड्यो चड करून फुलकार लोक फुलां व्हांवोपाक वापरतात. अशा ह्या जिनसांभासांच्या पांटल्यां भायर धांकण्यांचेय तरेतरेच्या आकारांचे क़रंडे कशे पांटुले विणटाले. तांचीं नांवा म्हळ्यार सांगशी, पेटारो, कंडो, पेळी... बी आयजकाल बरो बरो वेपार मेळिल्ल्यान कोंड्या वेळांच्यो ह्यो वस्तू कोणच वापरिनात. पापेलांवांच्यो काशी, पिन्याच्यो काशी (देवदारी खोके) बी मेळिल्ल्यान, पांटले, खोंटले, कण्डे बी आतां वापर उणें जालां.

आमच्या काळार कोंड्यांचो आनी वेळूंचो चडसो व्पर घरांच्या आनी व्हडल्या व्हडल्या ऊंच ऊंच इमारतींच्या बांदकामाखातीर करतात तो दिश्टी पडटा.

इमारतीच्या वण्टींक शिमीट मारतना, रंग काडटना, तशेंच बेतो घालतना, स्लॅबांक पोंदच्यान धिगी लावपाक बी कोंड्या वेळूंचो वापर करतात.

कोंड्याचो आमी खावपाक लेगीत वापर करतात. वेळू म्हणून जो मोट्टो कोंडो आसता, ताका मुळांतसून कोंब येतात. ह्या कोंबांक आमी किल्ल म्हणटात. ह्या किल्लाचे आमी तरेतरेचे जिनस, तशेंच लोणचें... बी करुन खातात. अशा ह्या कोंड्याचीं आमकां खावपाखातीर गोड गोड फळां मात मेळनात. कारण, ताका फळांच लागनात. पूण अशें सांगतात, कांय कांय कोंडे तीस वर्सांनी फुलतात. तांकां चंवर येता. तशेंच कांय कोंडे शंबर वर्सांनी चंवरतात. त्या फुलांतल्यान मागीर बिंयां झडटात, नवे नवे कोंडे किल्लून येतात आनी मागीर कोंडो मरता.

वेळूच्या पेरांतलो रोस काडून वखदांय तयार करतात अशें सांगतात. तशेंच आदल्या काळार, मोटट्या वेळूंचो, उदकाच्या पायपांवजाय उपेग करताले.

इतलो जरी कोंड्यांचो सगलो उपेग तुमकां सांगलो, तरी सुरवेकच तुमकां सांगलां तशें, कोंडो हो आमचे जिणे भागच न्हय, तर तो आमचे जिणेचो सांगाती जावन आसा, म्शणपाचें तुनकां सांगपाचें उरलां.

मनीस केदोय व्हडलो आसूं, केदोय मोटो पयशेकार आसूं, जीण भर ताणें बऱ्या बऱ्या वस्तूंचो भोग घेतिल्लो आसूं, पूण जेन्ना तो ह्या संवसारातलो वता, मृळ्यार मरता, तेन्न तो गादयांचेर आनी कुलच्च्यावांचेर न्हिदना, तो कोंड्याचे तिरडेर (निसणीर) न्हिदून आपले जिणेंतली निमणी यात्रा करता ती तागेली स्मशान यात्रा जावन आसता.

असो हो आमचो जिणेचो साथी कोंडो, एक झाड नासून ती एक तणाची वनस्पत जावन आसा.

卐 卐 卐

# विंगड विंगड फळझाडां

आमच्या गोंयांत नाल्ल,सुपारी , काजू, आंबे, भिण्डा...बी असलीं ही जरीय प्रामुख्यान मेळटात आसलीं. तरीय आनीक जायतीं विंगड विंगंड झाडां आसात तीं आमकां विंगड विंगड तरेचीं फळां दितात. तांचीय आमी थोडे भितर वळख करून घेवया.

आमच्या गोंयांत आमकां जांभळां, जगमां, बोरां चिकू, तोरंजां जांभ, आदम, माठांमां, पोपायो, आंतेरा, सिताफळां, लिंबू, नारंगा, सोलनारंगा, इंडा, काळंगा, चिबडां, आमाडे, बिमलां, कर्मलां, तेफळां, वंठा, खश्टा, काण्णां, चुन्नां, चारां, भेडसां, हांसाळें, पिटकोळां,..बी असलीं फळां मेळटात. हातलीं कांय फळां व्हडल्या रूखांक जातात. कांय ल्हान झुडपांक जातात आनी कांय वालींकय जातात. कांय फळां आमी पिकोवन खातात, तर कांयचो आमी जेवणांत वापर करतात. तर खश्टांचो आमी फकत तेल काडपाक उपेग करतात.

आतां ह्या फळांच्या झाडां संबंदान थोडें भोव पळोवया.

जांभळा :

जांभळांच्या झाडाक 'जांभळ' म्हणटात. हो एक व्हडलो रूख जाता. हो रुख भाटांनी, कुळागरांनी आनी दोंगरानी लेगीत जाता. दोंगरार जेन्ना जांभळ आसता आनी तिच्या म्हऱ्यांत जेन्ना कोंडे आसतात, तेन्ना हीं जांभळां पाडपाक मजाच येता. जांभळी मुळांत वचचें आनी कोंडो हातांत धरून ताणें जांभळ हालोवचे. मागीर कितें सांगचे जांभळांचो पावसूच पावस शिंवरता. जांभळांचो रंग गाड जांभळो आसता. तीं राशींनी लागतात आनी खातकच जीब जाभळीच जाता. गोडेंमूत जाल्ल्या वायटकाराक हीं जांभळां खाल्यार आरोग्याक एकदम बरीं.

जगमां :

जगमां तुमी पळयल्यात? जगमाच्या झाडाक ' जगम' म्हणटात. जगमीक कांटे आसतात. हें एक आडसाटें झाड आसता. व्हडलो रूख जायना. जगमां

बोरांपसरस तात्शी मोटी, वाटळींच चॉकलेटी रंगाची आसतात. तीं काडचीं - काडून तांकां घांस्मारुन खाशी जाल्यार तोरट लागतात. पूण ती हातांत, दोनय तळटांमदीं घेवन, गायत गायत, कुंवळायत म्हणजे 'चानये चानये मोव कर, कावळ्या कावळ्या गोड कर' हे तरेन कुंवळावन मोव करुन खायत जाल्यार, तातुंतली तोरटसाण ना जावन, तीं रूचीक गोड लागता. जांभळा भशेनच तीं राशींनी लागतात.

बोर :

बोरीचो व्हडलो रूख आसना. तें एक आडसाटें झाड आसता. ताका ताळयोच ताळयो आसतात. तिका कुचकुचीत बोरां लागतात. तशेंच कुचकुचीत कांटेय आसतात. बोरां पिकलीं म्हण्टकच तीं झडूंक लागतात. कांय लोक बोरीर चडटात, पूण कांय कांट्यांक भियोवन, तेंकडी हाडून खांदयेक लावन हालयतात आनी बोरां झडयतात.

पेर :

पेर हेंय बोरी येदेंच झाड आसता. बोरी भशेन तिका कांटे आसनात बरी लागता, ते पेरीक घोसांनी पेरां लागतात. पेरां दोन तरांची आसतात. कांय पेरांतलो गोरोप धवो आसता, तर कांय पेरांचो गोरोप तांबडो आसता.पेरांत काल्सियम खूब आसता. पेरीचें लाकूड खूब घट म्हळ्यार वातड आसता. तें कुट्ट करून केन्ना मोडटना. तसोच ताचो आनीक एक गूण म्हळ्यार आंग सुळसुळीत आसता. बाकीचीं कांय झाडां खरखरीत आसतात, तशें पेरीचें न्हय. देखून आदल्या काळार दात्यांक खुंटी करपाक अचूक पेरीची खांदी सोदून हाडटाले.

नारंगां :

नारंगांच्या झाडाक नारींग म्हणटात. कुळागरांत उदकाच्या आदाराक नारींग आसता जाल्यार बरी मात्ता. नारंगां म्हळ्यार लागी लागीं महाराष्ट्रांत लारींजां जातात, तोच प्रकार, पूण तीं महाराष्ट्रांतल्यां लारिजावरी गोडय नासतात आनी हळडुवींय नासतात. गोंयचीं नारगां रंगान पांचवीं आनी रुचीक मात्शीं आंबूसच आसतात. गोंयांत नारंगावरींच इडां, सोलनारंगां बी म्हणून जातात. सगळ्यांची रूच एकसारकीच आंबूस गोडूस आसता. फकत आवाटान मात तीं ल्हान व्हड आसतात.

तोरिंजां :

तोरिंजांच्या झाडांक तोरींज म्हणटात. तिका खांदे खूब आसतात. झाड बरें व्हड जाता, पूण अवाढव्य वाडून रूख जायना. तोरिंजां नाल्लावरी मोटसार जातात. तें फळ लारिंजाचे जातीचें आसता. पूण आवाटान व्हड. तोरिंजां दोन तरांची आसतात. धव्या गोरपाची आनी तांबड्या गोरपाचीं. तोरींज उतरत तशें. कांय गोड आसतात तर कांय आंबटय आसतात.

आदमां :

आदमांचें झाड आंब्या पणसावरी व्हडलो रूख जाता. आदमाच्या झाडाक आदम म्हणटात. तिका कुचकुचीत आदमां जातात. आदमांचो आंवाट सारको मुंबयच्या बारावरी लांबसो वांटकुळसार आसता. आदमां खावपाक गोड आनी मोव आसतात. आदमाचो गोरोप चिकूभशेन आसता. फळांत भितर दोन तीन बियो आसतात.

माठामां :

माठामांच्या झाडाक माठम म्हणटात, ती उंच उंच आनी व्हडलें झाड जाता. तिका कुचकुचीत माठामां जातात. तीं केसरी च्यॉकलेटी आसतात. माठमाक वयल्यान साल आसता, ती अळंग गोरपावयली सोलूंक मेळटा. भितर गोड गोड गोरोप आसता. कापसाची कुसांकुसां कसो ताचो गोरोप खावपाक बरो लागता. पूण कांय लोक हें फळ गुळमट लागता अशें म्हणटात. सोडकु तो जाचो ताचो घोस्त. ह्या फळाक बारीक बारीक बियो नासतात. तातूंत भितर एकच वाटकुळी बी आसता तिका गुठी म्हणटात. जे तरेन आमाड्याक, जांभळाक गुठी आसता, तशीच ही गुठी आसता. पयस साकून पळयत जाल्यार माठामां लागीं लागीं चिकू बटाटाभशेन दिसतात.

आंतेरां, सिताफळां :

आंतेरां आनी सिताफळां हीं दोनय एकेच जातींतलीं फळां, आंतेरांच्या झाडाक आंतेरा म्हणटात आनी सिताफळांच्या झाडाक सिताफळ म्हणटात. दोनय झाडां चड व्हड वाडनात. पेर, लिंबीण बी वाडटा तितलींच हींय झाडां वाडटात.

सिताफळाच्या आंगाक भायल्यान फोडव्यो फोडव्यो आसतात. दर एके फोडवे कणकणीं भितर बी आसता. म्हणचेच भितर कुचकुचीत बियो आसतात. बियो गोरपांत गुठलायल्ल्यो एकमेकांक दशिल्ल्यो आसतात. सिताफळाचो गोरोप उदकाळ आनी गोड, सुवासीक आसता. आंतेराची वयली साल सुळसुळीत आसता. तिका सिताफळावरी फोडव्यो नासतात. भितर कुचकुचीत बियो गोरपांत गुठल्यायल्ल्यो आनी एकामेकांक दशिल्ल्योच न्हय तर एकामेकांत भरसल्ल्यो आसतात. आंतेराचो गोरोप पिठूळ आसता. तो गोड आसता आनी ताचो सुवास सिताफळा परस अलग आसता. ह्या फळाक कांय लोक रामफळ अशेंय म्हणटात.

आमच्या गोंयांत झाडांपासून जशीं हीं आमकां गोड गोड फळां मेळटात, तशींच कांय फळां वालीं पासूनय मेळटात. देखीक : काळगां, चिबडां... बी. तुमी तीं खावन पळयल्यातच आसतलीं. एक एक फळ एका मनशाच्यान खावन सोपोव नजो इतलें व्हड रुचीक गोड गोड आसता.

गोंयांत आमकां आनीकय कांय फळां मेळटात. पूण आमी तीं पिकोवन खायनात. तीं फळां आमी जेवणांत वापरतात. कारण तीं आंबट आसतात. देखीक : आंबाडे, करमलां, बिमलां, आंवाळे, राज आंवो, लिंबू, वंठां चिंचो, बी ही सगलीं फळां झाडांक जातात. वालींक जायनात. हातुंतली कांय फळां आमी जेवणाचे पदार्थ करपाक वापरतात. कांयचें लोणचें -मुरांबे करतात. कांयची सोलां बी करतात. ह्या फळांभशेनच खश्टां म्हणून फळां गोंयांत जातात. खश्टांच्या झाडाक खश्ट म्हणटात. हो एक व्हडलो रूख जाता. खश्टां पिकोवन खावंक उपकारनात. पूण तांचें तेल काडटात. गोयांत तेफळां जातात. तांचोय जेवणांत उपेग करतात. हीं फळां वाटकुळीं चणे ( वाटाणे) कशीं आसतात.

गोंयांत आमकां रानांतय कांय बारीक बारीक, गोड - गोड फळां मेळटात. रानांत ल्हान ल्हान झाडां झुडपां झोपां आसतात. तांकां हीं फळां जातात. देखीक : काण्णिणीक काण्णां, चुन्निणीक - चुन्नां, चारीक - चारां, भेडशिणीक - भेडसां, हांसाळेक - हांसाळे, पिटकोळेक - पिटकोळां.... बी. आमी मनशां, ही फळां घोस्तान खातातच. पूण रानांतलीं सुकणीं-सवणीं, ह्या फळांचेर सामकीं तुटून पडटात. कारण,

हीं फळां गोड आनी रुचीक आसतात. हीं फळां बोरां परसय बारीक आसतात. तीं पिकलीं म्हणटकच, सवण्यांची भिऱ्यांची भिरीं येवन त्या फळांचेर ताव मारतात. वातावरणाचें संतुलन राखपाचें व्हड काम ह्या सवण्या उदेशीं जाता. ही फळां खावन, हीं सवणीं रानांत आनी गांवांनी जळींमळीं भोंवतात, उडटात. तेन्ना तांची विश्टा जळीं मळीं शिंपडटा. तांचे विश्टेंतल्यान त्या फळांच्यो बियोय जळीं-मळीं शिंवरतात आनी त्यो बियो कोमेवन तरेतरेचीं रोपां किल्लून येतात आनी रोयनासतना झाडांची लागवड जावंक मदत जाता.

आमच्या गोंयांत तरेतरेचीं फळां पिकतात, ताची तुमी वळख करून घेतली. ह्या फळ-झाडांभशेनूच आमच्या गोंयांत जायत्या तरांचीं बारीक रोपां जातात, जांचो आमी आमच्या जेवणांत भाजी-पालो म्हणून वापर करतात. कांय रोपांची आमी भाजी करून खातात तर कांय रोपांच्या फळांची आमी शाक करून खातात. म्हणटकच नित्य -नेमान आमच्या जेवणांत आसपी शाक भाजयांची आमकां वळख आसप, इश्ट जावन आसा. ह्यो भाजयो नित्य नेमान आमच्या जेवणांत म्हळ्यार आमच्या आहारात आसतात. तशें हांवे म्हळ्यो, तरीय म्हज्या मनांत एक दुबाव आसा. कसलो जाणांत ? घडये तुमकां कोणाकूय नुस्तें, चिकन, मटण बी चड आवडटा जाल्यार तुमी त्यो भाजयो आवयन पानार वाडल्यार लेगीत, आवयचे म्हुरवतीक, विचकायत विचकायत खातात जावंये आनी चडशो पानार थापूनच उठटात जावचे. पूण तशें कोणय करतात जाल्यार, हांव तुमकां मोटे आस्तेन सांगतां, तुमी तशें करूं नाकात. दीसपट्टी एके तरेची तरी भाजी खाल्ले बगर तुमी रावक नाकात. भाजी आरोग्याक एकदम बरी. भाजी खाल्ल्यान पोटांत घाण पडना. भाजयेंत (फायबर) चोंथो आसता, ताका लागून परसाकडेन सदळ जाता. पोट साफ उरता. ते भायर भाजयेंत व्हिटामिनां, अन्य तरांची सत्वांय आसतात. आमच्या शरीराक पोशक, गरजेंची जावन आसतात. म्हणटकच घरांत दीसपट्टी भाजी शिजूनय जर काय तुमी ती खायनात जालीं , तर तुमी त्यो भाजयो वळखतलीं कशीं? देखूक कांय भाज्यांकडेन तुमची वळख करून दितां.

आमच्या गोंयांत मेळटात त्यो भाजयो म्हळ्यार, धवी भाजी, तांबडी भाजी

मुळ्याची भाजी, लुती-भाजी, अळसांद्यांची भाजी, कुड्डुकेची भाजी, म्हस्काची भाजी, आंकूं म्हळ्यार माडयेची भाजी, तेरें, दुदनीची भाजी, तायखिळ्याची भाजी, वाळची भाजी, शेपेची भाजी, कांद्यापालय, गोळीची भाजी, चादिणीची भाजी, सुळरेची भाजी, गौरीभाजी, चंवळेची भाजी, वालांची भाजी, आंकरांची भाजी, किल्लाची भाजी, कोथमिरेची भाजी, मेथयेची भाजी, केळीफुलाची भाजी .. बी जायते तरांच्यो भाजयो आमच्या घरांनी शिजतात. हांतल्यो तांबडी भाजी वा धवी भाजी, कुडड्डकेची भाजी बी पथींक भाजी म्हणून वायटकारांक लेगीत इल्ली तोंडांक लावंक दितात. तांबडी-भाजी दोन तरांची मेळटा. सादी आनी दगळाची. ही दगळाची भाजी चिरीत जाल्यार हात लेगीत तांबडेच जातात. बाजी कितली रुचीक लागता म्हणून सांगू.? तुमी ती खावपाची रुचच लावन घेयात. मागीर तिची तुमकां गोडी लागतली..

तरी ह्यो भाज्यो ल्हान-व्हडांनी सगल्यांनीच खावच्यो. इत्तल्यो त्यो आरोग्याक बऱ्यो आसतात. खंयची भाजी चड गिरेस्त आनी खंयची भाजी उणी गिरेस्त, हें सांगप कठीण, इतल्यो ह्यो भाज्यो आपापले परी व्हिटामिनां, लोखंड आनी फायबर युक्त आसतात. हांगा एक गजाल तुमकां सांगचीशी दिसता. ती म्हळ्यार गोंयांत अजून फुकट मेळटात, अशो कांय भाजयो म्हळ्यार तायखिळ्याची भाजी, तेरें, म्हस्काची भाज़ी कुड्डकेची भाजी, बी कांय लोकांक खावपाक लज दिसता. कित्याक? त्यो फुकेसवाय मेळटात. त्यो रोयलेबगर जातात. म्हणटकच लोकांक त्यो किंकोत दिसतात. पूण तुमी तशें करु नाकात, त्या भाजयांनी व्हिटामिनां आनी लोखडाचें प्रमाण भरपूर आसता. तुमकां खंबर आसा. आमच्या गणपतीबाप्पाची आवय लेगीत भाजी पालो खाताली. तिका तये दिसा पांच -पाल्यांची भाजी निवेद्याक करचीच म्हणून रीत आसा. आमी दर वर्सा पांच तरांची भाजी हाडून ती अळणी भाजी करून गौरीक निवेद्य दाखयतात. जाणात तुमी हें?

भाजी- पाल्याविशीं आतां तुमकां कल्पना आयल्याच जातली न्हय? तर आतां पळोवया शाकेच्या फळां संबंधान. गोंयांत आमकां. भेंडें, वायंगीं, तेंडली, दुदी, घोसाळी, पोडोळीं, कोंकणदुदी, गुळां, पोपायो, दुदवाल, कर्मलवाल, कोयतेवाल, सांवरबोणीं केळीं, तवशीं, मुळो, बोबर, कुंवाळो, निरपणस, म्हसका

सांगो, ... बी जायत्या तरांची शाक मेळटा. ह्या फळांच्यो आमी जेवणार शाको करून खातात. आमच्या गोंयकारांमदीं ह्या शाकांचो एक फामाद पदार्थ म्हळ्यार 'खतखतें' ह्यो ज्यो शाको तुमकां सांगल्यात, त्यो आपल्याक मेळटीत तितल्यो हाडून तांच्यो कोडी करून घालून खतखतें हो पदार्थ करतात. तुमीं तें खावन पळयलाच जातलें. ह्या सगल्या वनस्पतींचो मनीस कसो उपेग करून घेता ताचो बारीक विचार करीत जाल्यार मनीस कितें खायना? तो झाडार पिकिल्लें खाता, जमनींत भितर पिकता ते खाता, दर्यांतलें खाता, हवेंत उडटा तें खाता. कितें खाता आनी कितें ना. मनीस सगलेंच खाता.

तर आतां गोंयचे जमनींतलीं पिकां पळोवया.

गोंयचे जमनींत कांदे, कणगां, कांटे-कणगी, माडयो, सुरन, बारकेल्या आळवाच्यो मुडल्यो, चिरके, भूत कणगी, बी जायतें कितें पिकता. तेभायर सुरनाचे जातीचें फळ, पूण सुरनाच्या मानान खूबच ल्हान अशे कारांदे, झाड - कणगां बी म्हणून जातात. तीं वालीक जातात आनी त्यो वाली व्हडल्या झाडांचेर वाडिल्ल्यो आसतात. हांचे भायर रानांनी व्हडल्या व्हडल्या झाडांचेर कोडवेल्या कारांद्याच्यो वाली आसतात. तांकां कोडवेले कारांदे जातात. ते लेगीत खावपाक मनीस फाटीं रावना. त्या कारांद्याचेर प्रयोग करून ताची कोडवटसाण निवळावन तांचीं म्हांनां करून तीं तळून खातात, शाकय करून खातात. आदल्या काळार चडशे लोक नसल्योच वस्तू खाताले. आमचेवरी त्या काळार येरादारीची सोय नासली. पूण आजकाल ती आशिल्ल्यान आजकाल लोकांक गोंयच्यो आनी गोंयांभायल्योय तरेतरेच्यो शाक भाज्यो मेळटात.

तर हीं तरेतरेचीं झाडां, तांचीं पानां, फळां, मुळां ह्या सगळ्यांचो मनीस जात कशेतरेन फायदो घेता, तें तुमीं पळयलें.



# गोंयचीं फळां आनी तातुंतलीं पुश्टिक सत्वां तिगोवन दवरचेलीं जाण्टेल्यांलीं खाणां

आमी गोंयच्या कांय फळां दिवपी झाडांविशीं वळख करून घेवंया न्हय? एक नाल्ल सोडलो जाल्यार उरिल्लीं जीं फळां आसात तीं त्या त्या हंगामांतच जावपाचीं. तीं नाल्लांवरी वर्सयभर जायनात. म्हण्टकच तीं त्या त्या हंगामांत पोटभर खावन, उरिल्ल्या दिसांनी खावपाखातीर कशीं कितें तिगोवन दवरचीं, म्हणपाचेर आमगेल्या जाण्टेल्यांक विचार करचोच पडलो.

आमचें गोंय आवाटान जरी ल्हान आसलें आनी पारतंत्र्याच्या काळांत जरी तें खूब मागास उरलें, तरी मुक्ति उपरांतच्या काळांत सगल्या मळांचेर तें उदरगतीचीं पावलां फुडें -फुडें घालीत आसा, ही व्हडा खोशयेची गजाल जावन आसा. आयजकाल गोंयांत शेतीभाती शास्त्रीय पद्धतीन करूंक लागल्यात. गोंयची पिकावळ चड आनी चड कशी वाडत हाचो आयज विचार जावंक लागला. अशे जरी आसलें तरी पुरातन काळासावन आमच्या गोंयचें दायज इतलें व्हड की कांय पिकावळीचे बाबतींत गोंय बरेंच समृद्ध जावन आसा, अशेंच म्हणचें पडटलें. आमचे गोंयचें मातयेंत कितें पिकना? त्या त्या हंगामात आंबे, पणस, काजू, भिण्णां.. कितें आनी कसलीं फळां म्हणून नात. तांचो सारको भार जाता. आंब्या, पणसांची सामकी खातड जाता. म्हण्टकच तीं तिगोवन दवरपाचो विचार आमगेल्या जाण्टेल्यांक खात्रीन करचो पडला.

गोंयचे फळफळावळींचे पिकावळीची सूची करीत जाल्यार, तिची वळेरी बरीच लांबचे-लांब जातली. देखीक : नाल्ल, आंबे, काजू, पणस, सुपारी, भिण्णां, केळी, अनसां, जांभळा, जगमां, नारंगां, तोरिंगां, जांभ, पोपायो, पेरां, बोरां, चिकू, आदमां, माठामां, आंतेरां, सिताफळां, मक्याबोंडां, मिरयां, आमटाण, दुदी, कोंकणदुदी, कुवाळे, आमाडे, बिमलां, करमलां, लिंबू, तेफळां, काण्णां, चुन्ना, चारां, कणगां, कांटे कणगां, भूंयकणगां, चिरके, सुरीन, काळंगां, चिबडां, तवशीं, घोंसाळीं, भेंडे,

तेंडली, वायंगी. आंवाळे, राजआंवाळे, वंठां, खश्टां, निरपणस, तांदूळ, नासणो, हुडीद, पाकळ, वरी, सामळां, मिरसांगो, कांदे, अळसांदे, इतलेंच न्हय, तर जायते तरेची आनीकय पिकावळ हांगा पिकता. पूण दुर्दैवाची गजाल म्हळ्यार गोंयचे पिकावळीचें उद्देगीकरण करपाचो विचार आदल्या काळांत, म्हळ्यार पारतंत्र्यांच्या काळांत करप शक्य नासलें. पूण आज गोंय स्वतंत्र जाल्लें आसा. गोंयचे हे पिकावळींचें उद्देगीकरण करपाची व्हड जापसालदारकी फुडले पिळगेची, हें विसरूं जायना!

आमच्या जाण्टेल्यांनी गोंयाचेर जिवापाड मोग केलो. गोंयचे हे पिकावळीचेर तांचे पांचय प्राण आसले. हे पिकावळीची तांकां कितली अपुरबाय! त्या त्या फळांच्या ल्हान ल्हान तरण्या तोऱ्याक लेगीत तांगेलीं अपुरबायेचीं नांवा आशिल्लीं. आनी अजुनूय त्या नांवानीच त्या तरण्या फळांक आमी वळखतात. जशे परी मनशाच्या भुरग्याक आमी भुरगें म्हणटात, मांजराच्या भुरग्याक आमी पील म्हणटात, सुण्याचो पेटो म्हणटात. सिंहाचो छावो म्हणटात तेचभशेन गोंयकार ल्हान तरण्या नाल्लाक बोंडो म्हणटात. मात्सो व्हडलो जाल्ल्या बोंड्याक अपुरबायेचें नाव आडसर, नाणकुल्या पणसांक कुंवलो वा पणसुलाचो बोको, पेराचो धडो, धडको वा काकाडो, निरपणसाचें गोळ, काजू म्हुट्टो तरणो आसल्यार ताका म्हणटात तोट्टो. चिंच व्हडली आसल्यार तें कोंगल. पूण ल्हान तरणें आसल्यार तें चिंचेबोट , दुद्याचो तोरो, तवशाची निरपी वा पिंपरी, पोपायेचें तशेंच वायंग्याचें गोळ, कणगांचे पाळ, मिरसांगेचें फोक, आंब्याचे तोर वा आंबली, केळ्याची वात वा फोक, काजू बियेंतल्या गराक अपुरबायेन म्होवलो म्हणटात, तर तोच म्होवलो तरणो आसता तेन्ना ताका बिबो म्हणटात. म्हणटकच सांगात आसां कांय ना गोंयकारांचो गोंयचे पिकावळीचेर जिवापांड मोग ! पूण मोग आसून कितें उपेग? हांगा अजून हे पिकावळीचें फावो तशें उद्देगीकरण जावंक नाशिल्ल्यान अजूनय गोंयकार चडशीं फळां पूर्वापार पद्धतीनच तिगोवन दवरतात. कशीं तें आमी पळोवंया. देखीक, पयलीं आमी आंबो घेवया.

तुमकां खबर आसाच, आंब्याच्या झाडाचे दोन प्रकार आसात. एक म्हळ्यार खूंट वा आंबुल्ली आनी दुसरो म्हळ्यार आंबो वा आंब्याचें गार्फ. खुंटीचे आंबलेची

कात पातळ आसता. तिका कोडसाण वा तोरटसाणय उणी आसता. देखून खुंटीचीच आंबली दोणांत म्हळ्यार खळाक घालतात. आंबली दोणांत घालतात, हे तुमकां कळ्ळें. पूण दोण म्हळ्यार कितें तें जाणांत तुमी? दोण म्हळ्यार एक उबेंच लाकडाचें आयदन. मोट्ट्या खोडाचो आंबो, पणस वा भिल्लमाड बी कापून, ताच्या खोडाचो पांच-स फू ट लांबायेचो कुडको घेवन ताचो मदलो घीर कोरांतून काडून, तांचे कोप कशें आयदन करताले. आदल्या काळार आयचेवरी प्लास्टीकचीं बी आयदनां नासलीं आनी झाडांचे मदेर आयच्या मानान फुकेसवाय मेळटाले. आयच्या काळार लाकडी दोण करपाक आनी खर्चाक मेळ बसपाक ना. तर असल्या ह्या दोणांत आंबली आनी मीठ घालून ताचेर दांत्यापावो बी जडसाणेक दवरताले.. मागीर ते आंबलेक उदक म्हळ्यार खळ सुट्टालो. देखून ते आंबलेक दोणांतली आंबली वा खळांतली आंबली अशें म्हणटाले. मिठांत चेपणाक घालून तिगयल्ली ही आंबली. आंबशी खारशी रुचीक आशिल्ल्यान दुर्बळांतल्या - दुर्बळाक ती शिताबरोबर पेजेवांगडा वा आंबली-वांगडा तोंडाक लावंक उपकारा पडटाली. ही आंबली वर्सा वयर लेगीत तिगताली. अजुनूय गोंयकारांल्या घरांनी दोणांत आंबल्यो घालतात, तुमी त्यो खावनूय पळयल्यात आसूंक जाय.

असलेच तरणे आंबलेचें लोणचें करतात. दोणांत घालतात तिचेपरस मात्शी मोठसार पूण काथावंक नाशिल्ली आंबली, दोनय वटेन कापून, म्हळ्यार आरती-परती कापून तातुंतली बी ( वा कांय लोक तिका कोय अशेंय म्हणटात) काडून भायर उडयतात आनी त्या वजा तातूंत मीठ भरून ती आंबली, म्हळ्यार आंबल्यो चेपणां घालून दवरतात. दोन दिसां भितर त्यो बऱ्यो खळटात. म्हळ्यार तांकां खळ सुट्टा. तातूंत भरिल्लें तें मीठ नाच जावन, खळांत विरगळून वता आनी आंबली बरी करमेता. उपरांत लोणच्याचो मेथो करुन ज्या जाग्यार आंबलेंत भितर मीठ भरिल्लें, त्या जाग्यार तो मेथो भरून, आंबल्यो बुयावांत एकार एक दाळटात. हाकाच सगल्या आंबल्यांचे लोणचें वा भरिल्ल्या आबंल्यांचें लोणचें अशें म्हणटात. हे भशेन लोणच्याच्या रुपान ह्यो आंबल्यो वर्स-वर्स तिगतात.

हरवी आंबली तासून, उकडून, तांचें पिवपाक सरबत कशें आदले लोक करताले. देवळांनी अजुनय वैशाख शुद्ध तृतिया म्हळ्यार अक्षयतृतिया मनयतात. कांय देवळांनी वसंतपूजा म्हणून उत्सव मनयतात. वैशाख पुनवेचोय कांय देवळांनी उत्सव मनयतात. त्या दिसांनी चण्यांच्यो. मुगांच्यो उसळ्यो, तरेतरेचीं फळां बी देवाचो प्रसाद म्हणून लोकांक वाट्टात आनी हें आंबलेचें सरबत, जाका 'पनक' अशें म्हणटात, तें पिवंक दितात. वैशाख म्हयनो म्हळ्यार ' मे' म्हयनो. ह्या म्हयन्यात खूब उजो मारता. आनी अचूक करून लोक उबाळां दिसांनी हें पनक शितळ म्हणून, म्हणजेच आरोग्याक बरें म्हणून पियेतात. आजकाल जायत्यो तरातरांच्यो सरबतांच्यो बाटल्यो मेळटात म्हणटकच हें पनक करुंक कोण बसता? तरीय ते रुचीक बरें लागता आनी आरोग्याकय बरें म्हणपाचें आमकां मान्य करचेंच पडटा!

खुंटीची आंबली जावं वा गार्फाची. काथावल्ली आंबली तासून ताच्यो आपल्याक जाय तेद्यो बारीक - मोट्ट्यो फोडी करुन हींग, हरवी मिरसांग बी घालून बरें गोडाचें लोणचें करतात, ताका गोडाचं - तिखशें - मेल अशेंय म्हणटात. हरव्यो आंबल्यो तासून तांच्यो फोडी करून सुकयतात, तांकां आमसुलां वा आंबलेचीं सुकीं सोलां अशे म्हणटात. ह्या सुक्या आमसुलांचेय लोणचें करतात. आमलेच्या लोणच्यावरीच हें लोणचें करतात आनी मागीर तें गोडाच्या मेलांत घालून शिजयतात. तिखशें - आमशें - गोडें लोणचें हें भोव बरें लागता. पूण लोणचें करचेवजा ह्या आंबसुलाचो जायतो लोक जेवणांत आमटाण म्हणून वापर करतात.

आतां पळोवया गार्फाचे आंबे! आंबे पिकोवन खातात हें तुमी जाणांतच. पूण कांय वेळार आंबे झाडार आसतना आनी ते जून जावचे आदीं, हवेंत वादळ जाता आनी गार्फाचो खांदो मोडून पडटा. तशेंच कांय वेळार खूबखूब वर्साचे म्हातारे जाल्ल्या गार्फांचे आंब्यांच्या वजनान खांदे मोडटात. जायतेंदा वाऱ्यान लेगीत आंबे झडटात. ताचेभायर जून जाल्ले आंबे जेन्ना कोंबल्यान काडटात, तेन्ना चुकून तें कोंबल्याभायर पडटात आनी खाला जमनीर पडटांत. इतले उबारेवयल्यान खाला पडिल्ल्यान ते

दुखवतात वा फुट्टात. असल्या फुटिल्ल्या हरव्या आंब्यांक 'फुटकां' म्हणटात. असल्या ह्या हरव्या आंब्यांचो कितेंय तरी उपेग करचो पडटा. ना जाल्यार ते कुसून वतात. म्हण्टकच ह्या आंब्यांची वयली कात तासून उडोवन, भितरल्या गोरोपाच्यो आपल्याक जाय तेद्यो फोडी करून 'गोडाचें मेल वा लोणचें करून दवरीत जाल्यार तें वर्सभर तिगता. तशेंच हे आंबे तासून ताचो गोरोप किसणेर बारीक किसोवन तातूंत साखर जिरें, मिरसांगेचो पिठो, मीठ लवंगां बी असलो मसालो घालून गोडसो मुरांबोय करपाची गोयांत चाल आसा. हे पदार्थ वर्सबर तिगतात. असल्या आंब्यांक 'उकडआंबे' म्हणटात. हे आंबे हयन्हयशे पिकणेल्ले आसत जाल्यार उकडटकीर खावपाक एकदम रुचीक लागतात. कारण उकडटना तातूंत इले मीठ घालतात देखून तांची रूच आंबशी गोडशी खारशी बरी सुरबूस आसता. कांय शिवरांक जेवपी लोकांगेर, म्हळ्यार भटांगेर बी हे आंबे सामके हरवे आसतना उकडटा. ह्या आंब्यांचें मागीर ते नाल्लाची चटणी घालून रायतें, सांसव बी करता. धंयांत घालून लेगीत ह्या आंब्यांचे रायतें करतात, तें रुचीक बरें लागता.

अमुरपिक्या आंब्यांच्यो साली तासून उडोवन, भितरल्या गोरोपाच्यो नाजूक बऱ्यो लांबशोच अर्द इंचाच्यो फोडी करुन, त्यो साखरेच्या पंकांत शिजोवन हालवो करतात. ताका आंब्याचो 'मुरांबो' अशें म्हणटात. हो मुरांबो चड़ करून 'फेर्नादीन' आंब्याचो करतात. फेर्नादीन आंब्याक बरो मिडमिडीत वास येता. आनी हो मुरांबो खूबच रुचीक जाता, तशेंच वर्सभर तिगता.

आतां पळोवया पिक्या आंब्यासंबंदान : पिक्या आंब्याचो हालवो करप, तो जांवयागेर, तशेंच सोयऱ्या-धायऱ्यांगेर धाडून दिवप, हें तर गोंयकारांलें खाशेलेंपण. हालवो करपाक मुजरत बार्देशी-मुसराद आंबो सोदून हाडटात. ह्या आंब्याक एक आंबूस रूच आसता. ताका लागून ह्या आंब्याचो हालवो रुचीकूय बरो लागता. आनी तो तिगोपाकय बरो येता. आंब्याचो हालवो दोन भासांनी करतात. बुदाक आनी कापांचो. बुदाक हालव्याक साखर उणी घालून तो मोवसार करातत आनी साखरेंचे प्रमाण चड घालून, तो घोंटून - घोंटून दाट करून थापून ताचीं कापां करतात त्या

हालव्याक कापांचो हालवो म्हणटात.

आंबो जावं, घोटां जावं, चड पिकून सामकीं जाम जातात. आंब्याचो सामको भार जाता, आंबो सामको उफेता, आंब्याची खातड जाता आनी ताचो इबाड जाता. तेन्ना आंब्याचो गोरोप सुकोवनूय ताचो एक पदार्थ करतात. ताका 'साटां' म्हणटात. आजकाल हीं आनी असलीं कामां फकत भाटकारांल्या आनी शेतकारांल्या घरांनी, जंय आंब्यांचे मुड्यांचे मुडे पिकत घालतात, थंयच पळोवंक मेळपाचीं. कारण आयच्या काळार धंदो म्हणून करतल्यांगेरच हीं साटां करतात. आयज काळ बदलला. बायलो ऑफिसांनी वतात, चलयो-चले शाळा-कॉलेजांनी वतात. आज साटां करूंक कोणांक वेळ आसा! आमच्या भुरगेपणांत धंदे घरोन-घर चलताले. गरिबांची भुरगीं तर आंब्यांच्या, खुंटींच्या बी मुळांनी, दिसांचे दीस बसून रावतालीं. वारो आयलो आनी झाडांचीं पानां सळसळूं लागलीं तशीं भुरगीं खोश्शी जातालीं. वाऱ्याक आपोवपाक गितां गायतालीं.

आयलें वारें परतलें

कुंडयकाराक व्हरतलें

आमकां आंबे दितलें

यो वाऱ्या यो ऽ ऽ ऽ

(त्या काळार कुंडयकार हो एक व्हडांतलो व्हड भाटकार. त्या भाटकाराल्या झाडांचे आंबे आमी व्हर म्हणपाचे तांच्या मनाक खातालें. म्हणकच वारें येवन भाटकाराक व्हरतलें आनी आमकां आंबे दितलें अशें तीं म्हणटालीं.

हें आनी अशी तरेचीं गीतां गावन, भुरगी गावन, भुरगीं आंबे, घोंटां पुंजावन व्हरतालीं आनी पोटभर खावन उरिल्ल्यांची साटां करतालीं. पूण आज तें दीस सोंपल्यात.

आब्यांवरीच पणसांचींय साटां करतात. पणसाच्यो दोन जाती आसात. रसाळ आनी कापे. कापे पणस पिकोवनच खातात. इच्छाभर खावन, उरिल्ल्या घऱ्यांचो

जेन्ना इबाड जाता, तेन्ना ते घरे काडटात, तांचीं फोपीं, भिकणां बी काडून ते निवळ करतात आनी घऱ्यांचीं उबींच दोन दोन अर्दां करून ते सुकयतात. सुकिल्ले कापे घरे खावपाकय बरे लागतात आनी वर्सभर तिगतात बी!

रसाळ घरे तिगोवन दवरपाच्यो जायत्यो तरां आसात. रसाळ पणस बरो जून जालो, तसो तो पिकणेवचे आदींच फोडटात. ताचे घरे काडटात. फोपीं बी काडून उठोवन ते निवळ करता. ताच्यो मागीर फस्का-काड्यो कशें किंचीत मोटसार कुडके करतात. तांकां थोडो वेळ मीठ, जाय जाल्यार रंगापुरती हळद लावन दवरून उपरांत ते तळटात. म्हळ्यार बटाटांची चीप्स बी करतात, ते तरेचो हो प्रकार. आपल्याक जाय जाल्यार तांचेर चिवड्याक मारतात तसो मसालोय मारून खातात. हो पदार्थ जायते म्हयने तिगता. हाचे भायर असले हे जून गरे खळाकय घालून वर्स-वर्स दवरतात. तांकां 'सालां' अशें म्हणटात.

आजकाल येरादारीच्यो सुविधा प्राप्त जाल्ल्यान, तीन वरांभितर बेळगांवची शाकभाजी गोंयांत पावता. पूण आदल्या काळार आपल्या गांवांत कितें पिकता, तेंच तिगोवन दवरून लोकांक खावचें पड! देखुनूच हो सगलो खटाटोप तांकां करचो पड ! जेन्ना तांका नुस्तें मेळनाशिल्लें, शाकभाजीय मेळनाशिल्ली, तेन्ना ते लोक हीं सोलां काडून उदकांत तांची खारसाण निवळत दवरताले. मागीर तीं शिजोवन तांची भाजी करताले. तशींच पणसाचीं भिकणां बरीं धुवन-करून घरांतलें घरांतच तीं सुकोवन बी मातयेक मारून दवरतलें .तशीं दवरिल्ल्यान भिकणां वर्स-वर्स तिगतालीं. पणसांचे भिकण अन्न हे नदरेन बरेंच पुश्टिक. त्या भिकणांचो रोस, खतखत्यांक घालप, शाकभाज्यांनी घालप असो उपेग जाण्टेलीं करतालीं. बेठीं मीठ घालून उकडून लेगीत भुरग्यांक खावंक दितालीं. तें खाण एकदम घटायेचें जावन आसलें.

ह्या सालांवरीच किल्लाचीं कापांय आदलो लोक खळांत घालून दवरताले. रानांत वेळू म्हणून एक मोठ्ठ्या कोंड्याची जात मेळटा. त्या कोंड्यांक मुळांत केळीभशेन कोंब येतात.तांकां किल्लाचे कोंब वा किल्लाची सूय अशे म्हणटात. सूय जितली चड तरणी, तितली ती चड बरी. तर ह्या किल्ल्याच्या कोंबांचीं कापां करून

तींय घऱ्यांवरीच खळाक घालून चेपणां दवरतात. तीं बरीं करमेतात आनी वर्सभर तिगतात. तीं जाय जाय तेन्ना भायर काडून उदकांत घालून तांची कोडवसाण आनी खारसाण निवळयतात आनी तांची शाक करतात, लोणचें करतात, तळून खातात, तरेतरेन तांचो उपेग करतात.

तर ह्या किल्ला-सुवयांचोय पणसाच्या सालांवरीच उपेग करूंक जाता आनी जाण्टींय तसो तो करतालीं हें तुमकां कळ्ळें. तर आतां पळोवया, पिके पणस तिगोवन आनीक कसलो उपेग करतालीं तीं.

रसाळ पिक्या पणसांची माव, मोव मोव आसता. ती माव मिठांत पुरून दवरीत जाल्यार वर्सबर तिगता. जाय तेन्ना ती मिठांतली भायर काडून,निवळ बरी धुवन करून रान्नीत भाजून, ती बारीक शिनूच ताची तीं किसमूर करतालीं. ते भायर ते मावेचीं वाटकुळींच कापां करून तळूनय खाताली.

रसाळ पणसांचीं साटां तर गोयांत सामकीं फामाद. घऱ्यांतलीं भिकणां, भिकणांक वयर आसता तो रुवाळो बी काडून वडोवन घरे बरे निवळ करून, ते वानार बरे वांटून घेतात. ना जाल्यार व्हिरोण्यांनी कोचावन ताचें म्होव कशें करतात. तें म्होंव मागीर हातरपाट्यांचेर, कुमया पानांचेर, सायला पानांचेर बी पातळावन वतांत सुकोवन साटां करतात. तीं साटां खातना वांगडा नाल्लाची कातली खावपाची गोंयकारांगेर खूब चाल आसा. वांगडा कातली खाल्ल्यान दातांच्या खांचीनी चिकचिकसाण भरूंक पावना. कातलेचे सुरबुसाणेक लागून साटांची रूच वाडटा आनी साट जिरपाकय कातलेची मदत जाता. हीं साटां वर्सभर तिगतात. आंब्यांच्या साटांक कीड लागत म्हणपाचो मात्सो भंय आसता. देखून आंब्याच्या साटांचेर मिरयांचो पिठो मारून ताची कवळी करून दवरतात. मिरयांच्या पिठ्याक लागून आंब्या साटांक कीड लागना. वयल्यान ताची रूच वाडटा आनी मिरयांक लागून तांची जिरवण बरी जाता.

आमगेली जाण्टेलीं आंब्याचो हालवो करतालीं, तसो पणसाचो हालवो मात करून दवरनाशिल्लीं. पूण हालींसराक कांय लोक घऱ्यांचें म्होंव काडून तांचें जेम

करता. हें जेम म्हळ्यार दुसरें तिसरें कांय न्हय. तो हालव्याचोच एक प्रकार जावन आसा. दीस वतात तशे लोक नवे नवे पदार्थ करून गांवांत पिकिल्ली पिकावळ तिगोवन दवरपाचो यत्न करतात. तातुंतलोच एक प्रयोग म्हळ्यार पोपायो, पेरां, तोमतां बी असल्या फळांचो जेली, जेम वा आमचे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार हालवो लोक करूंकं लागल्यात. आदल्या काळार आमगेली जाण्टेलीं, आंब्या हालव्यावरी, अनसां, कोंकणदुदी, कुंवाळो, राज-आंवळे, रान-आंवळे, मयडोळीं केळीं, कणगां, बटाट हांचेय हालवो करतालीं. हातूंत केळीं, कणगां, बटाट हांचे हालवे मात हेर हालव्यावरी वर्सभर तिगनाशिल्ले. तरी कांय दीस ते बरेतरेन तिगोवन दवरूं येतालें. हालींसराक , गोंयांत, बेळगांवच्यान बी गाजर खूब येतात. हालीं गोंयकार गाजरांचोय हालवो करूंक लागल्यात, गाजराचो, कोंकणदुदयाचो बी हालवो दुदाचो सवो घालून करतात, देखुन ते हालवे रुचीक जातात.

आमच्या गोंयांत आंबाडे खूब पिकतात. ह्या आंबाड्यांचें गोडाचें लोणचें वा गोडाचें मेल करीत जाल्यार तें खूब तेंप तिगता. ह्या आंबाड्यांचें तरणें आसतना तिखशें लोणचेंय करतात. आंबल्यांवरी तें खळांक घालूनय तिगयतात. खळांतलें आंबाडे वर्सभर लेगीत तिगोवन दवरूं येतात. हया आंबाड्यावरीच रान आंवाळ्याचेंय लोणचें करतात. तें खळाक घालतात आनी तिगयतात. बिमलां, कर्मलांचें लोणचें केल्यार ते वर्सभर तिगता. हरवीं काण्णां खळाक घालून दवरूं येतात. तांचें लोणयेंच करूं येता आनी कारवार बी त्या गांवांनी काण्णां सुकोवन सोलां करुन तीं जेवणात आमटाणीवजा म्हळ्यार चिंचे वजा आमसाण म्हणून वापरतात. आमच्या गोंयांत गरीब लोक जांकां चिंचेची आमटाण खावंक तांकना, ते लोक बिमलां, करमला, वठां, काण्णां आनी हरवी आंबली सुकोवन ताचो जेवणांत आमसाण म्हणून वापर करतात. आसपत आशिल्ले गोंयकार मात चिंचेची आमसाणच वापरतात.

गोंयांत पूर्व पुरातन काळारसावन चलत आयिल्ले, वर्सभर तिगोवन दवरपाचे आनीक कांय जिनस म्हळ्यार पापड, वडयो, सागणे, शेवयो, तरेतरेच्या शेवयांचे घोंस, म्हानां... बी आसले पदार्थ!

हुडदां दाळीचे पापड, चण्या दाळीचे दांगर, निरपणसाचे पापड, हुडदां दाळ आनी कुंवाळो भरसून केल्ल्यो वडयो, तांदळाचे, कणगांचे वा गंवांचे शेवयां घोंस साबुदाण्यांचे, नासण्याचे बी साणगे, गवां पिठाच्यो शेवयो वा शेवयां घोंस असलें जिनस गोंयकारांल्या घरांनी आसतालेच. ते भायर भुरग्यांक सांज वेळचें खाण दिवपाखातीर तीं 'म्हाना' करून दवरतालीं. हीं म्हानां कणगांची, हरव्या केळ्यांची हरव्या घऱ्यांचीं, कोडू कारांद्यांचीं .. . बी तरेतरांचीं आसतालीं. कणगांची म्हानां गोडाच्या वा साकरेच्या पंकांत काजूबियां कुडके, तीळ-येळांचो पिठो बी घालून, मेलाक लायतालीं. हीं म्हानां रुचीक एकदम बरीं लागतालीं. आनी कणगां तिगोवन दवरपाचो तो एक उपायच आसलो. कणगां उकडून तांचेय घोंस करतालीं. जाय जाय तेन्ना हे घोंस तेलांत तळून वयल्यान साकर मारून खाताले. बटाटांचे चिप्स करपाची आदल्या काळार व्हडलीशी चाल नासली. पूण बटाटं, कणगां बी उकडून तांचो बुकाद वा कापांचो हालवो करपाची आदल्या काळाक खूब चाल आसली. असलीं खाणां करून दवरपाक आदल्या काळच्या बायलांक वेळय भरपूर आसतालो. आयचेवरी तेन्ना आयतीं खाणां दुकानांनी मेळनाशिल्लीं आनी गांवांत पिकिल्ले पिकावळीचो उपेगय बरेतरेन जातालो.

आतां उरल्यो त्यो आमगेल्यो गोंयच्यो ठोक पिकावळी. तातुंतली एक म्हळ्यार नाल्ल. गोंयांत नाल्लाचो उपेग दिसपट्टो जेवणांत करतात. नाल्लाविणें गोंयकारांक जेवणच करूंक येना. हालीं हालींशे गोंयकार, बाकीच्या राज्यांतल्या लोकांचें शिकून, नाल्लाविणें जेवण करुंक शिकल्यात. नाल्लांचें एक बरे. नाल्ल बरो जून जावन पाडलो जाल्यार तो वर्सबर तिगपाक कांयच हरकत ना. ताका लागून तो तिगोवन दवरूंक जाय म्हणपाचो तकलेक भार नासता.

नाल्लाची सोय सुकोवनूय ती सत्यनारायणाच्या व्रताक बी चड दीस उरता तसली खिशीची पंचकातय करपाक उपेग करतात. सुकयल्ले सोयेची खीस, गोड जाय जाल्यार गोड तीख जाय जाल्यार तिखशी करून, नेवऱ्यांनी भितर भरून, गोडशो वा तिखशो नेवऱ्यो करतात. लग्नाकारणांनी लाडू-कापां करतालीं, त्या कापांक

सोय वापरतालीं. जात्रा-पेठांनी आलें - सोय घालून कापांचो हालवो करताले. ते भायर श्राद्धां, म्हाळ बी असल्या धार्मिक कृत्यांनी, मेल्ल्या - गेल्ल्या जाण्टेल्यांक आर्गा ओंपान तांच्या नांवान भटांक लाडू, कापां दिवपाची गोंयकारांगेर प्रथा आसा. तीं. कापांय सोयेचीच करतात. पूण असलीं हीं खाणां एका म्हयन्यावयर तिगनात. देखून अंदूंचो नाल्ल, फुडल्या वर्साचो नाल्ल घरांत येवचे पयलीं ताचो विलो करचे पसत ताचें तेल काडटाले. ना जाल्यार अवलसार आशिल्लो नाल्ल, उदक सुकून आटूक जावपाचो भंय आसता. देखून भाटकार लोक वा नाल्लाचो धंदो करपी लोक, नाल्ल फोडून, तांचीं वळीं सुकोवन, खोबरें करतात आनी त्या खोबऱ्याचें तेल काडटात.

गोंयांत खोबऱ्याचें तेल काडटाले, तेपरी आनीकय दोन तरांचे तेल काडपाची चाल आशिल्ली. आमच्या गोयांत भिण्णां खूब पिकतात. भिण्णां फोडून तांची सोलां करतात आनी उरतात त्यो बियो सुकोवन त्या बियांचे तेल काडटात. भिण्णां बियांच्या ह्या तेलाक 'भिण्डेल' अशें म्हणटात. भिण्डेल आरोग्याक बरें, म्हणुन वायटकारांच्या जेवणांत भिण्डेलाचो उपेग करताले. आजकाल सफोला.. बी तरेतरेचीं तेलां आरोग्याक वायट पडनात, अशें सांगून मेळटात. म्हणटकच भिण्डेल सोदूंक कोण वता?

तेभायर खश्टां म्हणून गोंयांत फळां जातात. तांचेंय तेल काडटात. ह्या तेलाक 'खश्टेल' म्हणटा. खश्टेलाचो उपेग फकत दिव्याक जळूंक करतात.

आमच्या गोंयांत चिचेचींय झाडां खूब जातात. ह्या झाडांक 'चींच' अशेंय म्हणटात.

आमच्या गोंयांत चिचेचींय झाडां खूब जातात. ह्या झाडांक 'चींच' अशेंय म्हणटात. कार्तिक म्हयन्यांत म्हळ्यार नोव्हेंबर म्हयन्यांत, तुळशी लग्नाकडेन चिंचो लागतात. चिचो, म्हळ्यार चिचेबोटीं, रुचीक आंबट आसतात. तातूंत व्हिटामीन 'सी' खूब आसता. तें मनशांच्या आरोग्याक खूब बरें आसता. म्हणचे मनशाचे भलायकेक ताची खूब गरज आसता. देखून चिंचो आमकां राखून दवरच्यो पडटात. दोन तीन म्हयन्यांभितर चिंचो जून जातात. मागीर त्यो पिकून खाला गळूंक लागतात. चिंचो आंब्यावरी कोंबल्यान काडूंक मेळनात. पाडपी मनीस, म्हळ्यार पाडेली चिचेर

चडटा आनी चिचेचो खांदो हालयता. म्हणटकच जून, पिकून तयार जातलीं चिचेबोटीं वा कोंगलां, फट् फट् करुन झडूंक लागतात. देखूनच चिंच पाडटात ताका चीच हालोवप वा झडोवप अशेंय म्हणटात. मुळांत झडिल्लीं चिचेबोटीं व्हरून फोडटात. वयली तशी भितरली चीच, चिचेदेटांतल्यान भायर सरिल्ल्या किसरांक घट्ट दशिल्ली आसता, हीं किसरां आनी चिचो वेगळ्यो करच्यो पडटात. ह्या किसराक चिचेचीं सखीं अशेंय म्हणटात. उपरांत चिचेबोटीं वतांत सुकयतात आनी आदोळेचेर ती कल्लायतात. म्हणचेच ह्या चिंचानी भितर आशिल्ल्यो बियो म्हळ्यार जांकां आमी चिंचारे म्हूणून म्हणटात. ते चिचारे काडटात. आनी मागीर कल्लायल्ली चिच वतांत सुकोवन तातूत थोडे मीठ भरसून इल्ले इल्ले गुळे करुन ते बरण्यांनी, बुयांवांनी, दोणांनी बी भरून वेवस्थीत दवरतात, चिच वर्सावयर तिगता. चिचातल्या चिचाऱ्यांनी, कॅल्सियम खूब आसता. भाजिल्ले चिचारे रुचिकूय बरे लागतात. देखून जायतो लोक हे चिंचारे भाजून खातात.

गोंयांत मिरयां तेफळांचेंय पीक बरें जाता हे दोनुय जिनस आरोग्याक भोव बरे. 'मिरयां आनी तेफळां' तांचो अन्नांत` वापर करतीत जाल्यार अन्न पचोवपाक खूब उपेग जाता. मिरयां वालीक जातात. मिरयांचे वालीक मिरवेल म्हणून मिरवेलींचीं पानां खावचीं पानां कशी दिसतात. मिरयांचे घोंस, म्हळ्यार दोन तीन बोटां लांबायेचे वाती. देड दोन बोटां लांबयेचे देंट कशे आसतात. त्या देटांक सरभोंवतणीं कुचकुचीत मिरया लागतात. वालचे भाजयेचे वाल तुमी कोणें पळयल्यां जायत जाल्यार आनी ते वालांच्या वेलाचे बेल पळयल्यात जायत तर मिरयांच्यो वाली कश्यो आसतात तें तुमकां कळटलें मिरयां पयलीं पाचवींच आसतात. तीं पिकतात तेन्ना तांचो रंग तांबडो जाता. मिरवेल दुसऱ्या झाडाच्या मुळांत रोवन ती त्या झाडाचेर चडोवची पडटा. मिरयांचे बेल जून जाले म्हण्टकच त्या झाडार चडून त्यो सांगो, बेल वा वाली जांकां म्हणूं येता त्यो खुट्टात. पाटल्यांनी, खोटल्यांनी भरून ज्यो सांगो मेळटात. त्यो हाडून मात्शो वतांत उडोवच्यो, म्हणकच मिरयाचे कण आपशींच सुट्टात ते हातान . मागीर ते मिरयांकण वतांत सुकोवचे पडटात. बरे सुकले तशे ते

रंगान काळे जातात. मदीं मदीं कांय कण धवेच मेळटात. तांकां ' खड्ड्यो' अशे म्हण्टात. झाडाचेर आसतनाच, बेलाचे वालीचेर जून जाल्ले कण जे पिकून तांबडे गुंज जाल्ले आसतात, ते सुकतकच धवे जाात. त्योच ह्यो खड्ड्यो !

आदले आमगेले जाण्टेले खूब श्रद्धाळू आसताले. मिरयां खुटलीं म्हण्टर तांचे जे देंट म्हळ्यार इल्ल्यो इल्ल्योच वाली उरतात, त्यो ते घराच्या दारामुखार मार्गभर शिंपडायताले. मार्गावयल्यान भोंवतल्या लोकांच्या पांयापोंदा, येतना वतना त्यो वाली मस्तताल्यो! अशें करपाफाटल्यान जाण्टेल्यांची व्हडली श्रद्धा आसताली. ते म्हणटाले, '' लोकांच्या पायांपोंदा पडून, वाली जितल्यो चड आनी चड खोटांनी मस्तीत,तितली चड आनी चड दुसऱ्या वर्सा मिरयां पिकतलीं. अंदू परसय चड मिरयां फुडाराक पिकचीं, हीच तांगेली भावना आसताली.

ह्या मिरयां भशेनच गोंयांत तेफळांचेंय पीक घेतात. गोंय हो दर्यादिगेवयलो प्रदेश. हांगा नुस्त्याचें पीक खूब. आमच्या गोंयांत ताल्ले, बांगडे, पेडी, पालपेडी, कल्ली बी असल्या नुस्त्याच्या पदार्थात तेफळांचो वापर करतात. चवथीकडेन, म्हळ्यार श्रावण-भाद्रपद म्हयन्यांतच नवीं तेफळां जून जावन मेळटात. त्याच तेंपार आदल्या तेंपार ताल्ले, बांगडे मेळटाले. आजकाल नुस्तेमारीच्यो बोटी जाल्ल्यान बाराय म्हयने ताल्ले, बांगडे मेळूंक लगल्यात. शिवराक जेवणांतय दाळ जिरपाक जडं जाल्ल्यान दाळीच्या रोसांत, खतखत्यांत बी तेफळां घालपाची गोंयांत चाल आसा. तेफळ जिरवणेक बरें. मिरयां भशेनच तेफळांय सुकोवन दवरतात. बरीं जून जाल्लीं तेफळां काडून वतांत सुकत दवरतात. सुकलीं म्हणटर तीं आपशींच फुट्टात आनी काळ्योच वाटकुळ्योच, मिरयांवरी पूण लिकलिकीत बियो तातुंतल्यान भायर सरतात. सुकिल्लीं तेफळां वर्सभर उरतात. उपरांत मागीर तांचो दळ वता. तेफळीच्या झाडाक सांवरीच्या झाडाभशेन आंगभर कांटे आसतात. तेफळां, मिरयां, वखद म्हणूनय उपेग करतात.

झाडां उदेशी आमकां कितल्या कितल्या तरांची फंळां मेळटात, तशेंच आमच्या दीसपट्ट्या अन्नांत, शाक-भाजयेच्या रुपान, आमी झाडां पाल्याचो कसो कितें

उपेग करून घेतात तो तुमकां कळ्ळो. आतां झाडां म्हळ्यार तुमकां जीव की प्राण दिसतलीं न्हय? पूण इतल्यान हें सोपूंक ना. ह्या झाडां भायर, आंब्या पणसांवरी, आनिकूय कितलेशेच, तरेतरेचे, व्हडले व्हडले रूख आसात. ते आमकां फळां दिनात, पूण लाकूड, मदेर दितात. म्हण्टकच ह्या मदेर दिवपी रुखां संबंदी आमी थोडी जाणविकाय करून घेवया.

आमच्या गोंयांपुरतो विचार केलो जाल्यार, मदेर दिवपी व्हडलीं व्हडली झाडा कांय प्रमाणात व्हडल्या व्हडल्या भाटांनी आनी कुळागरांनी लेगीत जातात आसलीं, तरीय व्हडा प्रमाणांत तीं दोंगरांनी, रानां वनांनी आनी दाट दाट जंगलांनीच चडशीं जातात.

गोंयांतली मदेर दिवपी झाडां अशीं आसात : माट्ट, किनळ, जांभो, कुमयो, भेंडी, शिवण, सायल, पणस, आंबो, मिरयो, सांतोण, शिरस, निलगिरी, खूंट चांफो, शिंसो, तेफळ, काजरो, वड, खश्ट, सांवर, येद, भिल्लमाड, तट्टमाडी, नाणो, इरय, वाळो घोडूक, फोपळांची माडी, भेसळ वा रंजन, आमाडो, माड... बी आनी ही इतलींच न्हय तर आनीक जायत्या तरांचीं आसात. ते भायर कोंडे, वेळू बी मेळटात तांचोय घरांक लाकूडवजा उपेग जाता.

तर आतां कसल्या कसल्या मदेराचो, कसो कसो उपेग करतात तें पळोवयां:

माड :

माडाचे वांशे काडून तांचो घरांक पाट्यो आनी वांशे म्हणू उपेग करतात.

शिंसो :

शिंशाच्या लाकडाक 'शिंसवी लाकूड' म्हणटात. शिंशवी लाकूड काळशें आसता. अती उत्तम अशें हे लाकूड फर्निचर करपाक वापरतात. हेंय लाकूड खूब म्हारग आसता.

शिरस :

शिरसीचे लाकूड तांबूस आसता. तें सायलाच्या लाकडावरी दिसता. हेंय लाकूड बरें घट आसता.

निलगिरी :

निलगिरीचें लाकूड घराक बी घालपाक वापरतात.

खूंट चांफो :

खूंट चाफ्यांचीं फळी काडटात पाटयो करतात हें मदेर घरांक घालपाक उपकरा पडटा. ह्या झाडाक हळडुव्या रंगाचीं , सुंदर वासाचीं उबींच फुलां फुलतात. ह्या फुलांक चांफी म्हणटात. खूंट चांफो फुलता तेन्ना, सगल्या वाठाराक घमघम सुट्टा.

सांतोणः

सांतोणेचें लाकूड ल्हव आसता. ताची फळीं काडटात. हें मदेर ल्हव जाल्ल्यान ताचो घराक फोर बी मारपाक उपेग करतात. ते भायर ह्या मदेराचो व्हडीं पनेळ बी करपाकय उपेग करतात.

काजरो :

काजऱ्याचें लाकूड बरें घट्ट. हाच्यो पाटयो बी करून घरांक वापरतात. ह्या मदेराक वाळटी लागना.

वंठः

वंठ आवाठान बरीच मोटी आसता जाल्ल्यान तिचीं फळीं काडूंक मेळटात. फळीं काडलीं म्हणटकच जाय जाल्लें जिनस करुं येतात. हें लांकूड बरें घट जाल्ल्यान ताच्यो पाटयो लेगीत काडटात.

आंबो :

आंब्याचें लाकूड गोड आसता. गोड जाल्ल्यान ताका वाळटी लागपाचो भंय आसता. देखून ताचें फर्निचर करनात. ते वापरलेच जाल्यार व्हडी पनेळ बी करपाक

वापरतात. असल्या व्हड्या पनेळांक वयल्यान काजू चखांचो दीख काडटात. म्हणटकच मदेर उदकांत फुगूंक पावना, ताका जीव लागना आनी वाळटीय लागूंक पावना.

सांवर :

सांवरीचें लाकूड ल्हव आसता. असलें लाकूड घरांक फोराक, पेनलींग करपाक बी बरें .

तेफळ :

तेफळीचें लाकूड घट. तेफळीच्यो कांबी बी काडटात. तेफळीचें झाड वखदी जाल्ल्यान, तेफळांचो वखदाकय उपेग करतात. तेफळी झाडाक कांटे आसतात. तेफळीचो कांटो झरोवन कांय लोक गोपिचंदनावरी कपलाक तिबो लायतात.

खश्ट :

खश्टीचें लाकूड ल्हव आसता. हेंय मदेर वायट न्हय. आदल्या काळार घराखातीर मदेराक पाट्यांक, कांबीक बी उपेग करताले. पूण आजकाल शिमिटाचीं घरां चड जाल्ल्यान ह्या मदेरांच्यो फकत पाटयोच काडिनात, ताचो अन्य रितीन उपेग करतात.

पणस :

पणसाचें लाकूड, सायलाभशेन जरी न्हय जालें, तरी ते वायट न्हय. ताचें फर्निचर करतात. मेजां, कदेलां, आरमारी, शाळेच्या भुरग्यांक बांक बी करपाक हें मदेर चडशें वापरतात.

भेंडी :

भेडयेचें मदेर सायलावरी किसूळ मारतकच सुळसुळीत जाता. ह्या मदेराचें फर्निचर करतात. कांतीव काम करपाकय हें मदेर उपकारता.

मिरया :

मिरयाच्या मदेराक वाळटी लागना. हें झाड बरेंच मोटें आसता तेन्ना ताचीं बल्लां करतात आनी तातूंत सोरो दवरतात. ह्या बल्लांनी सोरो कितलींय वर्सां तिगता. आनी जितलो चड तेंप भितर सोरो उरता तितलो तो चड पिकता. म्हणचे ताची रुच वाडटा.

येद :

येदीचें झाड खूब मोटें आनी उंच उंच वाडटा. हें मदेर बरें घट जाल्ल्यान ताचीं फळीं, पाटयो बी काडटात. ह्या मदेराचो रंग सायलाच्या मदेरावरी आसता. देखून तें फर्निचर करपाक उपेग पडटा.

भिल्ल :

भिल्ल, माडाभशेनच दिसपी पूण खूबच मोटो आनी माडापरस मोटवो आसता. ताका फळां लागतात. तीं तन्नीं आसतना तांचो रंग पाचवो आसता आनी पिकलीं तशीं तांचो रंग काळो जाता. रानांत 'काटान्दोर' म्हणून एके जातीचें जनावर आसता. ते काटान्दोर हीं फळां खूब घोस्तान खातात. भिल्लामाडाच्यो कांबी काडटात. तांचे लाकूड खूबच घट आसता. देखून तें शेतकार आवतांक वापरतात. आदल्या काळार ल्हान ल्हान घरांनी, पावसाळ्याखातीर जळव भरून दवरपाक माळे करताले. त्या माळ्यांक चड करून भिल्ल्याच्यो कांबी वापरताले. ह्यो कांबी घट्ट जाल्ल्यान माळ्यार जळवाचें कितलेंय वजन घालें जाल्यार त्यो बागवनाशिल्ल्यो आनी मोडय नाशिल्ल्यो. भिल्लमाडाचें लाकूड खूब वर्सां तिगता.

तट्टमाडी :

तट्टमाडी लागीं लागीं भिल्लमाडा भशेनच दिसता. पूण ह्या दोनूय झाडां मदीं जायतें वेगळेपण जाणवता. तट्टमाडयेक फळां जातात तीं रंगान तांबडीच आसतात. हीं फळां, खावपाचे गोडयेचीं नासतात. तरीय मजा म्हणून कांय लोक एक दोन खातात. हीं फळां चवथीकडेन माटोळेक बांदतात. त्या फळांक 'माट्टौ' अशे म्हणटात.

आंबाडो

आंबाड्याचें मदेर खूब ल्हव आसता. ताची किंमतय चड नासता. हें सवाय मदेर घेवन, ताच्या पिन्यां फळ्यांवरी फळयो काडटात. हे मदेर व्हडलेशे बरें नाशिल्ल्यान ताचो उपेग काशी बी करपाक करतात. आनी त्यो काशी मागीर फळां भी भरपाक उपकारा पडटात.

काज :

काजीचें लाकूड व्हडलेंशें बरें न्हय, तें लाकूड पीळ पडिल्लेवरी आनी दिखाळ आसता. काज बरी मोटी आसता. जाल्ह्यान तिच्यो फळयो कांडून फळां भरपाच्यो काशी करतात.

फोपळांची माडी :

फोपळांची माडी म्हळ्यार सुपारेचें झाड. माडावरी तें उंच ऊंच आसता. माडयेचो माटव बी घालपाक, म्हेडी म्हणून वापर करतात. माडी उबीच कापून एक नारकीं दोन अर्दा करतात. ताका फोपाडे म्हणटात. माडयेचें फोपाडें घट आशिल्ल्यान ताचो घरांचेर वयल्यान घालून आलतडच्यान पलतडीं वचपाक उपेग करतात. कुळांगरांनी वा कांय शेतांनी लाटी घालून उदक काडटात. हे लाटीकय ह्या फोपड्यांचो वापर करतात. हाचेभायर दर्यात हारीचें नुस्तें धरपाकय माडयेचो उपेग करतात. माडी खारसाणेत बरी उरता. देखून खाऱ्या-शेतांच्या बांदाक जेन्ना खावटीं पडटात, तेन्ना खांवटी पुरोवपाक माडयांचो वापर करतात.

नाणो, इरय :

ह्या झाडांचें मदेर घट आसता. ताचीय फळीं, पाट्यो बी काडटांत.

सांगपाचे म्हळ्यार जें जें मदेर आसता, तांची फळीं, पाट्यो काडून आपल्याक जाय तसो उपेग करुंक मेळटा. आदल्या काळार गोंयची उदरगत जावंक नासली. लाकूडवत म्हळ्यार फर्निचर करपाची कला वाडूंक नासली. रानां वनां समृद्ध आशिल्ल्यान लाकूड खूब मेळटाले. गोंयची लोकवस्ती उणी आशिल्ल्यान मदेराची मागणीय उणी आसताली. म्हण्टकच दरय आयचे परस कितलीशीच उणी आंसताली.

म्हण्टकच मदेर जाय तशें वापरूंक मेळटालें. त्या काळार लोक ल्हान ल्हान घरां बांदून तीं नळ्यांनी शिंवताले. आज सगल्या बिल्डिंगांचे बांदप कॉंक्रिटाचे जाल्ल्यान लाकडावजा शिमीटाचो वापर जाता. पूण आदल्या काळार घट लाकूड, पाटयो, फळीं काडून चडशें घरांक मदेरामेन्त करपाक वापरताले. आयच्या काळार मदेराच्यो दरो मळबाक तेंकल्यात. रानां वनां झाडां रूख मारिल्ल्यान ओसाड जाल्यात. सरकार झाडां मारूंक दिना. म्हण्टकच जें मदेर हाताक मेळटा, ताचेंच फर्निचर करतात. त्या तसल्याच मदेराचेर शक्य जाता जाल्यार कला कुसर, म्हळ्यार कांतीव कामय करतात. देखून आज काल मदेराचें फर्निचर करपाक सगल्यांकच परवडना. कदेलां बी प्लास्टिकचीं वापरतात. आरमारी, मेजां, कदेलां बी लोखणाची वापरतात. हलके जातीच्या मदेराचें फर्निचर करून वयल्यान फोर्मायिकां मारपाची आजकाल मोद आयल्या.

तर आतां कळ्ळें तुमकां, हीं आनी हे तरेचीं जायतीं झाडां आमच्या गोंयांत मेळटात. तांचे पासून आमकां मदेर मेळटा. सुवार्थी मनीस मात असलीं झाडां चड आनी चड रोवन, रानां वनां आनी जंगलां, कुचकुचीत झाडांनी आनी रुखांनी भरून उडोवचीं सोडून, ह्या मदेराचे आशेन आनी दुडु जोडपाचे आशेन, हीं झाडां मारून विकता. पूण तुमी ध्यानांत दवरात, हीं झाडां म्हळ्यार आमची धन दौलत, झाडां म्हळ्यार आमचे वैभव, गिरेस्तकाय, आमी चड आनी चड झाडां रोवन, आमची ही गिरेस्तकाय वाडोवंक जाय. तीं कातरूंक फावना.

तुमकां खबर आसाच, झाडां आमकां आवय बापायवरी आदार दितात. तीं आमकां शुद्ध हवा, म्हळ्यार प्राणवायू दितात, सुर्याच्या रखरखीत वता पासून तीं आमचे संरक्षण करता. म्हळयार तीं आमकां सांवळी दिता. थंडाय दितात, हे भायर मळबांतलीं पावशी कुपां आपल्यावशीं ओडून घेवन आमकां पावस दितात. आपल्या मुळांदेशी झाडांमुळांतली जमीन घट्ट धरतात, ताका लागून पावसाच्या हुवारांत पोंदची जमीन, माती झंजळून, ओझळून वचना. पावसाच्या उदकाचो जमनीत सांठो करून तीं दवरतात. ते भायर तीं आमकां फुलां दितात, फळां दितात, मदेर दितात..

कितें आनी कितें दितात म्हणून ना. झाडांबगर आमकां जियेवप कशेंच शक्य ना. झाडां म्हळ्यार आमचे जिणेचो भागच जावन आसात. ह्या व्हडल्या झाडां रुखां भायर आमचे भोंवतणीं शेंकड्यांनी आनी हजारांनी न्हय, तर लाखांनी विंगड विंगड जातीची बारीक मोटी वनस्पत आसा. ही वनस्पत, तांचीं बिंयां, तांचीं पाळां मुळां, तांच्यो साली ... बी वखदी जावन आसात. तांची आमकां आमचे दीसपट्टी जिणेंत गरज भासता.

रामायणांतली एक गजाल तुमकां सांगतां, प्रभू रामचंद्राक अशीच एकदां हे वखदी वनस्पतींची गरज भासली. त्या काळार आयचेवरी दोतोर आनी वखदां खंयचीं? राम तेन्ना वनवासाक गेल्लो. वांगडा सीता आनी लक्ष्मण गेल्लो. एक दीस लंकेचो राजा रावण, साधू जावन भीक मागपाचें सवंग करून तांगेले पर्णकुटयेसरीं आयलो, आनी सीतेक चोरून घेवन गेलो. रामाक जेन्ना सीता लंकेक आसा म्हणपाची खबर लागली, तेन्ना रामाचें आनी रावणाचें युद्ध पेटलें. रामाचे वतीन लक्ष्मण, मारुती आनी सगली वानरसेना झुजताली. तर दुसरे वटेन रावण, रावणाचो पूत आनी लंकेचे सैन्य लडटाले. मेघनाद म्हणटात तो रावणाचो पूत. मोटो शूर पराक्रमी जावन आसलो. ताणें एकदां इंद्रावांगडा लडाय करुन इंद्राक जिकिल्लो. देखून ताका इंद्रजीत अशेंय नांव पडिल्लें. व्हड व्हड तप करुन ताणें अस्त्रां मेळयल्लीं. तांतूंत 'ब्रह्म-अस्त्र' हें एक खर अस्त्र ताणें मेळयल्लें. ते अस्त्र ताणें लक्ष्मुणाचेर सोडलें. लक्ष्मण घायाळ जावन झीट वचून पडलो. हें पळोवन रामाचेर, हनुमानाचेर बी आकांत आयलो. आतां कितें करुया तांकां चिंता पडली. संजीवनी हाडून तें वखद ताका दिवन, जितो करपाचो एकच उपाय तांकां सुचलो. ते बरोबर, संजीवनी हाडपाक हनुमान तयार जालो. ताणें जें एक उडाण मारलें, ताणेंच सह्याद्री पर्वताचेर गेलो. वखद हाडटलो जाल्यार, तो ते वनस्पतीक वळखनाशिल्लो. कितें करतलो? वेळ वगडायनासतना सगलो दोंगरुच उबारून घेवन तो आयलो, आनी ती संजीव लक्ष्मणाक दिली. तसो लक्ष्मण बरो जालो.

सांगपाचें म्हळ्यार आमचे भोंवतणीं हे जे दोंगर मांगर आसात, ते वखदी

वनस्पतींनी गच्च भरिल्ले आसात. आमकां मात त्या वनस्पतींची फावोशी वळख ना. आमी ताची अवश्य वळख करुन घेवंक जाय. ही वनस्पत फकत दोंगरांनीच न्हय, तर वाटेन वतना रस्त्याच्या दोशीं वशीं आमच्या घरा भोंवतणी, आमच्या पोरसांनी लेगीत आसता. तिची वखळ करुन घेवपं हें आमचे पयलें कर्तव्य जावन आसा. ती आमची खरी संस्कृती जावन आसा. तर हे वखदी वनस्पतींचीं नांवां आनी कांयचो उपेग आमी जाणां जावन घेवया.

तुळस, बेल, हरयाळी वा दुर्वा, धुत्रो, तुंबो, पिपरमीठ, किरायतें, मिश्रिकांव, शब्दो, व्हडलो - वट्टेलांव, धाकलो वट्टेलांव , तुपकडी, धवी पिट्टकोळी, तांबडी, पिटकोळी, मानपत्री, घोंसवेल, पुनर्नवो, हुंदराचो कान, आपटो माखो, गुणामणी, पाडवेल, हाताक घालचेली मेथी, गंजण, कांटेकुंवर, निगडो, परिपाटक, हांसाळी, काराथें, सदाफुलीं, अनंत, रोजीण, रयताबलाची वाल, गुण आमुल्ली, उर्फाटी - कांटी, आगाडो, गुंडरी, घाणयारी, धाकली खात -खुतली, रेडे-खातखुतली, दाळींब ( दाळंबाची साल) मावळींग ( मावळिंगा साल), जिवनळ, साळीक, काळींग, उशीकांडो, कुंवाळो, केळफूल वा केळीची बोंडी, पार्जत, अडोळसो, पोपाय, काळें आळू, अनस, तवशा-पिंपरी, तोमात, बटाट, कुडो, कारीट, खावचीं पानां वा नागवेल, गुलाबशेंवतें, जायेचें झाड, निवलकांटी, लिंबू. भूंय आंवाळी, कुडो रुय... बी ही जाली बारीक वनस्पत. कांय रूखय वखदी आसात ते अशें :

जांभळ, तेफळ, कोडूलिंबू, नर्वल, रंजन वा भेडस, सापूस, रिठो, सांतोण भेंडी, बिबो, काजरो, येरंड, आंवळ, खश्ट, नंदनगोळ, कार्बिल, चंदन, रक्तचंदन, म्हशींग, भिरण, अशोक, खैर, आस्कंद, हांचे सारके रूख आनी हाचे भायर कांय बियां, मुळां आनी हेर वस्तूय वखदाक वापरतात, त्यो अशो :

आलें, लसूण, हळद, मिरयां, जिरें , बडिशेप, वाळेरू, कांदो, गोडेकाश्ट, घोंटिशेरो, लजेझाड, हर्ने, तायखिळ्या बियां, इसबगूळ, ओंब्या हळद, सूंठ, गोक्षूर, ओंवो, चर ओंवो, साळजिरें, वाय विणगां, बाळशेप, उपरसाळ, कंकोळ, तिखी, पत्री, जायफळ, खसखस, हिंग, सणबियां, कुळीद, अश्वगंध, ऊद, कारीट, कोडूजिरें,

सुपारी, कात, येळ्ळ वा वेलदोडे, केशर, खाजूर, खारको, खडेसाकर, गोपीचंदन, गोमूत्र, गंधक, चुन्याची निवळी, म्होंव, डींक, ताक, तीळ, तुरटी वा फडकी, पासां, कोथमिऱ्यो, बदाम,सांसवां, मायफळ मेरवाचें शींग, लवंग, लिंबू, आंवाळकाठी बी हीं, आनी आनिकूय जायतीं वखदां आसात. हातुंतली कांय वखदां आमकां कशीं कितें उपेगी पडटात तें पळोवया :

तुळस :

तुळशीचीं पानां ॲण्टिसेप्टीक आसतात. म्हळ्यार तातूंत रोगप्रतिकार शक्त आसता, तीं जंतू नाशक आसतात. तुळशीच्या पानांचो रोस काडून घेत जाल्यार, जोर, खांक, बरगड्यो दुखप, खेळण्यो येवप बी असल्या रोगांचेर रोखडोच इलाज जावन, ते रोग बरे जातात. काळजाच्या विकारांचेर तुळशीचो वखद म्हणून उपेग करतात. तुळशीचीं पानां खायत जाल्यार रगत शुद्ध जाता. कातीचे रोग उणे जातात. पोट साफ उरता. मुतूंक बरें जाता. पोटांतल्यो कृमी नश्ट जातात. तोंडाचेर उमेद तेज मारूंक लागता. थंडी जायत जाल्यार तुळशी केंसरांचो कसाय करून घेवचो. तो एकदम बऱ्याक पडटा. कोलेखांकीचेर तुळशीचीं कणसां आलें आनी म्होंव एक करून दितात ताका लागून ताळ्याक उसरपत नासतना खांक येता, तीं उणी जाता. नाकांत पुळी येत जाल्यार तुळशीपानां वांटून तांचो वास दितात. दोळ्यांक सूज बी येत जाल्यार तुळशी पानांचो कसाय करुन ताचो दोळ्यांक शेक मातात. कान फोडल्यार तुळशी पानांचो रोस कानांत घालतात. तुळशी पानां शिजयल्लें उदक वा तुळशी पानां मुड्डून माथ्यांत घालीत जाल्यार माथ्यांत उ रावना. बायलांच्या रोगांच्या तरेतरेच्या विकारांचेर, तुळस खूब उपेगी पडटा. तुळशीच्या वासाक हुंदीर, चिचोन्द्र, सोरोप जळार बी लार्गी रावनात. अशें सांगतात, कांय विखारांचेर तुळशी पानाचें वखद लागू पडटा. तुळशीचीं मुळां दुदाबरोबर शिजोवन पियेत जाल्यार जिवाक घटाय मेळटा. नित्य, नेमान चार तुळशीचीं पानां खायत जाल्यार यादस्ती बरी उरता अशेंय सांगतात. हें इतलेंच न्हय, तर तुळशीचो आनीकूय जायत्या पिडांचेर वखद म्हणून उपाय करतात.

बेल :

बेलाचीं पानां गोड्यामुतकाराक बऱ्याक पडटात अशें सांगतात. गोडेमूंत जाल्ल्यां मनशान बेला पानांची आंकरी खावची, वा बेलाचीं पानां शिजोवन तें उदक नित्य नेमान इल्लें घेवचें, ताका लागू मुतांतले साकरीचे प्रमाण देंवता अशें सांगतात. बेलांचें पिकें फळ अतिसाराचेर एक उत्तम वखद म्हणून वापरतात. हागवणीचेर बेलाच्या सुक्या फळांचो गोरोप साकर घालून दितात. ताका लागून अतिसार थारता. बेलाच्या फळाचो मुख्य गूण म्हळ्यार हरवें फळ सुकोवन दवरतात. ताका वैजकी शास्त्रांत ' बेलपेशिका' म्हणटात. प्रचारांत ताका ' बेलाची काचीर' अशें म्हणटात. काळाचो अतिसार लेगीत ह्या वखदान आटापा येता. बेलाचीं अमुरपिकीं फळा घेवन ताचो साकर , केशर, जायफळ, जायपत्री, बी घालून मुरांबो करतात, तो गच्च बाटलेंत व बरणेंत घालून दवरीत जाल्यार जायतो तेंप तिगता. हो मुरांबो, पातळ परसाकडेन जायत, आमांश बी पडत जाल्यार तसल्या वायटकाराक खावंक दितात आनी तो गुणाक पडटा. कामीण जायत जाल्यार बेला पानांचो रोस, मिरीं वाटून, एक करूंक दितात. सुजीचेर बेला पानांचो लेप लायतात. दोळे आयल्यार बेला पानांचो रोस दोळ्यांत घालतात.

दुर्वा :

दुर्वा म्हळ्यार हरयाळी. दुर्वा दोन तरांच्यो आसतात. धव्यो आनी निळशो. दोनय तरांच्यो दुर्वा वखद म्हणून उपेग करुंक मेळटात. कांय वेळार मनशाच्या नाकांतली शीर फुटून, भळऽभळऽ करुन रगत व्हांवूंक लागता. कांय लोक ह्या रगताक अमरपित्त अशें म्हणटात. हे अमरपिन्त व्हांवत जाल्यार, दुर्वाचो रोस काडून नाकांत घालचो. रगत व्हांवपाचें बंद जाता. कांय वेळार कोणाकूय खूब जोर येता आनी सामको तकलेक चडटा तेदे वेळार दुर्वाचो रोस काडून, तातूंत साकर घालून दीत जाल्यार जोर देंवता. कांय वेळार आंगांत खूब उशणता जावन मनशाचें आंग भगभगूंक लागता. आंग मुसमुसून कडकी आयिल्लेवरी जाता. तेन्ना असो हो दुर्वाचो रोस दीत जाल्यार आंगाची जळजळ थांबता. कांय वेळार मनशाक मुतूंक उणें जाता. मुततना

वेग मारतात. असल्या मनशाक दुर्वांचो रोस काडून दीत जाल्यार बऱ्याक पडटा. हालीं काळाक, जोर चडत जाल्यार, जोरकाराच्या माथ्यार आमी झेलाची पोती दवरतात. पूण त्यावजा दुर्वा आनी तांदूळ वांटून, तें कवळ माथ्यार घालीत जाल्यार वायटकाराक गूण पडटा, जोर - देवता. जिवाक थंड दिसता. सर्पी जायत जाल्यार दुर्वांचो लेप काडल्यार थंड दिसता, भगभग थांबतात.

रूय :

रुये झाडाक दीक खूब आसता. रूयेचीं पानां संदीवाताखातीर एकदम गुणांक पडटात. जेन्ना कोणाच्योय संदी दुखतात, सुजतात.. तेन्ना रूयेचीं पानां हुनारून त्या जाग्यार बांदीत जाल्यार गूण पडटा.

नाल्ल :

नाल्लांचें ते काडून, पूर्व पुरातन काळाक सावन आमचीं जाण्टेलीं, तें कानां माथ्याक घालतालीं, तशेंच आंगाकय रगडटालीं. तेलां जंतुनाशक गूण आसता. ताका लागून आदल्या काळार फाडाचेर पायांच्या खिणांचेर, चवनांचेर बी तेल घालतालीं. आंग खंयय आपटल्यार धोंग बी आयल्यार लेगीत तेल चोळटांली. तेलान दूक काडटा अशें सांगतात. नाल जेन्ना तन्नो आसता, ताका आमी आडसर म्हणटात. तें तर खूब्रच पुश्टिक जावन आसा. जोरकाराक वा अन्य रोग्यांच्या वायटकाराक तोंडांतल्यान अन्न वचना. तेन्ना सोर दितात. म्हळ्यार शिरेक सूय तोपून ड्रीप शिरेंत इंजेक्ट करतात. हे ड्रीप वजा आडसराचें उदक घेवन दीत जाल्यार इफेक्ट तितलोच मेळटा. खूब जाणांक जोर बी येतकच, पोटांत कांयच धरना. कितेंय खायत जाल्यार तांकां ओंकारो येता वा भायर जाता. असल्या रोग्याक, पांच पांच धा धा मिनटांनी 'च्या' चें कुलेर कुलेर आडसरांचे उदक दीत जाल्यार, तें पोटांत धरता आनी अन्न म्हणून उपेग जाता.

सुपारी :

सुपारी दांतांक तशीच हड्ड्याक बऱ्याक पडटा अशें सांगतात. कांय वेळार

जायत्या जाणांच्या हड्ड्यांतल्यान, दांतां खांचींतल्यान रगत येता. हड्ड्याक सूज येता. अशा वेळार सुपारी खावची. पानांत घालून विडो करून खावची. हड्डयो आनी दांत घट उरतात. कांय जाणांच्या तोंडाक वास मारता तोय वता आनी तोंडाक विड्यांचो खमंग वास येता. तन्नी सुपारी काडून उकडटात. तिका उकडी सुपारी वा चिकणी सुपारी अशें म्हण्टात. उकडी सुपारी खाल्ल्यान, पोट सदळ, साफ उरता सुपारी खायत जाल्यार पोटांतल्या दंतांचेर, म्हळ्यार कुसांचें दंत, वा हेर कसलीय बुरड आसत जाल्यार, ना जावपाक बऱ्याक पडटा अशें सांगतात. सुपारी हुलपावन तिचो गोबोर करतात आनी तो लिंबाच्या रोसांत घालून झरोवन, लिंबाच्या सरबतात घालून पियेवंक दीत जाल्यार, जोरकाराचो जोर देंवता. सुपारेचो मूतखड्याचेरय उपाय जाता अशें सांगतात. सुपारी लासून तिचो पिठो करून तो तिळेलांत घोटून खोरजीचेर वा नाट्योचेर लायत जाल्यार, एकदम बऱ्याक पडटा. हाचे भायर सुपारी झरोवन, तातूंत आनिकूय कसलीं कसलीं वखदां मिक्स करुन तें वखद गालगुठांचेर गालांक लायत जाल्यारय बऱ्याक पडटा.

खावचींपानां :

खावच्या पानांचो विडो करून खावपाची गोंयकारांमदीं खूब चाल आसा. भुरग्यांच्या पोटांत वळत, अपचन जायत, पातळ परसाकडेन जायत बी जाल्यार, खावच्या पानांचो रोस काडून तातूंत इल्लें म्होंव घालून दीत जाल्यार, बऱ्याक पडटा. खावचीपानां आंगांतलो कालोर ओडून काडटा, म्हणून आमगेलीं जाण्टेलीं भुरग्याचे तायवेर तेला थेंबो घालून ताचेर खावचींपानां दवरतालें. तशें केल्ल्यान भुरग्यांक न्हीद बरी पडटाली. पांयांची फोडाफोड, उसा उसळ बी जात जाल्यारय खावची पानांचो रोस काडून तातूंत इल्लें म्होंव घालून दितात. तें नेर्व्हांचेर (शरिरांतले नेर्व्ह) बऱ्याक पडटा.

हे तरेन आमकां वखद म्हणून उपयोग पडपी हीं इतलींय झाडां न्हय तर हज्जारांनी असलीं झाडा, रूख, बियां, मुळां बी आसात, तातूंत पयलीं, हीं कायं तुमच्या परिचियाचीं आसात, ताचो उपेग तुमकां पयलीं सांगला. कारण ह्या वनस्पतीचो

उपेगी पळोवन, आमच्या जाण्टेल्यांनी तांकां इतलें म्हत्व दिल्लें, काय तुळस आमकां देवाच्या रूपांत दाखोवन तिची पूजा, भक्ति करपाक तांणी आमकां शिकयलें. बेल, धुत्रो ह्यो वनस्पती म्हादेवाक अती प्रिय तशेंच दुर्वा गणपतीक प्रिय, मारूतीक रूय प्रिय, देवपुजेक श्रीफळ, खावचपीपानां सुपारी नासतना पूजा पुरती जायना अशे तरेचे आमचेर जाण्ट्यांनी संस्कार करुन दिले. देखून तुमचे सारक्या ही वनस्पत वळखीची, संवकळीची जावन आसा. तर आतां, कांय वनस्पतींकडेन तुमची संवकळ ना, तशेंच कांयचीं नांवां लेगीत तुमीं आयकूंक ना आसतलीं अशा कांय वखदी झांडाचीय तुमकां वळख करून दितां.

अडोळसो :

अडोळशाचीं पानां थंडेचेर, खांकेचेर रामबाण उपाय जावन आसात. अडोळशाच्या पानांनी जें तत्व आसा, ते थंडी खळखळून धरकलाच्या रूपानं भायर उडयता. अडोळशा पानांचो रोस काडून, तातूंत म्होंव घालून थंडेकाराक दितात. थंडेन वा दम्यान जे हड्डें साणायल्लेवरी जाता, तें रोसान सुट्टा ( हड्ड्यांतलो इशूपाईम) आनी उस्वास काडपाक मदत जाता. आदल्या काळार जायते दमेकार हड्डें साणायल्लेवरी जावन उस्वास काडटना घुस्मट्टालें, ते ह्या अडोळशाची पानां सुकोवन विडयो ओडटाले. ताका लागून तांची छाती सदळ जाताली. छातयेंतलो इशूपाईम सुट्टालो. खांकून धर्कलां वतालीं आनी दमेकाराक आराम दिसतालो. आजकाल ह्या अडोळशा पासून तयार केल्लीं वखदां मेळूंक लागल्यांत तीं हाडून लोक घेतात. अडोळशाची पानां शिजोवन त्या उदकान थंडी जाल्ल्या मनशाक न्हाणयत जाल्यार, थंडी जाल्ल्या मनशाचें आंग बी दुखता तें ना जावन जिवाक बरें दिसता.

कांटेकुंवरः

कांटेकुंवरीक तणावरी पातीं आसतात. पूण तणाक आनी ताका इल्लीय सर ना. तणाचें पातें कागदावरी पातळ आनी सामकें अरूंद, पूण कांटेकुंवरीचे पातें चि अर्द इंच जाडयेचें दाट आनी आवाटान मोटें आसता. ह्या पात्याक भितर ओलो

बुळबुळीत बोळकसो आसता. कांटेकुवरीच्या पात्याचो कुडको कापून काडटात आनी रांदनीतल्या मुबरांत भाजतात (मुंबर - हून हून गोबर) आजकाल तव्यार दवरून हुनारू येता. तें पातें बरें शिजलें तशें तातूंतलो रोस म्हळयार तो बोळ काडटात. तांतूत इल्ले म्होंव घालतात, आनी तें मिश्रण भुरग्यांक थंडी जाल्यार दितात. ह्या वखदान हड्ड्यांतली थंडी पातळ जावन, लाळ कशी, धर्कला बी खांकून वतात आनी थंडी पोल जाता. हो रोस, पोटांत दंत बी आसल्यार, ताचेरय बऱ्याक पडटा. तशेंच यकृत म्हळ्यार फिग्द तसोच बास, हांकां सूज येत जाल्यार दितात. सूज देंवपाक बऱ्याक पडटा.

गुंडरी :

गुंडरीचीं पानां शक्तिवर्धक आसतात. तशींच तीं मुतूंक जावपाक बऱ्याक पडटात. ल्हान भुरग्यांक पातळ परसाकडेन बी जायत जाल्यार गुंडरी बऱ्याक पडटा. गुंडेरीच्या पानाचें तेल करून, म्हळ्यार तेलांत गुंडरीचीं पानां शिजोवन, तें तेल माथ्याक घालतात. गुंडरीची ताज्जीं पानां आंकडेचेर लेगीत उपाय करपाक उपकारतात.

निलगिरी :

निलगिरीच्या झाडाचें तेल काडटात. ह्या तेलाकय 'निलगिरी' अशेंच म्हणटात. निलगिरी एक बऱ्यापैकीं वखद जावन आसा. तें उगडें दवरल्यार हवेंत उडटा . तें जंतूनाशक जाल्ल्यान कसल्याय घायाचेर लेगीत ओततात. थंडी जाल्यार मनशाच्या न्हावपाच्या उदकांत निलगिरेचे दोन थेंबे घालीत जाल्यार, उदक बरें सुवासीक जाता आनी थंडेकय तें बऱ्याक पडटा. इल्ल्याशा कापसाचेर निलगिरीचो एक थेंबो सोडून तो कापूस थंडी जाल्यार मनशाच्या गळ्यांत बांदतात. म्हणटकच त्या वासान नाक चोंदिल्लें आसल्यार तें सुट्टा. तशेंच उस्वास घेवपाक बऱ्याक पडटा. निलगिरीच्या वासान कसलोय व्हायरस ना जाता. देखून दुसऱ्यांची थंडी वा कसलीय वशाची पिडा आपल्याक येवची न्हय म्हणून, लेंसाचेर एक निलगिरीचो थेंबो घालून वास उब्येत रावत जाल्यार चड करून दुसऱ्याचो वसो आपल्याक येवंक पावना. दंतांनी पोटांत चाबत, वळूंक बी लागत जाल्यार उदकांत

निगिरीचो थंबो घालून पीयोंवक दीत जाल्यार, दंत थंड पडटात पोटांत वळटा तें थांबता. कांय वेळार जनावरांक किवण जाता आनी ताका मुशी पडटा ( जीव पडटात), तसल्या किवणांचेर निलगिरी घालीत जाल्यार मुशी ना जाता.

पुनर्नवा :

पुनर्नवा सुजीचेर एकदम गुणकारी जावन आसा. कुडीच्या खंयच्याय भागाक सूज आयिल्ली आसा जाल्यार, पुनर्नवेचो कसाय करुन घेवचो, सूज वता. मुतूंक जावपाक पुनर्नवा उत्तम उपाय. पुनर्नवा आनी बडिशेप घालून कुजुमेत करुन दीत जाल्यार, सळसळीत मुतूंक जाता. पुनर्नवा उदर रोगाचेरय बऱ्याक पडटा. पुनर्नवा पोटांत घेतातच, तेभायर ती वांटून, हुनारुन तो लेप सुजीचेर काडीत जाल्यार सूज देंवपाक मदत जाता.

गंजण :

गंजण, जिरवणेचेर एक - नंबरचें वखद जावन आसा. अजीर्ण जायत, ओकारे येत, अजिर्णाक लागून पातळ परसाकडेन जायत, पोटांत वळत, धुंवशे ( अजिर्णाचे) धेंकर येत बी जाल्यार गंजणाचें उदक, म्हळ्यार 'च्या' एकदाम गुणकारी, गंजणाच्यो दोन पोतयो, तातूंत दोन मिरयाकण धाडोवन उडोवचे, आल्याचो कुडको इको धाडावन वा बारीक चिरून घालचो आनी च्या करची. तातूंत साकर आनी रंगा पुरते दूद लेगीत घालूं येता. ही च्या दीत जाल्यार पोटांत जाल्लो इबाड थप्प जाता. गंजणाच्या वासाक जळार मूस बी लागी रावनात.

पोपाय :

पोपाय जिरवणेक बऱ्याक पडटा. जेवले उपरांत इल्ली नेमान पिकी पोपाय खायत जाल्यार जेविल्लें अन्न बरेतरेन पचता भूकय बरी लागता. फिग्दाच्या दुयेंसाचेर पोपाय बऱ्याक पडटा. फिग्दाक सूज बी येत जाल्यार हरवी पोपाय किसोवन वा वांटून फिगदाचेर कवळ घालतात. पोपायेचो दीक म्होंवांत घालून भुरग्यांक दितात. ताका लागून भुरग्यांच्या पोटांत दंत वा कसल्योय कृमी आसल्या जाल्यार ना जावपाक

बऱ्याक पडटा. चरतें, खोरोज, नायटो बी असल्या रोगाचेर पोषायेचो दीख लावचो त्यो पीडा ना जावंक तो बऱ्याक पडटा.

वागचपको :

माथ्यांत उवो बी जायत जाल्यार वागचपक्याच्यां पानांचो रोस काडून माथ्याक घालतात. उवो नाच जातात.

लजेझाड :

लजेझाडांची पानां आनी मुळां मूतखड्याचेर उपेगी पडटात.

तायखिळो :

तायखिळ्याची भाजी करुन खायत जाल्यार पोट एकदम साफ उरता. तायखिळ्यांच्या पानांनी लोखंडाचें प्रमाण खूब आशिल्ल्यान तें शक्तीवर्धकय आसता. तायखिळ्यांच्यो बियो कातीक बऱ्याक पडटात. पतीक म्हणून तायखिळ्याच्यो ताज्यो बियो हाडून त्यो वांटून, तातूंत दुदाची साय, चण्यादाळीची पिठी बी घालून वटणे करून दिवाळे दिसा आंगाक लावन न्हावपाची चाल आसा.

सिताफळ :

जायतेदां, कोणाकूय मोडणे मारून येता वा घुंवळ आयिल्लेवरी जावन फिट्स येतात, अशा वेळार सिताफळाचीं पानां धाडावन वा वांटून तांचो वास त्या मनशाक दितात. त्या वासान मनशाक गूण पडटा. सिताफळांच्या बियांचो धाडावन रोस काडून माथ्याक घालीत जाल्यार माथ्यांत उवो बी आसल्यार त्यो मरतात.

धुत्रो :

मनशाच्या पोल्यांसकयल गालफडांक, गालगुठां म्हणून एक वशाचो रोग जाता. ह्या रोगांत गालफडां भितरल्यान सुजतात. असह्य वेदना जावन गालफडाची आनी तकलेची फोडाफोड, उसळांउसळ जाता. जोरय खूब येता. अशीं हीं गालगुठां येत जाल्यार धुत्र्याचो पालो वांटून गालफडांचेर थापचो. गालगुठां बरीं जातात. दुखय

उणी जाता.

धाकली खातखुतली आनी रेडे खातखुतली :

ह्या दोनय झाडांचो पितामेचेर उपेग करतात.

घाणयारी :

पोटांत जायत, वळूंक बी लागत जाल्यार घाणयारेचो पालो हाडून दोनय तळटांमंदीं धरून चोळून ताची चोमडी करुन बोमलेक बांदतात. पोटांत वळपाचें थांबता.

उर्फाडी कांटी :

दंतांनी बी जोर येत जाल्यार उफर्टे कांटयेचे पाळ झरोवन, ताचो तकलेक लेप काडटात.

पाडावेल :

पाडावेलीचीं पानां वांटून वस्त्राचेर गाळून तांचो रोस काडटात. तो रोस मागीर उथळ आयदनांत चड करून पितळेंत ( पेज जेवचेले) ओतून एका जाग्यार हालयनासतना दवरतात. थोड्या वेळान तो रोस घट जाता आनी नासण्याचें बीं सत्व आसता तशें जाता. ताका ' पाडावेलीचो भोबो' अशें म्हण्टात. पांचवे चार रंगाचें हें सत्व, दोळ्यांचे जळजळीचेर थंडाय दिवपाक वापरतात. खूब लोकांक, दोळे जळपाची, दोळे दुखपाची, कपल उसळपाची, एक शिसल उसळपाची आनी ताका लागून दोळे तांबडे जावपाची पिडा आसता. असल्या वेळार हे पाडावेलीचो भोबो करून ताचीं आपल्याक जाय तशीं कापां करुन दोळ्याचेर घालतात. ताका लागून दोळ्यांक थंडाय मेळटा, आनी कपल लेगीत उसळपाचें उणें जाता.

रोजीण :

दिवाळे दिसा आमी रोजां वापरतात. त्या रोजांचे झाड म्हळ्यारच रोजीण. रोजणीच्या पानांक, मिजरीकांवांक बी मिडमिडीत वास येता तसोच रोजांचो

मिडमिडीत वास येता. दंतांनी बी पोटांत वळत जाल्यार रोजणीचो पालो मुड्डून पिसडून बोमलेक बांदतात. त्या वासान दंत धूंवळून पडटात. पोटांत वळपाचें थांबता.

गुणआंबुळ्ळी :

गुणआंबुळ्ळेचीं पानां लांबशीं आसतात. हिचोय बी जोराचेर उपेग करतात.

रयताबलाची वाल :

ल्हान भुरग्यांक जोर येवन ओकरो बी येत जाल्यार कांदे आनी रतयाबलाचीं पानां वांटून माथ्यार कवळ घालतात. जोर देंवता. आदल्या काळार कांय लोक रयताबलाचीं पानां सुकोवन, तांच्या शेन्ताच्यो विडयो वळून ओडटाले.

परिपाटक :

परिपाटकांत परसाकडेन जावपाचो गूण आसा. परिपाटकाचो कसाय करून घेत जाल्यार पोट साफ उरता. हुरहुरें, फुगांव बी येत जाल्यार परिपाटक शिजोवन, ताचो कसाय पियेवंक दितात. परिपाटक थंडेचेर एक बऱ्यापैकीं वखद. हुरहुरें आयिल्ल्या मनशाचें ड्डें भरता, ताचेर परिपाटक एकदम बऱ्याक पडटा.

नर्वल :

नर्वलाचें झाड, पेर, सिताफळ बी आसता, तेदें वाडटा. नर्वलाचीं पानां सुंदर कात्र्यां कात्र्यांची आसतात. नर्वल हें एक जंतुनाशक झाड. नर्वलाचें पान तोडीत जाल्यार ताचो मिडमिडींत सुगंद सुट्टा. बाळंटीचे कुडीच्या दारांत अचूक असल्या पानांचो घोंस करुन हाडून बांदतात. मागीर सगल्या घरभर ह्या नर्वलाचो सुंदर वास सुट्टा. ह्या वासाक कसलेच जंतू (व्हायरस) लागीं रावनात. ह्या वासाक लागून वातावरण प्रसन्न जाता. हवा शुद्ध जाता, जळार मूस बी लागीं रावनात.

तुपकडी :

तुपकडी हे एक ल्हान ताळकूट - शिरपूट कशें झाड. ल्हान भुरग्यांक, दांत येवचे वेळार वा उपरांत तीं कितेंय खावंक लागलीं म्हणकच पोटांत इबाडटा आनी

परसाकडेन जावंक लागता. तें चड तेंप तशेंच जायत जाल्यार हागडो थांबोवपाक, तुपकडेचो कसाय करून दितात.

पिटकोळी :

पिटकोळ्यो दोन भासांच्यो आसतात. धवी आनी तांबडी. हिचो उपेग तुपकडे भाशेनच करतात. ल्हान भुरग्यांक खूब तेंप पोटांत इबाडून परसाकडेन जायत जाल्यार, पिटकोळेचो कळो, केळीच्या खोल्यांत गुठलावन तो हुनारतात. हो कळो आनी चिमटीभर जिरें वांटून ताचो रोस काडटात. तातूंत इल्लेंशें गोड घालतात आनी तें भुरग्यांक पियेवंक दितात. दोन दिसां भितर इतल्या तेंपाचो हागडो बंद जाता.

काराथे :

गोडें मूत जाल्ल्या वायटाकारक काराथें खाल्यार बऱ्याक पडटा. देखून काराथीं हाडून पातळ शिनून सुकयतात आनी ताचो पिठो करून बाटलेंत भरून दवरतात. सकाळीफुडें तातुंतलो कुलेरभर ( धाकलें) पिठो तोंडात उडोवन वयल्यान उदक पितात.

सदाफुली :

सदाफुलयेक सदानंद अशेंय म्हणटात. सदाफुलयेचीं पानां शिजोवन तें उदक पिल्यार मुताचेर परिणाम जाता, म्हणून गोडे मुतकार हो कुजुमेत करुन पितात. कांय लोक सदाफुलयेच्या पानांच्यो आंकऱ्यो चाबून खातात आनी त्योय गोडेमुताचेर बऱ्याक पडटात अशें सांगतात. सदाफुलयेच्या मुळांचेरय संशोधन करतात अशें आयकता.

हुंदराचो कान :

हे वनस्पतीचो कुसाच्या दंतांचेर उपाय करतात.

अनंत :

अंनताचीं मुळां बायलांच्या तरातरांच्या पिडांचेर गुणकारी अशें सांगतात

उशीकांडो :

कोलेखांक आयिल्ल्या मनशाक, तशेंच कामीण बी जायत जाल्यार उशीकांड्याचो रोस पियेवंक दितात. तो बऱ्याक पडटा.

अनस, कुंवाळो :

पोटांत केंस बी वचत जाल्यार अनसाचो वा कुंवाळ्याचो रोस काडून दितात. ह्या रोसान केंस विरगळून वतात अशें सांगतात.

पारजत :

पारजात हें कुसांच्या दंतांचेर वा पोटांतल्या हेर कृमीचेर भोव बरें वखद अशें सांगतात. ते पासत पारजाताची ताज्याँ पानां हाडून, निवळ बरीं धुवन, वांटून रोस काडून एक कुलेरभर दिवचो. पारजताचीं पानां संधीवाताचेर गुणकारी जावन आसात. तशेंच पैऱ्याचो, कुलकुल्याचो जोर बी येता तसल्या वायटकाराक पारजताचीं पानां वांटून तातूंत गोड घालून दितात. ह्या वखदान जोर बंद जाता. पारजताच्या पानांचो रोस कुसांच्या दंतांचेरय बऱ्याक पडटा. थंडेचेर आनी मोडोचेरय ताचो वापर करतात.

किरायतें :

किरायतें रुचीक कोडू विख्ख लागता. तें दंतांचेर भोव बरें वखद. किरायतें शिजोवन ताचो कुजुमेंत करुन दंतांचेर दितात. तशेंच गोडेमुतकारांकय दितात. साकरेचें प्रमाण मुतांत तशेंच रगतांत उणें जावपाक मदत जाता.

व्हडलो वट्टेलांव आनी धाकलो वट्टेलांव :

हे दोन जातीचे वट्टेलांव. व्हडल्या वट्टेलांवाचीं पानां व्हड आनी दाट आसतात, तर धाकल्या वट्टेलांवांची पानां ल्हान आनी पातळ आसतात. दोनूय वनस्पती थंडेचेर, खांकीचेर बऱ्याक पडटात. भुरग्यांक ह्या पानांचो कसाय करून घालतात. भुरगें साप्प ल्हान आसता, तेन्ना त्या भुरग्याक थंडी जायत जाल्यार व्हडले व्हडले उपाय करचे वजा, आवयच्या दुदांत धाकल्या वट्टेलांवाचीं दोन चार

पानां घालून, आयदन मेणवातीच्या उज्याचेर गरम करचें आनी तें दूद भुरग्यांक घालचें. थंडी एका दिसा भितर पोल जाता.

मेथी :

मेथयेचीं पानां वांटून हातांक घालतात. जांचे हात दीसभर उदकांत आसतात, म्हळ्यार आयदनां घासपी, वोलीं उमळपी बायलो मेथी हातांक घालतात. ताका लागून कात बरी उरता. आदल्या काळार गोबरान आयदनां घांसतालीं, तेन्ना हातांच्यो कातीं झिरझिरताल्यो म्हणून ही मेथी घालतालीं आनी हाता-पायांच्यो काती बऱ्यो उरताल्यो. उदकापासून थंडी जायनासली. मेथयेच्या पानांची 'च्या' करून पियेत जाल्यार थंडाय मेळटा. शितळसाण मेळटा. हुरहुरे, फुगांव बी येवन गेले, तशें त्या वायटकाराक तितलो तेंप तसली च्या करून दितात. आंगांतलो कालोर वचपाक हो कसाय बऱ्याक पडटा.

गाजर :

गाजर खायत जाल्यार तें नदरेक बरें. तशेंच कातीकय बरें.

पिंपरी :

पिंपरी खाल्यार मनशाक थंडाय मेळटा. कांय वेळार , चड करून प्रवासाक गेल्ल्या मनशाक. तशेंच गुरवारीक बी कालोर जावन मूत उणें जाता. मुततना वेग मारतात, जळजळ जाता... तसल्या मनशांक पिंपरी खावंक दिवची, पिंपरी कापून साकर मारून खायत जाल्यार आंगांतलो कालोर वता आनी सळसळीत मुतूंक जाता.

जाय - जूय :

अशें सांगतात, कांय जायां-जुयांचे वळेसर माथ्यांत माळीत जाल्यार आंगांतलो कालोर फुलां ओडून घेतात. ताका लागून दोळे जळटांत बी जाल्यार थांबतात. दोळ्यांचे विकार उणे जातात. तोंड बी फुटत, तोंडांत कालोराच्यो पुळयो बी येत जाल्यार हांचीं पानां चाबचीं आनी तांचो रोस त्या पुळयांक लागूंक दिवचो. तशेंच ही पानां तेलांत घालून तेल हून करून तें तेल कसल्याय घायांचेर वा हुलपून

जाल्ले जखमेचेर लावचें. थंड दिसता. कानाच्या फोडाफोडीचेरय ह्या पानांचो रोस बऱ्याक पडटा.

आपटो :

दसऱ्याच्या दिसा आपट्याचीं पानां काडून, भांगर म्हणून एकमेकांक दिवपाची गोयांत चाल आसा हें तुमकां खबर आसतलेंच. पूण हीं पानां पोटांत इबाडत, पातळ परसाकडेन जायत जाल्यार, वांटून तांचो रोस काडून दितात. परसाकडेन जावपाचें थांबता. आपट्याच्या मुळांतली साल काडून ताचो पिठो करून, फिग्दाक सूज बी येत जाल्यार वापरतात. गूण पडटा.

हीं जालीं बारीक - सारीक झाडा. हांचे भायर वडा पिंपळा सारके व्हड व्हड रूख आसात. तांचो लेगीत आमकां उपेग जाता. कसो कितें तें पळेयांत आऽऽ

वड :

वडाची पानां संधीवाताचेर बरीं अशें सांगतात. दातांच्या फोडा फोडीचेर वडाचो दीख लायत जाल्यार फोडाफोड उणी जाता. तशेंच पायांक, हाताक कात्रे बी पडत जाल्यार हो दीख लायतात. ते भायर वडाचे सालीचो कसाय करून गोडेमुतकाराक दीत जाल्यार, साकरेचें प्रमाण उणें जावपाक मदत जाता.

पिंपळ :

गोडेंमूत जाल्ल्या मनशाक, तशेंच पातळ परसाकडे, बी जायत जाल्यार पिंपळा सालीचो कडो करून दितात. पिंपळा फळायचे वखद म्हणून खूब उपेग जाता.

रुमड :

रुमडा, साल शिजोवन, ताचो कडो मोडशेचेर दितात. कांय वेळार, कोणाकूय खेळण्यो येतात आनी कशोच थांबनात. तेन्ना 'रुमडां' म्हळ्यार रुमडाचीं फळां खावचीं, खेळण्यो येवपाच्यो थांबतात. रूमडां मात खूब खांव नये. रुमडां खाल्यार भुरगीं जायनात असोय एक समज आसा.

जांभळः

जांभळीक जांभळां म्हणून फळां जातात. गोडेंमूत जाल्ल्यांया लोकांनी हीं ळां खाल्यार बरीं अशें सांगतात. तेभायर मनशाच्या आंगाक पिताम म्हणून येता. ताम दोन भासांनी येता. रेडे पिताम आनी कुसांची पिताम. रेडे पिताम येत जाल्यार ांगाक व्हडले व्हडले दादोड येतात आनी कुसाचे पितामींत सगल्या आंगाक रहूर आयिल्लेवरी जाता. असले पितामेचेर जांभळीची साल झरोवन ताचो लेप ाडचो. पिताम येवपाची बंद जाता. जांभळांच्यो बियो आनी पेरीचीं पानां सुकोवन ांचो पिठो करून, ताची च्या करून गोडेमुतकाराक दिवची. बऱ्याक पडटा.

रंजन वा भेडस :

हे वनस्पतीचो सर्पेचेर एकदम बरो गूण पडटा. भेंडसीचो पालो हाडून तांतूत ांदूळ घालून तो वाट्टात. थोडे उदक गाळून पियेवंक दितात आनी वाटिल्लें वखद र्पेचेर थापतात. दिसांतल्यान हे वखद दोन तीनदां करचें. दोन दिसां भितर सर्पी ाकता.

कोडूलिंब :

तुमकां खबर आसतलें काडुलिंबू आरोग्याक इतलो बरो, की आमच्या ाण्ट्यांनी संवसार पाडव्या दिसा कोडूलिंबाचें वखद वांटून ते सकाळीफुडें न्हावन ्वन घेवचें आनी मागीर कितें खावपाचें तें खावचें अशी रीत घालून दिल्ली. कोडूलिंबाचीं ानां, जिरें, मिरयां, हिंग, मीठ हीं पांचय आंगां एक करुन वांटून तांचो रोस, वखद ्हणून आमचीं जाण्टीं आमकां भुरगेपणांत दितालीं. तुमी घेतात हें वखद संवसार ाडव्यादिसा? ह्या कोडलिंबाभशेनच दिवाळे दिसा कितेंय उश्टावचे पयलीं कारीट ोडून जिबेक लायतात तें तुमी जाणांत न्हय? अशे तरेचे रीतरिवाज घालून दिवन ाण्ट्यांनी ह्या वखदी वनस्पतींची आमकां संवकळ करुन दिल्ली. तर कोडूलिंबू ातीक बरो. देखून गजकर्ण, खोरोज बी कातीचे कसलेय रोग जायत जाल्यार ोडूलिंबांचीं पानां वांटून ताचेर चोळटात, तशेंच पानां शिजोवन तें उदक पियेवंक

दितात. मरेरिया बी जोर येत जाल्यार म्हयन्यांसंकीनी, कोडूलिंबाचीं पानां शिजोवन उदक पियेवंक दितात.

रक्तचंदन :

रक्तचंदनाचो उपेग रगताचे व्याधीचेर, म्हळ्यार रेमातिङ्गाचेर करतात. रगतान मनशाच्या खंयच्याय अवयवाक सूज येता. तांबडसाण येता तेन्ना रक्तचंदन झरोवन लायतात. रक्तचंदन झरयतात, ते त्या झाडाचे फळ जावन आसता. खंयय आपटत, पडत आनी दुखापत जायत जाल्यार लेगीत रक्तचंदन झरोवन लायत तर दूख काडटा.

नंदनगोळ :

नंदनगोळ हो एक ओंवळी भशेनच व्हडलो रूख जावन आसता. ह्याय झाडाचो उपेग रगताचे व्याधीचेरच करतात. दांतांच्या हड्ड्यांतल्यान रगत येत, हड्ड्यांक सूज येत बी जाल्यार नंदन गोळीचीं पानां शिजोवन, त्या उदकाचें घोंट घेतात. कांय वेळार रगताची व्याधी आशिल्ल्या मनशाचे हात - पांय, धोंपरां बी सुजतात धरतात, दुखतात. तेन्नाच नंदनगोळीच्या पानांचो कसाय करून त्या जाग्यार शेक मारीत जाल्यार सूज देंवता आनी दुखय काडटा.

तर हीं इतलींच झाडां न्हय, आनिकूय जायतीं झाडां आमचे भोंवतणी आसात आनी तांचो वखदांक उपेग जाता. हांवें तुमकां देख म्हणून ह्या कांय झाडांचीच वळख करून दिल्या. हे वनस्पती भायर ताच्या बियांचो आनी कांय हेर वस्तूंचोय वखद म्हणून वापर करतात. तांचे संबंदान पळोवया. देखीक.,

मेथी :

मेथी पुश्टिक बरी, ती पोटांत घेतल्यार आंगाची दूख काडटा. सदळ परसाकडेन जावन कोठो साफ उरता. ही मेथी बाळंटीक दिवपाची गोंयांत खूबच चाल आसा.

येळ वा वेलदोडे :

हे जिरवणेक खूबच बरे. गोड गोडशाचें जेवण करतात तें पचपाक खूबच बोजड आसता. देखून त्या जेवणात येळांचो वापर करतात. येळांक खमंग वास येता. ह्या वासान जेवणाची रुचय खूबच वाडटा. थंडी बी जायत जाल्यार तुळशीच्या केंसरांचो जो कसाय करतात त्या कसायाक लेगीत येळ घालतात.

पासां :

पासां म्हळ्यार सुकीं द्राक्षां. भितर बियो अशिल्लीं ही मोटीं द्राक्षां म्हळ्यार दाखो सुकयतात. हीं पासां शिजोवन तांचें उदक करून भुरग्यांक ( साप्प ल्हान भुरग्यांक) नेमान दीत जाल्यार भुरग्यांक पुश्टिकय बरें पडटा आनी सदळ परसाकडेन जावन भुरग्यांचो कोठोय साफ उरता.

बाळशेप :

ल्हान भुरग्यांचें अन्न म्हळ्यार दूद. कांय वेळार ह्या दुदाक लागून भुरग्यांक वाय जाता देखून बाळशेपींचे उदक करुन भुरग्यांक घालतात.

तिखी :

तिखी थंडेक भोव बरी. थंडे खातीर जो कसाय करतात, तातूत तिखी हेंवूय एक आंग जावन आसा. तिखयेक वासय बरो येता. थंडी जायत जाल्यार दुदांत तिखी शिजोवन तातूंत साकर घालून पियेत जाल्यार थंडी उणी जाता.

कात :

काताक काय लोक 'चातुर' अशेंय म्हणटात. हो कात जायते लोक विड्यांत घालून खातात. कारण कोणाचेय दांत फोडटात, हालतात, हड्ड्यांतल्यान रगत येता, हड्ड्यांक पोपूट येता. ..असल्या पिडांचेर कात बऱ्याक पडटा. तशेंच पातळ परसाकडेन जाता, मोडशी पडटा बी जाल्यार ताचेर कात बऱ्याक पडटा. कांय लोकांक 'बीक म्हळ्यार 'मोड' जातात. मोडांतल्यान रगत पडटा. त्या मोडांचेरय कात भोव बऱ्याक पडटा.

आले :

आलें जिरवणेक एकदम बरें, देखून जावचे पयलीं. आल्याचो इल्लो रोस काडून तातूंत मिठाची कणी घालून घेतात. कांय लोक लिंबाचो रोस आनी आल्याचो रोस एक करुनय घेतात. जेवण जिरपाक मदत जाता. पिन्ताक बऱ्याक पडटा. भूक बरी लागता. पोटांत वाय बी जाल्यार ताचेरय बऱ्याक पडटा. आलें थंडेचेर बऱ्याक पडटा. देखून तें कसाकया घालतात. ताका मिडमिडीत वास आनी मिरमिरीत तिखसाण आशिल्ल्यान कसायाक रुचय बरी येता. आल्याचो रोस काडून तातूंत म्होंव घालून दीत जाल्यार थंडी, खाक येतल्या मनशाक बऱ्याक पडटा. तशेंच दमेकाराक हो दीत जाल्यार चरचरीत घाम सुट्टा आनी उस्वास काडपाक हड्डें जाता. ह्या रोसान थंडी खळखळून धरकला सुट्टात. थंडी निवळटा. आल्याच्या मिडमिडीत वासान जेवण रुची जाता. गंजण आनी आलें एक करून (च्या घेतात. तशेंच 'च्या' पावडर आनी आलें घालूनय च्या करुन घेतात. ही 'च्या' पियेवंकच बरी लागता आनी खाल्लें अन्न पचपाकय मदत जाता. आदल्या काळार आयच्यासारकीं वखदां नाशिल्लीं. त्या वेळार कपल बी उसळत जाल्यार आलें धाडावन ताचो रोस कपलाक सारयताले आनी कपल उसळपाचें थांबूंक मदत जाताली. दातांचे दुखीचेर लेगीत आलें बऱ्यांक पडटा.

वायविणगां :

वायविणगांचें उदक करून तें उदक भुरग्यांक वाय जावं नये म्हणून नित्य नेमान दितात.

सणबियां :

सणबियां थंडेचेर रामबाण उपाय जावन आसा. बेट्ठे सणबियांचो वा हेर सगलीं आंगां घाल्ल्या कसायांतय सणबियां घालतात. सणबियांच्या कसायान हड्ड्यांत थंडी जाल्ली आसत जाल्यार ती पातळ जाता. खळखळून वता. थंडी जावन हड्डें भरता आनी फासणां मारतात. म्हळ्यार उस्वास काडपाक दमेकारा

भशेन त्रास पडटात. तसल्या थंडेकारांक सणबियां धाडावन तांचो शिजोवन पाप करतात आनी हड्डे शेकतात. थंडी पातळ जाता.

तेफळां :

तेफळां आमच्या सगल्यांच्या परिचयाची जावन आसात. गोंयकारांगेर तेफळ घालून, बांगड्याचें, पेडव्याचें.. हुमण बी करपाची रीत आसा. शिंवराक जेवणातंय तेफळ वापरतात. पूण तेफळ हे जेवणाक वापरपा पुरतेंच न्हय आंऽऽ. तें वखद म्हणूनय उपेग पडटा. तेफळ जिरवणेचेर एक बऱ्या पैकीं वखद जावन आसा. पोटांत गॅस जायत, पोटाक सूळ येत, परसाकडेन साफ जायना जायत जाल्यार आल्याच्या रोसांत चिमटीभर तेफळांचो पिठो म्हळ्यार चूर्ण घालून दिवचें. तेफळां वाताचेर एक बरें वखद जावन आसा. तशेंच , कोणाक भूक लागना, खाल्लें अन्न पचना, कोणाच्या पोटांत वळून सामक्यो किळची मारतात, तर तेफळांचो पिटो म्होंवांत घालून वा लिंबाच्या रोसांत घालुनय दितात. इतलेंच न्हय तर आंकडी जावन कांय वेळार मनशाची दांतखिळी घट्ट बसता. अशा वेळार तेफळाचो पिठो करून तोंडांत घालीत जाल्यार दांतखिळी सुट्टा. तोंड उगडटा.

सांसवां :

सांसवां आमी दीसभर जेवणात वापरतात. पूण ताचो वखदीय गूण आसा. सांसवां थंडी काडटात. आंगाक कसलीय दुखापत जाल्ली आसत जाल्यार सांसवा वांटून लेप काडटात. त्या जाग्याची दूक वता. जनावरांक आंगाक किवणां जातात, कांय वेळार ताका कीडय जाता, त्या वेळार इल्लें तूप, इल्लें म्होंव, इल्लो सांसवांचो पिठो घालून बरें घोटले आनी किवणांचेर लावचे कीड ना जाता.

बडिशेप :

बडिशेप वायेचेर वखद म्हणून वापरतात. पोटांत वाय जायत पोट तट्टटत बी जाल्यार बडिशेपेचे उदक करून दितात. बडिशेप जिरवणेकय बऱ्याक पडटा. थंडेच्या कसायाकय एक आंग म्हणून बडिशेप घालतात. बडिशेपेच्या उदकाचें

आज्यूतय दितात. जिरवणेक  बरी म्हूण जेवले उपरांत बडिशेप खातात. मुतूंक बी कोणाकूय जायना जाल्यार पुनर्नवा आनी बडिशेक घालून कडो करून दिता.

जिरें :

जिरें शितळ अशें म्हणून जिरें-कोथमिरेची 'च्या करुन नित्य नेमान लेगीत पियेतात. पातळ परसाकडेन जायत जाल्यार तें बंद करपाक दितात. जिरें धाडावन उदकांत शिजयतात, इल्ली साकर घालतात आनी पियेवंक दितात. जिरें आंगाची दूकय काडटा. आपटून बी दुखापत जायत जाल्यार जिरे वाटून लेप काडटात.

मिरयां :

मिरयां आरोग्याक एकदम बरीं. जिरवणेक तर मिरयां भोवच बऱ्याक पडटा. आंगाची दूक काडटात खंयय आपटून बी दुखापत जायत जाल्यार मिरयां वांटून ती खतखतावन तो खोतो हुनसो त्या जाग्यार काडटात. मिरयां वांटून आदल्या काळार ताळवेर लेगीत थापतालीं, घुंवळ बी येत जाल्यार बरी जाताली.

खश्ट :

हें फळ लागीं लागीं सिताफळ, आंतेर बी दिसता ते धरतेचें आसता. ताका भितर सिताफळांभशेनच बियो आसतात. खश्ट खावपाक बरें लागना. पूण ताच्या बियांचे तेल एकदम वखदी तें खोरोज, नायटो बी जायत जाल्यार लायतात. इतलेंच न्हय तर तें कुश्ट रोगाचेर लेगीत बऱ्याक पडटा.

हिंग :

जिरवणेखातीर हिंग एकदम बऱ्याक पडटा. देखूनच आमी जेवणांत हिंग वापरतात. ताका वासय बरो येता. अजीर्ण जावन पोटांत बी जावंक लागत जाल्यार हून उदकांत हिंग खिरोवन तें उदक पियेवंक दीत जाल्यार पोटांतलें थांबता. पोटांत वाय जावन सूय येत जाल्यार लेगीत हिंगाचे उदक बऱ्याक पडटा.

हळद :

हळद म्हळ्यार व्हिटामीन सी. तिचो थंडेचेर गूण पडटा. थंडी जावन ताळो दुखता. नाक चोंदता .. बी. दुदांत हळद शिजोवन घेतात. ताज्जे हळडीचो इल्लो रोस काडून दीत जाल्यार, पोटांत दंत वा हेर कसल्योय कृमी आसत जाल्यार नश्ट जातात. हळद संदी दुखतात, सूज येता. ताचेरय गुणकारी जावन आसा. धोंपरा बी दुखून सूज येत जाल्यार, लिंबाच्या रोसांत हळद, झरोवन लेप काडटात हळद जंतू नाशक जावन आसा. हाताच्या, पांयांच्या बोटांक कोरो बी जायत जाल्यार हळदीचो पिठो तेलांत मेटून लायतात. कोरो पोल जाता. (कोर - नाकटांकडेन इन्फेक्शन)

कांदो

कांदो थंडेचेर बऱ्याक पडटा. थंडेचेर कसाय करतात. तातूंत कांदो एक आंग जावन आसा. कांद्याचीं कापां करून, ताचेर साकर मारून ती चेपणां घालून दवरतात. ताका मागीर रोस सुट्टा. ते मेल भुरग्यांक घालीत जाल्यार तांची थंडी पोल जाता. कांद्या रोसान थंडी कफ खांकून आनी परसाकडच्यातल्यान भायर पडटा. जोर खूब येत जाल्यार कांदे धाडावन, तांचें कवळ माथ्यार घालतात. जोर देंवता. कसलेय जीव जंतू चाबतीत जाल्यार, चाबिल्ल्या फाडाचेर कांदो चांचावन लायत जाल्यार विखार देंवता. तशेंच कातीच्या कांय रोगांचेर कांदयाचो रोस काडून लायत जाल्यार बऱ्याक पडटा.

लसूण :

जोराचेर, खांकेचेर, दम्याचेर बी लसूण बऱ्याक पडटा. हरवी लसूण खायत जाल्यार आंगांत रगत बरें घोळटा. देखून रक्तदाब चड आशिल्ल्या मनशांनी हरवी लसूण खावची अशें सांगतात. कुकडांक बसूंक म्हणून एक रोग जाता. त्या रोगांक तांका तकलेक, दोळ्यांक बी देवी आयिल्लेवरीच फोड येतात. ते पिडेचेर लसूण आनी हळद वांटून ती तेलांत मेटून लायत जाल्यार हो रोग निवळूंक बऱ्याक पडटा. लसूण पोटांतल्या कृमीचेरय बऱ्याक पडटा.

कोथमीर, कोथमिऱ्यो :

कोथमीर शितळ आसता. कोणाक मुतूंक सदळ जायना, वेग बी मारतात जाल्यार जिन्या-कोथंमिरेची 'च्या' करून दितात. ही 'च्या' मुताचेरय बऱ्याक पडटा आनी पातळ परसाकडेन जाल्यारय बऱ्याक पडटा. कोथमीर आनी साकर एकठांय करून खायत जाल्यार पिन्ताचेर गुणकारी आसता. जिबेक रूच नासत जाल्याार जिरें कोथमिरेची च्या नित्य नेमान घेत जाल्यार रुच येता. दंत वा हेर कसल्योय कृमी आसत जाल्यार कोथमिऱ्यो बऱ्याक पडटात. कोथमिऱ्यो काळजाचेर लेगीत बरो परिणाम करतात. दोळे बी जळत जाल्यार वा तांबडे बी जायत जालायार कोथमिरेचें उदक करून, गाळून त्या उदकांत बुडोवन लेंसाच्यो वा कापसाच्यो घडयो दोळ्यांचेर घालतात. दोळे निवळटात, थंड दिसता.

ह्यो वनस्पती आमकां कितल्यो उपेगी पडटात तें पळयलें न्हय तुमी? आदल्या काळार आयचेवरी शिकप नासलें. ताका लागून, आज ॲलोपाथीक डॉक्टर भरपूर मेळटात आनी भरपूर हॉस्पिटलांय जाल्लीं आसात. तशीं तीं त्या काळार नासलीं. त्या काळार आमचीं जाण्टीं ह्या झाडां-पाल्यांची वखदां करतालीं. अणभवांतल्यान वखदांची जाण करुन घेतालीं आनी एकल्या तोंडातल्यान दुसऱ्या तोंडान तीं घोळत आसतालीं. हांवेय बी तुमकां सांगल्यात तीं वखदां अशींच पारंपारिक रितीन समाजांत घोळटात अशीं तशेंच जाण्ट्यांकडच्या आयकल्लीं, कांय अणभवांतल्यान पळय. अशा वखदांविंशीं तुमकां जाण दिल्या. ह्या वखदांविंशी माहिती आशिल्लीं तज्ञांनी बरयल्लीं पुस्तकांय आसात. तुमी तीं अवश्य वाचचीं.

आतांमेरेन तुमी झाडां पासून आमकां मेळपी विंगड विंगड फायदे पळयले. झाडांचो आनीक एक उपेग म्हळ्यार, तीं आमकां सोबीत फुलां दितात. संवसारभर विंगड विंगड तरेचीं झाडां आसात आनी तीं विंगड विंगड तरेचीं फुलां दितात. पूण आमी आमच्या गोंयांत कसलीं फुलां जातात तें पळोवया.

आमच्या गोंयांत तरेतरेच्या जातींचीं विंगड विंगड आवाटांची आनी रंगांची शेवती फुलतात. दोन तीन रंगांची आबोलीं जातात. तातूंत एके तरेच्या आबोल्यांक पिशीं आबोली म्हणटात. तर तांबडी भडंग आबोली जातात तांका रतन आबोली

म्हणटात. दसणीं फुलांय खूब तरेचीं, चड थोड्या पाकळ्यांचीं, ल्हान व्हड वाटांची आनी रंगाची मेळटात. गुलाब शेंवतींय तशींच खूब तरांची आनी रंगांची जातात. कोन्र्या फुलां दोन भासांची मेळटात. कोन्र्याच्या झाडांक फुलपी आनी कोन्र्याची वाल आसता तिका फुलपी फुलां जातात. दोनय तरांची फुलां हळडुव्या रंगाचींच आसतात. पूण वेगळे भशेचीं आसतात. गोटलां दोन रंगांचीं मेळटात. धवीं आनी जांभुळसार गुलाबी. हांगा जायो जुयो, कुंदा रातराणी, आपट्या फुलां, अडोळशाचीं फुलां, बुंताव, विलूद, जटेर, सोलगीं, पात, सूर्यकमळां, कांदळां ओवळां, हातो, गोकर्णा, कलवी, रामुलो, पारजां, केसरां, सूर्यकांत, बुतांवशेवंती, गुलमोहर, हडवो शंकर, तबांडो शंकर, सीते-चंवर, कृष्ण कमळां, बेनुल्लेचे वळेसर बी असलींय फुलां फुलतात. ते भायर विंगड विंगड जातीच्यो धाली, तरेतरेचे रंगां जातीचे कणेर बी असलींय फुलां फुलतात. ते भायर विंगड विंगड जातीच्यो धाली, तरेतरेचे रंगा जातीचे कणेर फुलतात. धवी आनी किरमुजी रंगांची शब्दुलां जातात. सुरंगां जातात. मोगरीं, कस्तुरमोगरी, बटमोगरी, चाफीं, नागचाफीं बी जात देव केळम्यांचीं हडवी, तांबडी, केसरी बी तरेतरेच्या रंगांचीं फुलां फुलतात. पेत्रोलीचीय तशींच खूब खूब रंगांच्यो पेत्रोली गोंयांत फुलतात. दिवाळेकडेन आमी जीं रोजां वापरतात, तीं रोजांय तरेतरेची मेळटात. सादीं रोजां खाप्री रोजां, दाणीं रोजां, तरेतरेच्या रंगांची हीं रोजां मेळटात. तळ्यांत फुलपी धवी तांबडीं साळकां... बी आमच्या गोंयांत फुलतात. फुलांच्या नांवांची तुमकां याद उरत मू?

हालीं तेंपाक दर एके गजालीचेर संशोधन करतात. तशें फूल झाडांचेरय करतात. गोंयांभायल्यो फुलांच्यो जाती हाडूनय गोंयांत रोवंक लागल्यात. हांवें हीं कांयं नांवां तुमकां सांगल्यांत तीं आमचीं गोंयची निजाचीं फुलां जावन आसात. ह्या फुलाचीं नांवां ध्यानांत दवरात आनी तांकां वळखूंक शिकात.



# पर्यावरणाचो सांबाळ

झाडांविशीं तुमी खूब कितें ध्यानांत घेतलें. आनी ताचो मनीस जिणेकडेन कसो कितें लागींचो संबद आसा, तें पळयलें. पूण ही फकत झाडां-झुडपांच न्हय, तर सूर्य, चंद्र मळब, दोंगर, न्हंयो, रानां, जंगलां, जंगलांनी रावपी सुकणीं, सावदां, जनावरां, जीव, जिवाणीं, तेभायर आमच्या मनशांच्या राहवासात रावपी पाळीव जनावरां, सवणीं, ह्या सगल्या सगल्यांचो एकमेकांकडेन कसो दुवो आसा, तांचो आमचे जिणेक कसो कितें उपेग जाता, तशेंच एक दुवो घसरल्यार दुसरो दुवो कसो घसरता आनी पर्यावरणाची संतुळा कशी इबाडटा म्हणपाचें पळोवन आमच्या जाणट्यांनी ह्या सगल्या सैमाचें, आमचे जिणेकडेन नातें जुळोवन दवरपाचो आनी तें तिगोवन दवरपाचो उपाय म्हणून आमकां सणां परबांच्या निमतान तेरतरेचे संबंद ह्या गजालीकडेन जोडून दिवन आमचीं तांचेकडेन नातीं जुळोवन दिलीं. त्याच वांगडा आमी कांय बंदनां आनी रीत - रिवाजय घालून दिले.. देखीक, गांवचे चार चौगजाण एकठांय येवन, मेळून मिसळून वागचे म्हणून संवसार पाडवो. दिवाळी, दसरो, शिगमो, होळी, धुळवट, धालो, वसंतपूजा, नवरात्रां, कोजागिरी पुनव, मान्नीपुनव, चैत्रीपुनव... बी असले उत्सव करपाक आमकां तांणी शिकयलें. तशेंच चवथ, सुतांपुनव, वडापुनव, तुळशीलग्न, नागपंचम, गोकुळाश्टम, असल्यो परबो करपाक लावन, त्या त्या गजालींचे म्हत्व आमकां पटोवन दिलें. हाचें भायर कांय एक व्रतांय करपाची रीत तांणी आमकां घालून दिली. हें सगलें करपाफाटल्यान तांचो हेत एकच आसलो. तो म्हळ्यार सैमाची आनी समाजाची संतुळा बरेतरेन राखपाची.

आतं हेंच पळयात, आशाढ-श्रावण म्हयन्यांत पावस बरोच बडवता. जळींमळीं झाडां, झुडपां, रूख, पाचवेचार आनी टवटवीत जातात. तरेतरेची शाकभाजी पिकता. अशावेळार भाद्रपद शुद्ध चवथ येता आनी त्या निमतान घरां घरां कणकणीं गणपतीबाप्पा येता. ताची पूजा जाता. चवथीच्या आदल्या दिसा तय. तयेदिसा गणपतीबाप्पाचे आवय बापूय म्हळ्यार गौरी म्हादेव आमी पुजेक लायतात. चवथी दिसा, गणपतीची चिकटमातयेची मूर्त हाडून पुजेक लायतात. पूण गौरी -

म्हादेवाचें कितें? गौरी - म्हादेवाच्या नांवानं बाजारांत बारीक बारीक वनस्पतीच्यो चुडयो हाडून विकतात. तातूंत चिड्‌डे, हर्ने, बेल, शेरवडां बी तरेतरेची वनस्पत आसता. त्यो चुडयो आनी चित्रां बांदून, आमी गौरी-म्हादेवाच्या नांवान पुजतात. म्हादेवाचे पुजेक आमकां पत्री जाय पडटा. पत्री म्हळ्यार कितें? तरेतरेच्या वनस्पतींची पानां. वनस्पत आमकां तरेतरेन उपेगी पडटा. कोण वखद म्हणून उपेग पडटा. कोण फुलां दिता, कोण फळां दिता. आनी हे तरेन आमचे जिणेचो ती भाग जावन आसता. तये दिसा, गोडशें म्हणून आमी पातोळ्ळ्यो बी करून देवा निवेद्य दाखयतात पूण तये दिसाचें वैशिष्ट्य म्हळ्यार 'पांच पाल्यांची भाजी' त्या दिसा गौरीदेवीच्या दुवाळ्याचे प्रतिक म्हणून तांची 'पांच पाल्यांची भाजी' अळणी करतात. घडये गुरवाचारांत गौरीदेवी बरी नाशिल्ली आनी मीठ कोंत्र म्हणून अळणी जेवताली जावंये.

चवथी दिसा गणपतीची मूर्त हाडून आमी पुजेक लायतात. गणपतीचे बसके वयर माटोळी बांदतात. 'माटोळी' हें लोक जिणेचें प्रतिक. माटोळेक, रानांतली तरेतरेची वखदी वनस्पत, तशेंच तरेतरेची शाके भाज्येची फळफळावळ आनी हेर फळांय बांदतात. दर वर्सा हें करचें पडिल्ल्यान हे सगळे जिनस आमच्या परिचयाचे जाल्ले आसात. सगल्यांची आमकां संवकळ जाल्ली आसा. आमी ती वनस्पत वळखूंक पावतात. तर आतां माटोळी म्हळ्यार कितें, ती कशी आसता आनी माटोळेक कितें कितें बांदतात पळोवया.

बऱ्या घट्ट मदेराच्यो कांबी घेवन, त्यो घडसून एक व्हडलो चौकोन करतात. ताका मागीर मर्दीं मर्दीं उब्यो आडव्यो आनीक कांबी घडसून, सारके बरे बारीक बारीक चौकोन करतात. अशेतरेन केल्लो हो फोपळ्यांचो चौकोन म्हळ्यार माटोळी. ही माटोळी मागीर गणपतीच्या मखरा वयर लांबयतात. माटोळेक नाल्लांची पेंड, सुपारेचो कात्रो वा शिपटें, भाताची गांजली, ( भाताच्या कणशांची फांती विणून ती सारकी बरी गुठलावन चंवर कशी करतात. ही गांजली भाताचो व्हडलो गोंडो कसो दिसता. कांय लोक तिका झेलो म्हणटात. ) केळावलें पणस बी बादतात, तशेंच

हांचे मंदी मदीं रानांतली वखदी वनस्पत, म्हळ्यार कांगला घागऱ्यो, माट्टा कुंफळां, हड्यो, नागुलकुड्या फळां, वर्स-मोगें, सोलगिणीचें बोंड, कंवडळां बी बांदतात. तशेंच तरेतरेची शाक भाजी आनी हेर तरेची फळांय बांदतात. कसलीं तीं पळेयात. तवशीं, घोंसाळी, भेंडे, काराथी गोंड-घोसाळीं (पेर घोंसाळीं) दुदी, आमाडे, तेफळां, दुदवाल, सिताफळां, आंतेरा पेरा, दामळां, मावळिंगा, माट्टी घोंसाळीं.. बी जीं जीं फळां त्या हंगामांत मेळटात तीं तीं माटोळेक बांदतात. घरचो येजमान जितलो चड मोटो मनीस आनी चड खानदानी, तितली तागेली माटोळी चड गडगंज आसता. एक लक्षांत दवरपासारकी गजाल़ म्हळ्यार, माटोळेक पोपाय बांदिनात,

तर आतांमेरेन तुमी आमच्या गोंयांत जातात तसलीं, शाके भाजयेक वापरपाची आनी हेर, तरतरेच्या फळांची वळख करुन घेतली न्हय? हांचेभायर आनिकूय जायतीं फळां आसात तांचो आमकां जेवणांत वापर करूंक मेळटा. देखीक, म्हसकासांगो, चिडकीमिडकी, तेंडली, कुंवाळे, कोंकणदुदी, बोबर, वांयंगे.. बी असलीं. आमी ही शाक भाजयेची फळां खातात. तशींच कंद मुळांचोय जेवणात वापर करतात. देखीक, सूर्न, चिरको, भूतकणगां, गोडेलीं कणगां, कांटेकणगां, मसमी भिकणां नागरकोनें, आळवामाडी, कुरपणे, आळवां मुंडल्यो, कारांदे, मुळे, फावरींग, कांसाळेमाडी, कांदे गड्डे... बी हातुंत कांय नांवां तुमी केन्ना आयकुंक लेगीत ना आसतलीं न्हय, मुजरत वळखून घेयात ह्या कंदमुळांक फकत कांदे सोडून हीं कंदमुळां आनी सगल्या तरांच्यो शाको घालून चवथीच्या दुसऱ्या दिसा, म्हळ्यार पंचमीदिसा, जिका ऋषी पंचम अशें म्हणटात, त्या दिसा खतखतें करपाची गोंयांत रीत आसा. तर आतां पळोवया पंचमी दिसा आनीक कितें कितें करतात ते.

पंचमी दिसा आमी 'नवें' पुजेक लायतात. देखूनच हे पंचमीक 'नव्या पंचम' अशेंय म्हणटात. ह्या (चवथीच्या) दिसांनी, शेतां पिकून नवेंच भात तयार जाल्लें आसता. देखून शेतांतल्यो जून जाल्ल्यो चार कणशो हाडून त्यो पंचमी दिसा पुजेक लायतात. त्याच कणसांतले प्रसाद म्हणून शास्त्राक पांच आसकडे घेवन ते सोलून, भितरले दांडें, घरांत देवा निवेद्याक तांदळाचो पायस केल्लो आसता तातूंत घालतात.

हो पायस पंचमी दिसाचें गोडशें म्हणून देवाक निवेद्य दाखयतात. आसा कांय ना हो भाताचो भौमान? ध्यानांत दवरात, तय, चवथ आनी पंचम ह्या तिनूय दिसांची ही परब म्हळ्यार सैमाचे व्हडविकायेचो, भौमानाचो उत्सव जावन आसा.

आमच्या गोंयांत कसले कसले जातीचें भात पिकयतात तें जाणांत तुमी? आदल्या काळार आमचे शेतकार आजगो, खोचरी, दायगो, कुसाळगो, काठाळगो, खारो आजगो बी , ह्यो जाती पिकयताले,. पूण गोंय मुक्ति उपरांत, गोंयच्या शेतकारांक नवीं नवीं बियां आनी रोवपाच्या नव्या पद्धतींची जाणविकाय करून दिल्ल्यान,हालीं तें ज्योती, अन्नपूर्णा, जया, बासुमती, घागर, बाबरी, मांडला... बी ह्यो जाती रोवंक लागल्यात.

हे सगलें आयकले उपरांत, झाडांचो आमचे जिणेकडेन कितलो लागींचो संबंद आसा, म्हणपाचें तुमकां पटलांच आसतलें. पूण त्याच बराबर तुमच्या मनांत एक दुबावय येवं येता. तो म्हळ्यार सोरपासारकीं विखाळीं जिवाणीं जीं आमकां चाबतीत म्हणून आमी भियेतात, तांकां आमी नागपचंमीक पुजतात, हे कसलें अजाप?

हातूंत अंजाप कसलेंच ना. हीं जिवाणीं जीं आमीं पळयतात, तीं सामकीं भित्री आसतात. आमचेर नदर पडटनाच आमकां भियेवन तीं पळटात. सामकींच आमचे कडल्यान तीं दुखवलीं जायत, तरच तीं आमकां चाबतात. जिवाण्यांच्यो विंगड विंगड शेंकड्यांनी जाती आसात. सगलींच जिवाणी विखाळी नासतात. तातुंतलीं कांय जिवाणीं विखाळीं आसतात. आमी मात जिवाणें म्हळे, काय भियेतात. पूण खरें पळोवंक गेल्यार, ह्या जिवाण्याची लेगीत, सैमाच्या संतुलनाखातीर.भोव गरज आसता. कशी ती पळयात .

जिवाणीं जमनीक बिळां करून त्या बिळांनी रावतात. कांयकडेन मुयो रोयणी करतात आनी त्या रोयणींत सोरोप वचून रावतात. 'आयत्या बिळांत नागोबा' म्हणटात ते आयकलांच जातलें तुमी. हुंदीर, कोळहुंदीरय जमनीक बिळां करून रावतात आनी हे सोरोप त्या बिळांनी वचून, त्या हुंदरांक खावन आपूण त्या बिळांनी

रावतात. तुमी जाणात, कांय वेळार वाटेन वतना आमकां सारोप दिश्टी पडलो जाल्यार लोक ताका मारिनात. ताका मारल्यार तो बादत बी! ' आयकला जातलें असलें उलोवणे तुमी न्हय? तो वाटाराचो सारोप अशें म्हणपाफाटलो हेत कितें तो जाणांत तुमी? सोरोप जंय रावता, त्या वाटाराची तो राखण करता. तो त्या वाटारांतले हुंदीर , कोळहुंदीर हेर जीव जंतू बी खाता. शेतकार जीव तोडून शेती रोयतात. आनी शेतांतले थाम जशे बरे वयर सरले, तशें हुंदीर कोळहुंदरीर , बेबे, बेबक्यो, कोंगे, जीव जूंतु बी शेतांत घुस्पट घालतात. शेतांतले वाडिल्ले थांब खावन ते शेताची वाट लायतात. अशा वेळार सोरोप, दिवड, येवाळीं बी शेतांत येवन, तांकां खातात, रोप्यांची राखण करतात. 'जिवारीक वगी मारुं नाकात, सोरोप म्हळ्यार नागदेव, माळूण म्हळ्यार लक्षुमी' अशें आमकां जाण्टेलीं सांगतात. कित्याक सांगात? सोरोप खंय एका दिसाक शंबरलेगीत हुंदीर खावन पचयता. मनशाक मात, हर यत्न करून वर्सातल्यान वीस आनी तीस हुंदीर मारतसर नाकयां णव येता. माळूणय तशेंच. हुंदीर खावपाक ते सामकें लंपट. तें हुंदीर सगलोच गिळटा. शेतां पिकूंक लागलीं तशे अचूक तें शेतांत येवन पडटा आनी हुंदीर धरुन खाता. कोंकणी भाशेत एक ओपार आसा. 'कोंगो खाता रोव आनी येवाळ्याचो बाबड्याचो कांडटात फोव' ओपार कशी आयली जाणात? एका शेतांत खंय खूब कोंगें जाल्ले. कोंगे म्हळ्यार शेताक लागतात ( खातात) तसले जीव, हे पुलेंत भितर रावतात, जाय तेन्ना पुलेंत्यान भायर सरून शेताची वाट लायतात. एकदां खंय अशेंच घडलें. शेतांतल्या कोंग्यांनी सगलो रोव (थांब) खावन शेताची वाट लायली. शेतकार यो जाल्यार शेतांत रोपे मेल्यात. हें अशे कितें जालें, म्हणून शेतकार बारीक पळोवंक लागलो. तर त्या कोंग्याक खावपाक त्या शेतांत एक येवाळें आयिल्ले, ते ताका दिश्टी पडलें, ताका दिसले, या येवाळ्यानच सगल्या थांबांची वाट लायल्या. म्हणून तो रागा रागान येंवाळ्याक मारपाक एक तोणको सोदूंक लागलो. त्या बोवाळान कोंगे ल्हवूच चिकलांत लिपले. शेतकारान तोणको हाडलो आनी येंवाळ्याक धाडाय धाडायलें, बाबडे येवाळें अन्यायनासतना मरून गेलें. खरें म्हळ्यार येंवाळ्याचो शेतांतल्या

रोपांकडेन कांयच संबंद नाशिल्लो. पूण शेतकारांक कितें खबर? तर असलीं हीं येवाळीं, दिवड सोरोप, बी जिवाणी शेतांत येतात, तीं शेतांतले जीव-जंतू खावपाक, रोपा खावपाक न्हय. तांचे उदेशी शेताची राखण जाता. देखून जिवाण्यांक मारू नये हें आमकां शिकोवपाक, जाण्टयांनी सोरपाचेर कथा, दंतकथा रचून नागपंचमीक ताची पूजा करची म्हणपाची रीत आमकां घालून दिली. नागपंचमी दिसा नागाची चिकमातयेची मूर्त हाडून पुजेक लायतात. बायलो, ल्हान चलयो, न्हावन धुवन नागाक गंद फूल घालतात. तशेंच ताका दूद ल्हायो घालतात आनी म्हणटात ' दूद ल्हायो चाख आनी भावाक म्हज्या राख'.

अशें सांगतात, एकदां एक शेतकारान, नागपंचमी दिसा, नांगर घेवन आपले शेत नांगरलें. त्या शेतांत दिसता एक नागीण वियेल्ली. शेतकाराक खबर नाशिल्ली. नागीण आपले कितलेशेच पिले घेवन शेतांत एकेकडेन आशिल्ली. शेतकारान नांगर भोंवडायलो, तो तांचेवयल्यान फिरलो आनी ती नागीण आनी तिगेले सगले पिले रक्तबंबाळ जावन मेले. नागीण आनी पिले मेल्ले पळोवन नागाक आयलो राग. शेतकार घरा वतना तो ताच्या फाटल्यान चलत रावलो. तागेल्या घरा वचून, त्या शेतकाराक आनी तागेल्या घरांतल्या सगल्या लोकांक ताणें दंश केलो. तितलें करूनय नागाची तिडक न्हिवली ना. त्या शेतकाराची एक धूव लागींच शेजारच्या गांवांत लग्न करुन दिल्ली, ती उरिल्ली, तिका दंश करपाक तो तिगेर गेलो. थंय पाव जाल्यार, शेतकाराचे धुवेन बरी रांगोळी बी घालून, पाटार एक नागाची मुर्त दवून, तिची पूजा करुन तिका ती दूद ल्हायो घालताली. ती ताका दिश्टी पडली. हे पळोवन नागाचो राग मात्सो न्हिवलो. ताणें तिका सगली गजाल सांगली आनी अपूण तूका दंश करपाखातीर आयिलएलो म्हणपाचेंय सांगले. शेतकाराची धूव ताका शरण आयली. बापायचे वतीन तिणें क्षमा मागली. तेन्ना नागाचो राग न्हिवलो. तो शेतकारागेर गेलो आनी सगल्याचो विखार काडून घेवन, घरभर लोकांक ताणें जितीं केलीं. अशी ही दंतकथा सांगून, नागपंचमी दिसा शेतात कोणेंच नांगर फिरोवं नये असो आमच्या जाण्ट्यांनी नेम घालून दिलो. हाचे फाटलो अर्थ इतलोच. जी चूक त्या शेतकाऱ्याच्या हातांतल्यान

घडल्या, ती परती आमच्या कोणाच्याच हातांतल्यान घडूंक फावना. असल्यो चुको जर आमी करूंक लागले, तर पर्यावरणाचें संतुलन इबाडटलें. देखून झाडां पेडांचो ज `तरेन आमी सांबाळ करतात, तेचभशेन जिवारीकय आमी थारो दिवंक जाय. तांकां मारून उडोवंक फावना, कारण पर्यावरण राखपाखातीर आमकां तांची भोव गरज आसता.

तर संवसारांत जिवाण्यांचें अस्तित्व कितलें गरजेचें आनी मोलादीक हें तुमकां कळ्ळें न्हय? तुमी केन्ना जिवाणी पळेल्यांत कसल्या कसल्या जिवाण्यांक तुमी वळखतात? जिवाण्यांची नांवा तुमकां खबर आसात? कांय जिवाण्यांक हांवें पळेल्यांत आनी हांव तांची नांवां जाणां, तीं तुमकां सांगता आंऽऽ सोरोप, फुरशें येंवाळें, काणसो, माळूण, हरयाळी, गतम्हामडोळी, सुळो, पासको, म्हामडोळ वा म्हांडोळ, हार, दिवोड, बी हीं जिवाणीं आमच्या गोंयांत खुबशी दिश्टी पडटात. पूण हीं तितलींच न्हय ऽऽ हांचे भायर आनीक शेंकड्यांनी जातीचीं जिवाणीं आसात. सगलींच जिवाणीं विखाळीं नासतात. आमी तांका नश्ट करूंक फावना.

गांयडोळ नावाचो प्राणी तुमी कोणें पळयला? म्हाका दिसता, तुमचे पैकी जायत्या जाणांनी गांयडोळ हे कसो आसता, कसो दिसता, तो पळोवंक ना आसूं. पूण गांयडोळ हें नांव मात खूबशा गोंयकारांच्या परिचयाचें आसूंक जाय. कारण ह्या गांयडोळाच्या नांवांन कांय कोंकणी ओपारी मारपाची चाल गोंयकारांमदीं आसा. देखीक, (१) हार उडटा म्हणून गांयडोळ उडटा (२) अजून तुगेलो होमवर्क करुन जावंक ना जाल्यार असो गायंडोळ कसो हांगा रांदचे कुडीत उळउळटा कित्याय? (३) आवयस तिगेर चलो जालो, कितें सांगू?. येदो ऽसो गायंडोळ कसो आसा. तीनय ओपारींनी गांयडोळ उतराचो तीन अर्थांनी वापर केला. म्हणटकूच गांयडोळ हें उतर गोंयकारांच्या खूब परिचयाचें जावन आसा हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

खरें म्हळ्यार आयच्या काळार, डांबरी रस्ते आशिल्ल्या शारांनी, व्हडल्या व्हडल्या बिल्डिंगांतल्या फ्लेंटांनी रावपी लोकांक गांयडोळ कशे दिश्टी पडत? गांयडोळ हो जमनीत रावपी प्राणी. तो खेड्यांनी रावपी लोकांक, तशेच रोवपी खोंवपी

लोकांक मात सहज दिश्टी पडूंक शकता.

तर गांयडोळ कसो दिसता म्हणून सांगूं तुमकां? तुमी दंत पळेयल्यात आसतले न्हय? मनशाच्या पोटांत दंत जातात, ते जाणांत न्हय तुमी? जाणट्यांपरस नेणट्या भुरग्यांकच दंत चड आसतात. मनीस जसो परसाकडेन बसलो, तशे ताच्या मळांतल्यान दंत भायर सरतात. गांयडोळ सारके दंताभशेन आसतात. दंत रंगान धवो आसता आनी गांयडोळ रंगीत, तांबसो, चोकलेटसार आसता. तें कित्याक? तुमी गांयडोळ किंचीत व्हड आसतात. किडी, केटरपिलर बी चलतात न्हय, तशे ते चलतात, पळोवपाक सामके किळसवाणे दिसतात. पूण कितें सांगूं तुमकां, हो येदोसो प्राणी, तुमचो आमचो आनी तसोच शेतकारांचो एक बरे मागतो आनी ण्हडांतले व्हड इश्ट जावन आसा. तो शेतकारांक रोवपाक खोवपाक खूब मदत करता. आनी ान्न धान्य चड पिकपाक तशेंच बऱ्या दर्जाचें पीक मेळोवपाक ताची खूब मदत जाता जाल्यान, तें अन्न खावपी जेवपी आमच्या सारक्या लोकांचेर गांयडोळाचे असंख्य उपकार आसतात. तर अशेतरेन मनीस जातीचेर उपकार करपी ह्या प्राण्याची वळख करुन घेवप हें आमचे व्हड कर्तव्य जावन आसा.

गांयडोळ वेंत देड वेंत लांब आसता आनी तो पेन्सिली इतको लेगीत मोटो आसता. ताच्या आंगाच्या दोनय पोतांनी, एके वाटेन ताचे तोंड आनी दुसरेवटेन ताची शेंपडी आसता. ताचें तोंड खंयचें आनी शेंपडी खंयची, हे कळपाक भोंव कठीण. दोनय पोंतां सारकींच दिसतात. पूण चलतना तो तोंडावाटेंतल्यानच मुखार वता. म्हणटकच ते वाटेन ताचें तोंड म्हणपाचें कळून येता.

गांयडोळाक सुर्याचो उजवाड अजिबात सोंसना. देखून सगलो दीसभर तो जमनीत भितर काळखांत रावता. जमनीक बुराक करीत तो खोल खोल मातयेंत भोंवता आनी पोंदा वचून उदकाचे थंडसाणीक रावता. रातचो काळोख जालो तसो तो अन्न सोदूंक जमनीर वयर येता. हे भशेन, जमनींत 'भितर वच, भायर यो' अशे करुन करुन जमनीची तो सामकी जाळी करुन उडयता. म्हणचेच एका अर्थान, ताचे उदेशीं, ही जमनीची रात दीस मशागतच चलिल्ली आसता.

आमचे शेतकार भाव जमनीची मशागत करपाखातीर गोरवां पोसतात. बैलांक नांगराक बांदून ते जमनीची मशागत करतात. ती करता आसताना बैलावांगडां शेतकार आपलो सगलो दीस खर्ची घालतात. बैलां वांगडा तांकाय व्वुरचें पडटा ते भायर बैल पोसले म्हणटकूच ताची नीगा कर, ताकां खावड घाल, तांचो गोठो साफ कर... अशें करुन कश्टांपरी कश्ट आनी खर्चापरी खर्चय तांकां करचो पडटा. इतले आसून गोरू फकत दिसाचेंच काम करता. रातचें न्हिदता. पूण गांयडोळ रात दीस जमनीत इकडेंतल्यान तिकडेन भोंवत आसतात. ते जमनीक भितर बुराक करुन करुन जमनीची जाळी करुन उडयतात, देखून पावसाचें जें उदक जमनीर पडटा, ते केन्नाच व्हांवन वचना. तें सगले उदक जशाचें तशें जमनींत जिरता. हेवरवी उदक जेन्ना जमनीवयल्यान व्हांवता, तेन्ना उदका वांगडा मातीय व्हावन वता. पूण जे जमनींत गांयडोळ आसतात, ते जमनीर कितलोय पावस पडलो म्हणून, पावसाचें उदक व्हावनूय वचना आनी जमनीची मातीय होळून वचना. उरफाटो जमनींत उदकाचो भरपूर पुरवठो जाता. ते भायर गांयडोळांनी जमीन पोखरुन पोखरुन जमनीक बुराक केल्ल्यान जमनींत प्राणवायूचोच व्हड प्रमाणांत सांठो जाता.

गांयडोळाचें अन्न कितें तें जाणांत तुमी? गांयडोळ झाडांच्यो सुक्यो खोलयो, जमनीवयलो सुको पत्रो, कुशिल्लो कोयर बी खातात. आमी आमकां नाका म्हणून भायर मोखून मारिल्लो निरुपयोगी कोयर हेंच तांगेलें खाण. तुमी पळयलांच आसतलें आमी कोयर व्हरून म्युनिसिपालटीन वरिल्ल्या बल्लांनी गटारांनी बी उडयतात. तो कोयर थंय कुसता आनी घाण मारता. सगल्या वाठाराक दुर्गंधी सुट्टा. पूण तोच कोयर जर एक खड्डो खणून तातूंत उडयात आनी त्या खड्ड्यांत भितर जर गांयडोळ सोडटीत, तर त्या कुसक्या कोयराची घाण दुर्गंधी अजिबात येना. कित्याक जाणांत तुमी? हे गायंडोळ जमनींतल्यान वयर सकयल भोंवतना, जमनीक बुराक करुन, तिची अशेतरेन जाळी करून उडयतात, की गांयडोळ आशिल्ले जमनींत भरपूर प्राणवायू घोळटा आनी प्राणवायूक लागून त्या कुशिंल्ल्या कोयराक अजिबात वास - घाण मारिना.

गांयडोळ हो प्राणी दंताभशेन दिसपी, पेन्सिली इतलो मोटो आनी वेत-देड वेंत इतलो लांब आसता म्हणपाचें तुमकां कळ्ळांच. ताचें आंग पळोवपाक सुळसुळीत, बुळबुळीत, तिकतिकीत कशें दिसता. पूण तें तशें नासता आंऽऽ. ताच्या आंगाक बाऽऽरीक केंस कशी ल्हंव आसता. आमच्या दोळ्यांक ती चट्ट करुन दिसूक लेगीत कठीण. ह्या गांयडोळाक पांय बी कांय नासतात. पूण ही ल्हंव जी ताका आसता न्हय, ते ल्हंवेन ते आपल्या बिळांतले मातयेक, सामकी घट्ट वेंग मारुन आसतात. मातयेक मारिल्ली वेंग ते सोडून सोडीनात. देखून गांयडोळ समजा अर्दो भितर बिळांत आनी अर्दो बिळा भाकर आशिल्लो तुमकां सांपडलो आनी तुमी ताका शेंपडेक धरुन ओडून भायर काडपाचो यत्न केलो, तर तो सगल्या सगलो कसोच भायर येवपाक ना. तो इतलो नाजूक आसता की ताचो कुडको तुटून तुमच्या हातांत येतलो. पूण ताची एक मजा म्हळ्यार तुमच्या हातांत तुटून आयिल्लो कुडको जर फकत ताची शेंपडी आसत, तर ताका परतून नवी शेंपडी येता, आनी ताचें आंग तुटून जर ताचो कुडको तुमच्या हातांत आयला आसता तर मात तो गांयडोळ वांचना तो मरता.

गांयडोळ रात दीस केन्नाच न्हिदनात. रात-दीस ते चरत आसतात. तांच्या ताळ्या सकयल एक पिशवी कशी आसता. तांणी खाल्ले खाण म्हळ्यार कुसको कोयर तातूंत आसता. ते पिशवेचो फुडलो भाग म्हळ्यार आनीक एक तसलीच पिशवी आसता. ते पिशवेंत, तांणी खाल्ल्या खाणबरोबर जी माती, रेंव बी ताच्या पोटांत वता, ती आसता. ते पिशवेफुडलो, तागेले शेपडेवशींचो जो भाग आसता, थंय ताणे खाल्ल्या खाणाची जिरवण जाता आनी मागीर तागेले शेंपडेकडल्यान तागेली विश्टा भायर पडटा. तागेली विश्टा म्हळ्यार झाडाक व्हड जावपाखातीर तशेंच पिकावळीचे उत्पन्न चड मेळपाखातीर जाय आशिल्लें उत्कृष्ट सारें जावन आसता.

गांयडोळां मर्दी नर आनी मादी आसतात. तागेली उत्पादन शक्ती खूबच मोट्या प्रमाणांत चलता. तांकां एकूच उद्देग, रात दीस न्हिदनासताना एक्का सारकें खायत रावप, दुसरेवाटेन विश्टा सोडीत रावप आनी तांतयां घालून पिले काडीत

रावप. ताका लागून तांची उत्पत्ती इतल्या मोट्या प्रमाणात जाता की दर म्हयन्याच्या म्हयन्याक तांची संख्या दुपेटीन जाता. म्हणचे ह्या म्हयन्यांत एका जाग्यार जर तुमी एक किलो वजनाचे गांयडोळ सोडले जायत तर दुसऱ्या म्हयन्यांत त्या जाग्यांर दोन किलो, इतल्या वजनाचे गांयडोळ तुमकां मेळटले. तितलें तितलें सारेंय चड मेळटलें.

गांयडोळांचे सारें, हें उत्कृष्ट दर्जाचें सारें जावन आसा. ह्या साऱ्याक लागतलें दुसरे सारें ना. फुलझाडांक जर गांयडोळाचें सारे घालीत, तर फुलां बरीं मोट्टी, तट्टीत जातात. ह्या फुलांचें वैशिश्ट म्हळ्यार, हेर साऱ्यापासून फुलोवन काडिल्ल्या फुलांपरस, ही फुलां खूब दीस ताज्जीं तट्टीत उरतात. तीं बावून बावनात. म्हणजेच, शेतकारांक तीं चड मोलांक विकूंक मेळटात. ह्या फुलांची टवटवसाण, लिकतिकसाण वेगळीच आसता. कितले दीसमेरेन तीं बावून कुसून व्ट लागून वचनात. ताका लागून शेतकाराक तीं विकून उडोवपाची ताकतीक नासता. तो चड मोलाकच तीं विकता आनी तांचेर भरपूर फायदो मारता.

गांयडोळांचो एक मोट्यांतलो मोटो फायदो म्हळ्यार, जे पिकावळीक गांयडोळांचे सारें घालतात, ते पिकावळीचेर किटक - नाशक वखदांचे फवारे मारचे पडनात. कारण गांयडाळांच्या तेजीश्ट साऱ्याक लागून पिकावळीच्या थांबांनी म्हळ्यार रोयिल्ल्या झाडांच्या आंगांत कीड-रोग न लागपाची प्रतिकार शक्त येता, असो तज्ञांचो अणभव आसा.

गांयडोळांच्या साऱ्याचो आनीक एक फायदो म्हळ्यार, ते शेतांत, भाटांत जाव कुळागरांत... जंय पिकावळ काडटात थंय जमनींत भितर पोंदा वचून रावतात. रातचे ते जमनींतल्यान वयर सरुन, सुको कुसको पालो, म्हणजेच मनशाक नाका, ताका उपेग पडना, असलें कुसकें-नासकें तितलेंय ते खातात. पूण जित्या झाडांक व झाडांच्या ताज्या जित्या मुळांक ते इल्ली लेगीत दुखापत करिनात. म्हणजेच गांयडोळांपासून फकत फायदोच घेवपाचो, लुकसान कितेच जायत म्हणपाचो भंय नासता.

एकंदरीत सांगपाचें म्हळ्यार, शेतकामत्यांक आनी पर्यायान मनीस कुळ्येक गांयडोळा सारको बरो इश्ट सवसारांत ना. कारण,

(१) गांयडोळाक पोसपाखातीर अर्दी पै खर्च करची पडना, तांकां खावड घालची पडना.

(२) गांयडोळांची निगा करची पडना. म्हणटकूच तांचेखातीर कसलेच कश्ट काडचे

पडनात.

(३) गांयडोळांचे सारें हें उत्कृष्ट सारें जावन आसा.

(४) गांयडोळ रात दीस जमनीची मशागत करीत आसतात.

(५) गांयडोळ जमनीची मशागत करता आसतना शेतकामत्यांक तांचे वांगडा आपलो वेळ खर्च करचो पडना.

(६) जमनींत गांयडोळ रावतात, ते जमनींत उदकाचो पुरवठो भरपूर आसता.

(७) जे जमनींत गांयडोळ आसतात, ते जमनीवयल्यान पावसाचें उदक केन्नाच व्हांवन वचना आनी जमीन होळून वचत म्हणपाची भिरांत नासता.

(८) गांयडोळ आशिल्ले जमनींत प्राणव्यूचो भरपूर पुरवठो आसता. ताका लागून कुसक्या नासक्या कोयराची घाण-दुर्गंधी ना जाता आनी प्राणवायूचो झाडांक फायदो जाता.

(९) गांयडोळांचें सारें घालून रोयिल्ले पिकावळीक कीड - रोग लागना. देखून पिकावळीचेर किटकनाशकांचे फवारे मारचे पडनात. (किटकनाशकांपासून मनशाचे जिणेक धोको आसता.)

अशे हे गांयडोळ म्हळ्यार सांगाती शेतकामत्यांक लाविल्ले वरदान जावन आसा. आसात काय ना ते मनीस कुळयेचे व्हडांतले व्हड इश्ट?

ह्या संवसारांत आमी मनीस - प्राणी जशे आसात, तशेच तरेतरेचे जीव - जंतू किटक, जनावरां, सुकणीं, सावदां, नुस्ती.. बी तरेतरेचचेन प्राणीमात्र आसात. हे सगले आपल्या गुणधर्मा प्रमाण वागतात आनी ताका लागून पर्यावरणाचें संतुलन सांबाळपा हातभार लागता. तर आतां आमी ह्या विंगड विंगड प्राणीमात्राची वळख करुन घेवयां.

वागोंडी, गोठाण, गोंगलगाय, जळू, हिंचण, जल्लो, तोळ, देवालो घोडो, शेतांत किरकिरपी तोळ, गुंगुल्लो, भोंवोर, पिसोळीं, बिरमुट्यो, कुमान्न, गांजीलमूस, गांयडोळ, कुसुंडे वा सुकुंडे, कोंगे, तोपये, शेड्डे, विंचू, बेबे, बेबक्यो, पाली, शिल्ल्यो;... बी असले जीव सोदूंक गेल्यार, हज्जारांनी लाख्खांनी मेळटले.

हांचे परसय बारीक जीव म्हळ्यार किटक पळोवया.:

किडी, मुयो, जळेरां, कोळी, हुलको, भिकूण, उवो, चिरवो, किट्टी, मुमरो, कुकुडसो, पैगीळ, साणस, वाळटी, पावसाचीं पिसोळीं, भातक पडटात ती भातोळीं

बरड, कोंको, मूस, किमसां... बी ह्या किटकांतय आनी जायत्यो पोट जाती आसतात. पूण तांची नांवा आमकां शिकून घेतले बगर कळपा ना. पूण कांय मुयांच्या जातीच्या नावां मात आमच्यांनी सांगू येतात. देखीक, सादयो मुयो, बारकेल्यो मुयो, घाणयाऱ्यो मुयो, तांबड्यो मुयो, तांतोड, चाबकुऱ्यो मुयो, हुमले, दोमळे, कांटमुयो, येंवलां, धांवऱ्योमुयो... बी. भायर तांच्यो आनिकूय जायत्यो जाती आसतात आनी बिळांनी भितर तांची राणीय आसता.

हे जाले बारीक सारीक जीव आनी किटक. तर आतां रानांत रावपी बारीक सारीक जनावरां आनी सावदाविशीं थोडी वळख करुन घेवया.

रानांत वाग, कोले, शींव, लांडगे, भालू, वास्वेलां, हती, बावके, काटांदोर, साळी, हरणां सांबरा, झेब्रे, गवे रेडे, चितळां, जिराफां, मेरू, पाणमांजरा, सोशें, माकड, चानयो बी ही आनिकूय विंगड विंगड जातीचीं जनावरां आसतात. हीं जनावरां जशी रानांनी रावतात तशींच कांय जनावरां गांवांनी मनशांच्या सहवासांत रावतात, मनशांची तांची निगा करची पडटा. ताकां पोसची पडटात. तीं मागीर मनशांक खूब आदार दितात. देखीक : घोडे, गोरवां, बोकडां, मांजरां, सुर्णी, दुकरां... बी. हांचेभायर मनशांची जाग आशिल्ल्या वाठारांनी रावन पोट भरपी कांय प्राणी दुकरां... म्ळ्यार हुंदीर, कोळहुंदरी, चानयो, पाखे... बी लोकवस्तीमदीं दिश्टी पडटात.

रानांत जशी कांय जनावरां रावतात, तसोच सुकण्यांचोय थंय खूब सुळसुळाट आसता. केन्ना गांवांत भुर्रभुर्र उडत ती ह्या सैमाची मजा आनी गिरेस्तकाय लुटत आसतात. तर कांय सवण्यांचीं नावां आमी ध्यानांत घेवया. कांय रानांत रावपी तर कांय, मनशां पोसतात, असलीं देखीक : कावळो, घोण , पोपट वा कीर, तिटापोय, साळोरी, पिटकोळी, कोगूळ, किट्टमारे, मडवळण, कोकरूं, गरुड, बळार किरें, कुवाकोंबी,बदकां कुकडा, हांसां, राजहंस, रानकोंबी, पाणकोंबी, शरकां, कुटुयें शिंपी, नातकां, म्हारकावळो, बोणयाळी बी जायतीं ध्यानांत उरत मूं ही नावां तुमच्या? वळखशांत मूं ह्या सवण्याक तुमी? आतांमेरेन आमच्या भोंवतणची वनस्पत आनी प्राणीमात्र हांच्यासंबंदान तुमकां थोडीभोव कल्पना आयल्याच जातली. सैमाचे हे गिरेस्तकायेची आमी बरेतरेन राखण करची, म्हणून आमगेल्या जाण्टेल्यांनी आमची संस्कृताय कशी घडयली तेविशींय थोडेंभोव तुमी ध्यानांत घेतलें. पूण सैमांची गिरेस्तकाय इतल्यान सोंपूंक ना. आमच्या दोंगरांनी फकत झांडां आनी प्राणीमात्राच

नात, तर ह्या दोंगरांनी व्एडलें व्हडलें झरे फुटून, आमकां व्हडल्यो व्हडल्यो न्हंयो मेळ्ळ्यात. तशेंच दोंगराच्या पोटांत भितर खोल खोल जमनींत आनी दर्यांत भितरय देवान आमकां गिरेस्तकायेचे व्हडले व्हडले सांठे भरून दवरिल्ले आसात. तर आतां तेविशीं थोडें भोव ध्यानांत घेवया.

संवसारांत व्हडले - व्हडले दोंगर - पर्वत आसात. तांचेवेल्यान उदकाचे झरे फुटून, ते व्हांवत खाला येतात. आमकां व्हडल्यो व्हडल्यो न्हंयो मेळटात. न्हंयांच्या ह्या प्रवाहाक लागून गांवचे गांव सुपीक जातात. न्हंयो म्हळ्यार गोड उदकाचे साठे उदक म्हळयार जीवन. उदक ना जाल्यार झाडां, प्राणीमात्र, आमी मनीसजात, कोणच जूगंक शकनात. ह्यो न्हंयो व्हावत वचून दर्याक मेळटात. दर्यांचे उदक खारें आसता. दर्याच्या उदकापासून आमकां मीठ मेळटा. दर्यांत आमकां नुस्ते मेळटात. तशेंच पोंवळी, मोतयां.. बी असल्यो मोलादीक किंमती वस्तूंत मेळटात. दर्या पोंदचे जमनीत आमकां पेत्रोलाच्यो खाणी मेळटात. गॅसाचे सांठे मेळटात. हे भायर दर्यांत तरेतरेची शेळ्यावरी वनस्पत आसता. ते वनस्पती वरवीं मनशाक अन्न म्हणून उपेगी जावपी पदार्थय आजकाल सोदून काडपाचे यत्न चल्ल्यात, तज्ञाचें संशोधन चल्ला.

असो हो दर्या म्हळ्यार, आमची व्हडली गिरेस्तकाय. देखूनच आमच्या जाण्टेल्यांनी आमकां जशी चवथ, दिवाळी, नागपंचम बी असल्यो परबो मनोवंक शिकयल्यो.. तातुंतलीच दर्याकडेन संबंद आशिल्ली एक परब म्हळ्यार सुतांपुनव. सुतांपुनवेक नारळीपुनव अशेंय म्हण्टात. सुतांपुनव म्हळ्यार श्रावण म्हयन्यांतली पुनव. आशाढ म्हयन्यांत नेटान पावस बडयता. दर्या खवळ्ळेलो आसता. दर्यांत वादळां मोडां जातात. व्हडली व्हडली ल्हारां मारतात. देखून ह्या दिसांनी दर्यांत व्हडीं बोटी... बी भोंवपाच्यो बंद आसतात. पूण श्रावण म्हयन्यांतली ही पुनव आयली, तसो पावस उणो जायत वता. वावझड, मोडां मारपाचीं उणीं जायत वतात. ते उमेदीन लोक सुंतापुनवेची परब मनयतात. घरोन घर जेवणाक तरेतरेचें गोड गोडशें करुन खातात. व्हडलें व्हडलें उद्येगपती दर्यार वचून दर्याची पूजा करतात. दर्याक नाल्ल ओंपतात. कांय मोटे मोटे उद्येगपती आदले सवायकेचे मुजतींत भांगराचो नाल्ल करुन दर्याराजाक ओंपताले. आनी त्या दिसाच्यान मागीर तांगेल्यो उद्येगधंद्यांच्यो बोटी परत्योय दर्यापार यो वच करुंक तर अशा ह्या उमेदीच्या दिसा, कांय भयणी

भांवांच्या हाताक राखी बांदून भावाचो पवित्र मोग आनी राखण आंवडेतात. देखून ह्या दिसांक ' राखी बंधन' अशेंय म्हणटात. अशेतरेन दर्या राजाची पतमांग करुन बारीक मोटे सगलेच लोक हे सुतांपुनवेची उमेद लुट्टात. त्या दिसाच्यान नुस्तें पागपी लोक, व्हडी, बोटी घेवन दर्यांत नुस्तें पागूंक वतात. मागीर आमकां घेऽ म्हणून नुसतें खावंक मेळटा. गरीब धाकुटो नुस्ते खावन धादोस जाता. तुमकां आवडटा? पळयलां तुमी नुस्ते? कसल्या कसल्या नुस्त्याक तुमी वळखतात?

आमच्या गोंयांत आमकां बांगडे, पेडवे, ताल्ले, विस्वण,कल्ल्यो, रांवस, सांगटां, सांगाळे, बोकडे, लेपो, मुड्डशो, शेंवटे, काळुंदरां, सरंगे, सरगुंट्यो, पेडी पालपेडी, धोड्यारे, तामोशे, कोंती, फडके - धोड्यारे, गोबरे, वेल्ल्यो, मोतयाळे, बुरांटे, धवे-बाळे, वणगां, वेल्लुरा, हारे, तारसुळयो, पालू, खर्चाइयो, भाणशिरी, मुत्री, करबट, शेतकां, खापी, जिब्रा, भरंजळां, कापसाळीं वा मानयाळीं, सवनाळी, राणे, करकरे, पापलेटी वा पितोशो, मोरयो, पणकुलां, वागोळीं, चणकां, टोंकयो, मानमोडे बोमील, वागोळीं बी हे तरेचीं आनी आनिकय जायत्या तरांची नुस्ती मेळटात. हांचेभायर आंगार कट्टे आशिल्ली म्हळ्यार 'तिसऱ्यो, खुबे, कोंडयो, काळे खुबे, लायळे - खुबे, शिनाण्यो, कालवां, सुंगटां, वागयो, पटींग, गालमो, लागोस्त, मेंगणीं-सुंगटा, तांबडी सुंगटा, कल्यो, माणक्यो बी मेळटात.. जायते लोक कांसव मेळटात. जायते लोक कांसव धरुन खातात. व्हडल्या व्हडल्क्षा दर्यांनी तर देवमाशे आनी आकांताचे व्हडले कांसव आसतात. मानगी लेगीत आसतात.

दर्याच्या खाऱ्या उदकांत नुस्तें आसता, तशेंच न्हंयांच्या साव्या उदकांत म्हळ्यार गोडः [illegible] कांतय नुस्तें आसता. देखीक, पिट्टोळ, खरवो, सांगटां, पटींग , चिकाले, थिगूर बा. याद उरत मूं ह्या सगल्या नांवांची तुमकां?

आतां कळ्ळें न्हंय तुमकां. आमी दर्याक येदें व्हडलें व्हडपण कित्याक दितात आनी ताचो इतलो थातो मातो कित्याक करतात तें? दर्या म्हळ्यार आमगेली व्हडली गिरेस्एतकाय. फकत दर्याच न्हं आऽऽ तर हें सगले पर्यावरण, म्हळ्यार पृथ्वी भोंवतणचे आवरण, म्हळ्यारच आमची सगली गिरेस्तकाय. तांतूत दोंगर, रानां-वनां, जंगलां, मनीस तशेंच हवा म्हळ्यार प्राणवायू, कार्बन, उश्णता, पावस, वारो, उदक, म्हळ्यारच दर्या, न्हंयो, सागर, म्हासागर, हे सगले तांतूत आसपावता. आनी ह्यो सगल्यो गजाली म्हळ्यार आमची गिरेस्तकाय.

इतल्यान ह्या सगल्या संवसाराची थोडीभोव वळख तुमकां मेळ्ळी न्हय? तर आतां दोंगराच्या तळा गाळांतल्यान, म्हळ्यार धर्तरे आमकां कसली गिरेस्ततक ाय मेळटा ती पळोवया. जमनींत भितर उदकाचे झरे व्हांवतात आनी आमी जमीन खणून बांयो मारून तें उदक मेळयतात. हें तुमी जाणांतच. हे भायर आमचें गोंय, खणीं उदेशी खूब फामाद जावन आसा, गोयांतले व्हडले व्हडले दोंगर पोखरून जमनींतले धन अजूनय उसपितात. आमच्या गोयांतल्या खणींनी चडशें लोखण, मेंगनीज बी मेळटा. जमनींतल्यान उसपून काडिल्लें हें धन, जाका इंग्रजी भाशेंत आयर्न ओर म्हणटातात, तें प्रयोगाखातीर भायल्या देशांनी धाडटात आनी प्रयोगाअंतीं मातयेंतलें हें धन वेगळें काडटात. आमचें गोंय त्या मानान ल्हान. गोयांभायर आमच्या भारतात आनी संवसारांतल्या हेर जायत्या खंडांनी, विंगड विंगड तरेचें धन दिवपी खूब खाणी आसात. कांय खाणींनी दगडी कोळसो, तरेतरेचे धातू, म्हळ्यार लोखण, तांबे, पितूळ, भांगर, बी असलीं थिकां मेळटात. आनी कांय खणींनी पेट्रोलियम प्रोडक्ट्स मेळटात. म्हण्टकच ही धर्तरी म्हळ्यार केदी समृध्दाय ताची कल्पना करात. देखुनच हें भुयेंक आमी 'भूमाता' म्हणटात आनी हे भुंयेचो कसलोच वापर करता आसतना पयलीं तिचो भौमान म्हणून 'भुमी-पुजन ' करतात.

संवसारांत सगल्या प्राणीमात्रांस मनीस हो प्राणी श्रेष्ठ मानला. कित्याक, देवान ताका बुद्धीची देण दिल्या. विचार करपाची शक्त दिल्या. मनशान ह्या सगल्या गजालींचेर विचार करून ह्या पर्यावरणाची संतुळा इबाडूंक दिवंक फावना. पूण आयच्या काळाक, विज्ञान -यूग, अणु-यूग, कंप्युंटर - युग, प्लास्टिक - यूग अशा विंगड विंगड युगांचो जल्म जाला. संवसारांत लोकवस्ती खूब वाडल्या. उद्येग - धंदे सुरू जाल्यात. कारखाने तशेच व्हडले व्हडले प्रकल्पय येवंक लागल्यात. कुटुंबसंस्था नश्ट जावन, आवय-बापुय आनी भुरगीं इतलेंच कुटुंब जावंक लागलां. आदलीं व्हडलीं व्हडलीं घरां आनी एकत्र कुटुंबपद्धत ना जावंन, लोक फ्लेटांनी रावंक लागल्यात. घरांच्या जाग्यार व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिगो येवकं लागल्यात. ताचंया बांदावळीखातीर, झाडांरूख मारुन तांच्या मदेराचो तसोच शिमिटाचो चड वापर जावंक लागला. झांडां रुखांनी गच भरिल्लीं रानां नश्ट जावन शारां निर्माण जाल्यांत. आदीं लोकसंख्या उणी आशिल्ली, ताका लागून भूंय, उदक, शुद्ध हवा, वनस्पत बी भरपूर प्रमाणात पाविल्ल्यान जीव जिवाळय भरपूर प्रमाणात आनी सुखांत जियेताली. पूण आजकाल कारखान्यांचे प्रदूशण जावंक लागलां. कारखान्यांनी वेपार तयार

करतात आनी उरिल्ल्यो नाका जाल्ल्यो दुशीत वस्तू न्हयांनी सोडटात. ताका लागून न्हंयांचे उदक प्रदुशीत जाता. ताचो परिणाम बायांच्या झऱ्यांचेर जाता. न्हंयो दर्याक मेळटात म्हण्टकूच दर्यांचे उदक प्रदुशीत जाता. मागीर दर्यांतलें, न्हंयांतलें नुस्तें मरुंक लागता. ह्या सगल्यांचो मनशांचेर आनी प्राणीमात्रांचेर वायटपरिणाम जाता. दुसरी गजाल म्हळ्यार आयच्या काळार वाहनांचो नंबर भरपूर प्रमाणात वाडला. हीं वाहनां हवेंत धु वोर सोडटात. ताका लागून हवेंत प्रदुशण जाता. वाहनांक लागून आवाजाचें खूब प्रदुशण जाता. आदल्या काळार व्हडलीं व्हडलीं रानां जंगलां बी आसताली. म्हणकच प्राणवायू, कार्बन, नत बी हांची रेलचेल झाडांपासून जावन सुंतळेची राखण जाताली. पूण आजकाल मनीस सुवार्थापोटीं जांव वा गरज म्हणून, झाडां मारून रानां नश्ट करुं लागला. हाका लागुनय संतुलेचो इबाड जावपाक पावला.

आजकाल विमानां, जेट विमानां, रॉकेटां, .. बी अंतराळांत भोंवतांत तांचोय वायट परिणाम वातावरणाचेर जावंक लागला. कारण सुर्याची खर किरणां आडावपी 'ओझोन' ह्या वायूचें असल्या वायट वायूक लागून गळटी लागता. तेभार आजकाल घरोन घर फ्रिडज 'फ्लोरेन्स' बी असल्या वायट वायूक लागून गळटी लागता. त्याभार आजकाल घरोन घरोन खर फ्रिज जाल्यात तांचोय ह्या ओझोनाचेर वायट परिणाम जाता. अशें जायत गेलें जाल्यार सूर्यांची किरणां थेट पृथ्वीचेर पावून पृथ्वीचेर अती उष्णता जावपाची आनी धोको उप्रासपाची शक्यताय आसा. तशें जायत जाल्यार वेळार पावस पडचो ना. पडलोय जाल्यार जाय तितलो पडचो ना. वा मुदलांकच जर पावस पडनाससतना रावलो, जाल्यार दुकळ, भूंयकांप बी असले नाना तरांचे अनर्थ पृथ्वीचेर घडूंक शकता.

हीं सगलीं अरिश्टां वाटावपाखातीर मनशान ह्या पर्यावरणाचो सांबाळ करपाक जाय. जाता तितलीं चड आनी चड झांडां लावंक जाय. झाडां, रुख, मारुंक फावना. दर्या -न्हयांचे उदक प्रदुशीत करुंक फावना. हवेचें प्रदुशण जावचे न्हय म्हूण खरबरदारी घेवंक फाव. हे भशेन ह्या सैमाची राखण करपाची जापसालदारकी आमची जावन आसा. हे आमी विसूरंक फावना, हो सैम आमचो सांगाती हे आमी ध्यानांत दवरूंक जाय.



भारतीय संस्कृतायेंत झाडां-पेडांक, मोनजातीक, तशेंच न्हंयांक, दोंगरांक, दर्याक आनी धर्तरेक लेगीत खूब म्हत्व दिल्लें आमी पळयतात. धर्तरेक आमी भूमाता म्हूण संबोधतात. गंगेसारकी आमची पवित्र न्हंय, गंगामाता म्हणून आमी वळखतात. दर्याक आमी केदें व्हडलें म्हत्व दितात. सुतां-पुनवे दिसा दर्याराजाची पुजा करून, दर्यांत भांगराचो माणकुलो नाल्ल करून ओंपपाची आमची व्हड परंपरा! झाडां-पेडांचेय बाबतींत हीच गजाल। वडां-पुनवे दिसा सवाशिणी बायलो, वडाची व्हडा भक्तिभावान पुजा करतात. देवळांच्या परिसरांत वड, पिंपळ, रुमड... बी व्हडले-व्हडले रूख आसतात, तांकां मुळांत बरीं ऽऽ पेडां बांदून, व्हडा श्रद्धेन आमी तांची जतनाय घेतात. केळ, आंबो तर आमकां दर सणा-परबेक आनी कसल्याय देवकार्याक आनी दबाज्याच्या सुवाळ्याक सांगात दितात. दर एका हिंदूच्या आंगणांत तुळशीवृंदावन आसता. तुळशी झाडाची आमी दिसपट्टी पुजा करतात. अशीं हीं एक आनी दोन झाडां न्हय, तर रुचीन कोडू आशिल्या कोडूलिंबाचो आनी काट्टिणीच्या कोडू काट्टांचो लेगीत आमचे जिणेंत म्हत्वाचो वांटो आसा.

... हो येदो व्हडलो आमचो संवसार रचला, तातूंत जशी जमीन, दर्या, दोंगर-मांगर, झाडां-पेडां, मोनजात, किडी-मुयो... बी रचल्यात, तशीच आमचे सारकी मनीसजातय निर्माण केल्या. असो हो संवसार! हाकाच आमी सैम म्हणटात.

**कमलादेवी राव देशपांडे**